# गांथन

[ धा कथा ]

बरोवपी :

दामोदर मावजो

जाग प्रकाशन

मियोळ, गोंय




जाग प्रकाशन : ३



पयली खेप : फेब्रुवारी १९७१

उजवाडावपी :
सुमन्त रामचन्द्र केळेकार
जाग प्रकाशन
प्रियोळ, म्हाड्डोळ-गोंय

मोल रु. ३=२५

छापपी :
य. गो. जोशी, बी. ए. ( ऑनर्स )
आनंद मुद्रणालय,
१५२३ सदाशिव पेठ, पुणे ३०.

ह्या संग्रहांतल्यो चडश्यो कथा नवें गोंय, परमळ, कोंकण-भारती हातुंतल्यान उजवाडाक आयिल्ल्यो. कांय कथा आकाशवाणिच्या पणजे आनी मुंबय केंद्रावयल्यान वितरायिल्ल्यो.

त्या त्या संपादकांल्या आनी आकाशवाणिच्या बरेपणान त्यो कथा ह्या संग्रहांत उजवाडाक हाडल्यात.

## मांडावळ

आइच्या आनी बाबाच्या पवित्र उगडासाक

# खंयचे कडेन कांय ना

...बे एके बे, बे दुणे चार, बे त्रीक...

श्याः ! सकाळफुडे परवडशी लायल्या. बेठो उठोवन घालो ना म्हाका ?

" आरे, मोल्यान म्हणात रे ! "

दादा आनी तांकां मोल्यान म्हणूंक लायता. कर्म म्हजें ! कितें मेळपाक आयलां हांकां परवड म्हणून ? नशिबांतले गिरे तरी मेजपाक समजल्यार पुरो. दादा आनी मार लग्नांत वाजंत्र्यांक फर्मायिल्लेवरी आडुता—" मोल्यान म्हणात रे !—" न्हिदूंक म्हुण दिनात पाड पडिल्लीं.

" आवय, च्या जाली ? "

" उठलो दिसता बेकारशेट ! " दादा हिणसायता.

" जाल्या पुता, घाल ताळ्यार—"

" दी. " म्हाणायेक म्हजे कुले तेंकतात.

" पापया, तोंड तरी धूय. मातशी शेणी ना जाल्यार पावडर तरी लाय त्या दांतांक—" दादालें उलोवप.

" आसूं. किडटकीर काडून उडोंवचे एकदम. "

थोमणो माल्लेबगर रावं नज. दादा इतलीं वर्सां घांसत आयला. तरी पांच दाडयो आनी तीन दांत हुमटावन काडल्यात. अजनूय मदींमदीं बोब मारीत आसता उसळटात म्हुण. बेठे दुडू होगडायले त्या पिठयां–पावडरिचेर.

" च्याक दूद ना गे ? "

" जोड पयलीं मागीर—"

" आसूं, आसूं, च्या म्हाका निखटीच बरी लागता. "

" कोल्याक खंय......" दादाल्या तोंडा–तांबयो वाजता.

बाबुल्याली परवड ' वीस एके 'चेर पावल्या.

" परवड मागीर. विचारतां तें पयलीं सांगात. बे दुणे ? "

" चार. "

" तीन च्योक ? "

" बारा. "

" णवार पूज्य ? "

" णव्वद. "

" सोळा त्रीक ? "

" अस्टेचाळीस. "

जायत. " बारा शुन्यें ? "

" ....... ! "

शेणलीं मूं ? परवड शिकतात खंय.

" उंडे हाडले ? " दादा विचारता आवयक. पुण तें म्हाकाच आसता.

" पोतीच मेळना जाल्यार हांव—" हांव.

" कागदाक बांदून हाड. "

हो पळय च्यावे दुकानार मास्तर आसा.

" पदेर, उंडे बांद रे. "

" पोती दी. "

" कागदांत घाल रे. "

" कागद हाड. "

" जाणवाय मरे ही. "

" कागद उंड्यांपरस म्हारग. "

" बरें–बरें ! तशेंच व्हरीन हांव. काडून दवर. हे घे आठ आणे. "

शाण्याल्या च्यावे दुकानार मास्तर च्या पिता.

" एक सांग मास्तर ? भुरगीं घराकडेन परवड म्हणटात. वाज हाडलो सामको. सोळा त्रीक सांगतात. बारा शुन्यें कळना. तुमीं सांगशात ? "

" मातसो थांब हां. हांव हंयसर च्याव पियेतां तो दिश्टी पडना नाय ? "

" बरें रावतां. तूं पी. नवशा, तूं हांगा बस. तेस्तिमून्य. "

" तेका काय समजतय. अक्षरशत्रू त्यो. "

" जावं. तुजेम्हजेपरस बरो. शिकून कितें बरें जालां ? "

" बं ऽ रें ! आतां विचार काय विचारुंचां तां. "

" लाब, दोन ते धा म्हण. "

" लाब, दोन, तीन, चार, पांच, स, सात, आठ, णव, धा. .'

" हें तुवें म्हळां तें मराठी कांय कोंकणी ? "

" कोंक–ना ना–मरा–ना ना. कोंकणी–मराठी असलो वाद आमकां लागना नाय—"

" बऽरें. अेकार अेक ? "

" अिकरा. "

" अेकवीस अेके ? "

" एकवीस. "

" पावकी कळटा ?"

" हें कांय विचारुंचा ! "

" म्हण. "

" अेक पाव पाव, बे पाव—"

" तशी नाका. ती भुरग्यांनीं म्हणप. "

" मगीर ? "

" अेक्यांयशीं पाव ? "

" अेक्यांयशीं पाव ? बरें ! अेक्यांयशीं पाव–सव्वावीस, ब्यांयशीं पाव–"

" पुरो, निमाणें विचारतां. हांव सांगतां पळय तांतूंत अेक पाव मेळय. अठ्यांयशीं अदीक अेक पाव ? "

" सव्वाअठ्यांयशीं. "

" अदीक पाव ? "

" साडेअठ्यांयशीं. "

" अदीक अेक पाव ? "

" पावणे अेकोणणव्वद. "

" अदीक पाव ? "

" णवद. "

" चूऽक. "

" आरे, आरे, वयतोस कांय ? चूक तरी सांग ? "
" अेकोणणव्वद. "
" पदेर उंडे दी. "
" घे. "
" कितले उणे आसात ? "
" पांच आहाय. "
" पांच आसात मरे ? मागीर सारके आसात. उणे आसात कितें ? "
नायजाल्ल्यार हे दिसूच असले. शिकून सगले अन्नाडी.
दारांत पावल्यार—
" वरभर जालें उंडे हाडूंक गेल्यार. मेलो ना मूं वाटेर ? " दादा.
" थुमेकाळ. " आवय.
भितर सरून म्हणटां, " हाडले उंडे. घाल ताळ्यार. "
लेमेलेमे करून वेळ वयर सरता.
दादा कामार वता.
" आरे, रेशन हाड. "
" पोतयो दी. "
वचून पळयल्यार सोसायटी बंद.
" किते जालें. ? "
" दिवाळें. "
आवय म्हणटा, ' सोसायटी बंद जाल्यार उपाशीं रावतलीं ? पसऱ्यार वच. '
नुसत्याचीं पाटीं माथ्यार घेवन खारवीण धांवता.
" कितें गे तें ? "
" बांगडुल्यो बाबा ! दींव ? "
" कशो ? "
" चार आण्याक बारा. "
" सवाय रुपयाक कितल्यो ? "
खारवीण रावनासतना वता. कोंत कळना दिसता.
पसरकार विचारता, " कितें जाय ? "

" अर्द कील साकर जाय. "

" साकर ना. "

" पसऱ्यार साकर ना ? अजाप ! "

" ना म्हळ्यार काबार जाली. "

" काबार जाल्यार आनीक हाडपाची. "

" हाडपाची खरी ! पुण उलोवन उपकरना. दुड्डू जाय. हालिंचे दिसूच फाल्स. वेपार काबार जाता. दुड्डू मात दिश्टीक पडनात. "

पसरकारालेंय गणीत चुकता तर !

हाऽऽउ करून दुसऱ्या पसऱ्यारसावन साकर व्हरून दिल्यार आवय म्हणटा, आतां नुसतें हाड.

" बांगडुल्यो कशो दिल्यात गे ? "

" बांगडुल्यो काबार. "

इतल्यान येदोळची खारवीण म्हाका पळोवन ताळयो मारून आपयता.

" हे चय, कळवे आहाय. सवाय रुपय दी. "

मुठिंतले चार आणे घट्ट धरून हांव फाट करतां आनी चलशाक लागतां.

नवसो मेळटा.

" तुयेन त्या मास्तराक मात फेल करून उडयलो. 'णव्वद' म्हणूंक लागलो. काऽय ? "

नवशाक वाटेक लावन हांव बद्द बासुल्या शापार पावतां.

" कितें रे ? "

" चार आणे लाय. "

" नंबर ? "

" णव्वद "

" णव-झेर ? "

" णव-झेर. "

" आज 'क्लोज' नाका ? "

" 'क्लोज' न्हीं. डब्बल. णव-झेर. "

बाबुल्यानूय णवार पूज्य णव्वद म्हणिल्लें. आज म्हगेलें गणीत चुकपार ना.

" हाडलें रे नुसतें ? "

" नुसतें काबार. "

" चार आणे दी तर ! "

" तुका याद आसा म्हजेकडेन दिल्ले ? हांगाच उल्लेशे दिसता. "

" कांय बासनाका. तुवें व्हेल्लेच. "

" तशें जाल्यार शेणले ते. जावं. शेणल्यार फाल्यां देव ( नंबर ९० ) दितलो. "

दनपारां मामा येता. आवयलो भाव म्हुण मामा म्हणप. उपदेश करपांत खांपो. आजूय तेंच.

" आरे कितेंय काम कर. नोकरी कर. "

" करतां. पुण आसा खंय ? "

" हें रे बाबा कितें ? काम करपी आसल्यार खंयूय नोकरी मेळटा. "

" ती फुकेसवायची. पगारा-नोकरेचें उलय. "

" तेंच उलयतां हांव. आतां इतलीं मिनां चलतात. नवे कारखाने-धंदे वयर सरतात. आनी तुका नोकरी मेळना हाजेर विस्वास बसत कोणाचो ? "

" आयक, मामा. सोसायटी आसा रेशन मेळना. बसता विस्वास ? पसरो आसा साकर काबार, बारांक गेल्यार नुसतें काबार. तसोच आसां हांव बेकार. कोणाचो बसत विस्वास ? "

मामाल्या उकत्या जाल्ल्या तोडांत वचपी मुसाक आमडून हांव बल्कांवाचेर वचून आड पडटां.

जेवतां. परतून आड पडटां.

सांजेवेळा शेजाऱ्यालो पेपर हाडून ' शुभ ' आंकडो पळयतां. कालचें गणीत चुकलां. जाणांऽ आशिल्लों हांव. चुकूं. कालचें चुकलां हाजोच अर्थ आयचें बराबर आसतलें. आसुंकच जाय.

वेळ वचना.

कविता करचीशें दिसता.

कागद आसा. पेन मेळना.

सोदल्यार पेन मेळटा. शाय काबार.

शेजाऱ्यालें पेन उरणें हाडटां.

येवजितां. सुचता.

“ पसरकाराली साकर काबार
पसरकार जाला बेकार
सोसायटींत रेशन ना
खंयचेकडेन कांय ना... ”

पेनच बरवना.

घात.

जल्माक येवचेपयलींच कवितेची वाट.

‘ लाब, दोऽन, तीन, चाऽर—’

आमोरेवयली परवड सुरू.

“ रावात. परवड मागीर. विचारतां तें पयलीं सांगात. णवार पूज्य ? ”

“ पंचाण्णव. ”

धप्प.

“ घात. णव्वद म्हण पोरा. म्हण. चुकतलो पर्थून ! ” धोलार बडी पडची तशें थापट पडटा बाबुल्याचे फाटीर.

* * *

# सदानंद

" टिण...टिणीन...टिण...टिणीन..."

पेद्रो घांट वाजयत येता. दोन दांगां घालून सदानंद फुडें सरता. मार्गावयल्यान वतल्या पेद्याक हटकिता.

" आज कोण लवंडलो रे ? "

तागेलो प्रस्न सोंपचे आदींच पेद्रो जाप दिता, ' लांबेलो पाशेक... '

" मेलो ? बरो गेलो ! आपणांइतलो लांब कोण ना म्हुण शापतां सांगतालो... "

" बरो गेलो ? कितें उलोयता रे ? तीग चेडवां, दोग चेडे तेगेर...पिराय पोस्तीस... उलयतउलयत पेद्रो फुडें वता.

' पस्तीस ! म्हज्याकूय खूब जाण्टो ! ...' सदानंद कोंत करता. पंचवीस आनी धा पस्तीस....

तीग चेडवां...दोग चेडे...रडटात आसतलीं. फाल्यां एकादरो हांव मरत जाल्यार आमगेरूय रडटलीं...आवय-दादा–भावां–भयणां... पाशेकालें मडें तरी पळोवन येवया म्हुण सदानंद कुन्यार वचूंक फुडें सरता.

स्टेशनार गाडी थांबल्या. भिकूशेट ताकतिकेन येता पळे कसो ! पुडग्याचो कासाटो सांबाळीत...गाडी तर चुकता. धांवूंक तर लज दिसता. स्टेशनाच्या दरवट्याकुशीन उबो रावन सदानंद पळयता. भिकूशेटीली ताकतीक पळोवन सदानंदाल्या पडिल्ल्या पोल्यांचेर खळी पड्टा. गाडी सुटल्यार पुरो अशें ताका दिसता.

भिकूशेट लागीं पावता. गार्ड पांचवो बावटो दाखयता. भिकूशेट स्टेशना-भितर सरता. सरतासरतनाच बोल्सांतले दुड्ड भायर काडटा. बुकींग ऑफिसाच्या

जनेलाचे जाळयेंतल्यान भितर पळयत बुराखांतल्यान पयशे भितर धुळकटा.

"फिर्र्ऽर्र्ऽऽऽ !" गार्ड पिल्लूक मारता.

"एक मडगांव, सगली" तिकेट काडिनासतना गाडयेर चडपाचें धाडस भिकूशेटींत नासता.

'खट् खट्ट' तिकेटिचेर तारीख पडटा. आनी 'झुऽक झूक झूक' करून गाडी सुट्टा.

परिक्षे पेपराच्या संतल्या सय प्रस्नांचीं उत्तरां बरोवन जालेबराब्बर घांट जातकीर विद्यार्थ्याक जी धादोसकाय भोगता तें समाधान भिकूशेटीक तिकेट बिकेट काडून जातकीर गाडी चुकिल्ली पळोवन सदानंदाक मेळटा.

भिकूशेटीलें पडिल्लें तोंड पळयत रावचेशें ताका दिसता. संवसारांतल्या प्रत्येक मनशाचें तोंड जेन्ना पडिल्लें दिश्टीक पड्टलें तेन्ना सदानंदा इतलो खोशी कोणूच जावचो ना.

सदानंद फुडें सरता.

दामू पसरकारालो चलो दिलीप मुंबय शिकता कॉलेजांत. काल्लच आयला खंय मुंबय सावन. वाटेरूच मेळटा. सदानंद हरशीं ताका दाव्या दोळयान लेगीत पळयना. पुण तोच ताका हटकिता.... '

"एऽ सदा, कितें, साऽ मको जाला मरे !"

"हाका आनी केन्नाच्यान म्हजी काकुळट" म्हुण सदानंद हांसता. मनांतल्या मनांत बी न्हय व्हडाव्हडान—

"हांसता सो रे !"

सदानंद जाप दिनासतना फुडें सरता. दिलिपाक जाप लेगीत दिनासतना ताका उणाकपण दिवपाची संद सदानंद कशी सोडीत ? 'साऽमको जाला खंय' जसो 'बरो ना' म्हुण कळ्ळयार हो म्हाका मुंबय व्हरून बरो करून हाड्टलो आसलो.

तळ्याकडेन पावता म्हळ्यार पांय वळटात. झक् माल्ली. मडें आनी कितें पळयतलों !

सदानंद फाटीं सरता. हेडत हेडत खोंपीर येता. भायर बारीक बारीक पावस शेनता. खोंपांत सगळीं शेळ जाल्या. काल ओस्पिसेच्या व्हडल्या दोतोरान सांगिल्लें, 'ताका थंडांत बी भोंवडावं नाकात...' आनी दादान मान हालयल्ली. तो म्हुण

कितें करतलो ! शेळ नाशिल्ली सुवात हे खोपींत खंय आसतली ? शेळेंत बसप, शेळेंत उठप, शेळेंत जेवप, शेळेंत न्हिदप...सगली इतली शेळ !!

सदानंदाक पळोवन आवयलें काळींज सकयलवयर जाता. आयदनां घांसपाचें काम अर्दकुटेंच सोडून ती गोबरा हात धुता आनी ओले हात कापडा पदरांक पुशीत बेगिबेगीन भितर सरता. तिगेली ती ताकतीक पळयतना सदानंदाक बरेंऽऽ दिसता. सदानंदाक शिळोणी घालूंक कळना पुण तो तोंडाचो बोंचो करून शुशऽ शुश्ऽ करीत शिळोणी घालपाचो यत्न करता.

दोतोराले कालचे सांगणेवयल्यान शेळ बादची न्हय म्हुण सदानंदाक घाल्ल्या 'इस्पेसियाल' हांतरुणाचेर दादा लंवडल्लो आसता. सदानंदाचो हुस्को करतां करतां दादाक सुस्त न्हीद लागिल्ली आसता आनी आतां सकाळची णव वरां जाल्लीं तरूय तो न्हिदून आसता.

"बस, बाबा ! च्याव घे.' आवय म्हणटा आनी रांदनीचेर आदन चडयता.

सदानंद सदांमशेन काशीर बसता. केन्नाच चड उलोवप ना हो आपणालो नेम कुशीक दवरून म्हणटा, आवय, कुऱ्यार रावता तो लांबेलो पाशेक जाणा मगे ?"

'हय रे बाबा, कित्याक ?'

'खंवसलो.'

'कितें ! भायर पडलो ?' ती अजापून म्हणटा, 'काकुळट बाबडे बायलेची आनी भुरग्यांची.'

आवय चुरचुरता तें पळोवन सदानंदाक कॉमीक दिसता. तो मुमुरखो हांसता. आवय उलयता, '......उबंत पडलीं बाबडीं, तोच एक जोडकार.. आतां बायलेभुरग्यांक कोण !..."

'हय तर ! समज फाल्यां हांव लंवडलों जाल्यार तुमकां कांय दिसपाक ना. जोडकार दादा न्हीं...'

तागेलीं तीं उतरां आयकतना आवयले दोळे कपलांत वतातशे दिसतात. तिका हरशीं असलें आयकुपाची संवंय आसता. पुण तिका 'नेरवांचें' आशिल्ल्यान तिज्यान असलें अभद्र आयकूं नज जाता. ती म्हणटा, 'पापया, अभद्र तितलें उलयतलो तूं ! सोड रे ती संवय...' तिगेलीं तोंडां पळोवपांत सदानंद गुल्ल जाता.

इतले म्हणसर दादाक जाग येता. तो उठ्टा आनी दारा कुशिनचो तांबयो घेवन शेता धडेर वता.

आवयक येवजून येवजून येता. पुतान अशें कित्याक म्हणचें! तिगेलें नेरवांचें चाळवता. मोटया कश्टान च्या गाळनासतना चिक्रांत ओतून ती सदानंदाल्या हातांत दिता आनी दादा उठिल्लो त्याच हांतरुणाचेर घालून घेता. खिणाभितर तिगेली परवण सुरू जाता.

चिक्रांतली हुनहुनीत च्या अिल्ली अिल्ली ताळ्यांत देंवयतना सदानंद पळयता. सुर्वेक ल्हवल्हवू परवंतां परवंतां आवयलें चड जाता. रातीकडेन बुकलोय असोच रड्टा.

च्याचें चिक्र काशिचे कुशीन दवरून फाटल्या मल्लाक फाट तेंकोवन सदानंद लोडेता. मसंगा सांगाभशेन हात आयसपयस पातळावन एक व्हड जांबय काड्टा. चिटक्या मिटक्या बोटांनी माथें खरपिता. ल्हानपणासावन सदानंद हो असोच. किडकिडीत बडी कशें आंग. सदांकाळ वायटकार. घरची दुर्बळकाय आनी दुयेंस हांकां लागून सदानंदाक सगले हिणसायत आयल्यात. आनी तांतुतल्यान निर्माण जाल्ल्या तिव्र न्यूनगंडाक लागून सदानंद आयज हो असो चलता. संवसारांत कोणाक लेखप ना, बरें म्हुण जें कितें आसा ताजो दुस्वास करप, मर्णाक, वायटाक भिवप म्हुण ना..

तांबयो दाराकुशीन दवरून तेच हात आंगोस्तराक पुशीत दादा भितर सरता. आवयलें नेरवांचें पळोवन तो समजता—सदानंदान कितेंय पुण म्हळें आसतलें. आदनांतली न्हिविल्ली च्या तो कोपांत ओतनासतना तशीच वयर धरून ताळ्यांत रकयता. तागेल्या गळ्याचें आदांवाचें फळ वयरसकयल जाता. सदानंदाक तें पळोवन बेठीच कॉमीकशी दिसता.

न्हेशिल्लेंच आंगोस्तर फाफड्न खांद्यार खोमीस लकोवन दादा भोंवडेक वचूंक भायर सरता. कातर, वांखोर दवरिल्लें हडप खाक्यांत मारता आनी पांयांत जोतें घालता. सदानंद घरा उल्लयार बायलेक त्रास जातलोशें ताका दिसता.

'चल रे, यो म्हज्या वांगडा.'

सदानंद मोन्यानी उठून दादाफाटल्यान चलपाक लागता.

आंगडींत शाणेबाब मेळ्टा. बामण म्हातारो जालो तरी कुचित्रीपणांत

ताण ! शाणेबाब दादाक हटकिता. चकाटां मारपाक कोण मेळ्ळो ना जातलो ताका आयज.

‘ कशीं चल्लयांत तुगेलीं खाडां बोडां ? ’ कुचित्रीपणांनीं उलोवपाची तागेली संवंय सदानंदाक भोव मानवता. तो लक्ष दिवन आयकता.

‘ चल्लां सुमाराचेंच ! ’ दादा उणेंपण घेवन जाप दिता. बामणान खबर घेवप म्हळ्यार कितें !

‘ आतां तुका मेळ्ळ्यार जाण्टयांल्योच तकल्यो. आतांच्या भुरग्यांल्यो तकल्यो तुका मेळटात ? ’

‘ आतांचे भुरगे ते ! तेंकां भीस दवरूंक जायी नाजाल्यार आमच्या तेंपार...’ दादालो हो विशय खूब आवडिचो. तो वरभर पुण उलयतलो आशिल्लो, पुण शाणेबाब ताका तोड्टा.

‘ तें आसूं रे ! काल तूं दोतोरा म्हज्यांत गेल्लो खंय ! ’ सदानंदाकडेन कृत्रीम काकुळटेन पळयत शाणेबाब विचारता, ‘ कितें म्हणटा दोतोर ? ’

“ कांय ना...बेठेंऽ....’ दादा कितेंय तरी सांगूंक सोदता. म्हणटसर सदानंद तोंड उगड्टा.

‘ टी. बी. ’

अकस्मात कोणय आंगार सुरी उबारिल्ले भशेन शाणेबाब आंग काड्टा. नकळटना एक पावल फाटीं घेता.

‘ आयकात शाणेबाब ’...दादा घुसपता आनी शाणेबाबाक ‘ तशें न्हीं, अशें ’ करपाक सोदता. पुण शाणेबाब साप्प काचाबूल जाला,...‘ आरे, ताका पयस दवरात...’ सामको तोंडाकडे येवन सांगता पळय कसो–‘ टी. बी. ’ म्हुण...अवचिन्न !. शाणेबाबालीं तोंडां पळोवन सदानंद व्हडल्यान हांसता.

केंच्च करून एक सुणें आंगार येता. शाणेबाब उडकी मारून शंभूशेटील्या शापाचो आलाशिरो घेता.

दादा सदानंदाचे कुशीन लिपूंक सोदता. पुण सुणें आपणाले वाटेन वचूंक लागता. सदानंद पळयता कोलूक तें !

दादा सदानंदाचो हात धरून ओड्टा आनी चलपाक लागता. सदानंद फाटल्यान पळयत पळयत चलता–एक हात कालसांवांच्या बोल्सांत घालून.

दादाचे फाटसून गांवभर हेडप सदानंदाच्या सभावाक मानवना. स्टेशना

कडेन पावतकीर तो उबो रावता. दादाक सांगतां ‘ हांव रावतां हांगाच. तूं वच !

‘ बरें ! अितले बेगीन घराकडेन मात वचूं नाका. ’ दादा कपलाक मिरयो घालून खाक्यांतलें पेटूल सांबाळीत आपले वाटेन चमकूं लागता.

स्टेशनार गाडी आयल्या. दादान सांगलां घराकडेन अितले बेगीन वचूं नाका.

‘ पिर्रर्ऽ......’ गार्ड बावटो हालयता.

सदानंद फुडें सरता. खंयच्या तरी डब्यांत भितर सरता. सेकंड क्लास सो दिसता.

गाडी सुट्टा. सदानंद दाराकडेन उबो आसता. म्हऱ्यांतलो एक तरनाटो कपलाक मिरी घालून नाकाकडेन लेंस धरता आनी तिडकीन सदानंदाकडेन पळयत बांकार वचून बसता.

सदानंदाली नदर डबोभर हेड्टा. तें पळय फुलामेन. मार किटकिट्टा सामकें ! हातकापें पोल्क, घट्ट साय, पांयांत खोंटेची जोतीं आनी ओंठांक तांबडें. पळयतां पळयतां सदानंदाक खातकुतल्यो जातात.

‘ तिकेट ! ’ निळो कोट घाल्लो एक दादलो ताजेमुखार उबो आसता. माथ्यावयलें चेपें कितें झेतान दवल्लां तरी !

‘ तिकेट दाखय. ’ तिकेट चेकर विचारता.

‘ तिकेट ना ’ तिकेट चेकराक पिशांत काडीत सदानंद हांसता.

सदानंदालो हांसो सोसूं नज जावन तिकेट चेकर मोख्यान तापता, ‘ तिकेट ना म्हणचे ? ही गाडी कितें तुगेल्या बापायली हय रे ?.

डब्यांतले सगले तितले हांसतात. आरे, हें फुलामेनूय हांसता मरे ! सदानंदय हांसत रावता.

फुलासेना म्हऱ्यांतलो तरनाटो आपल्या कानसुलाकडेन बोट घुंवडावन चेकराक सुचयता.

“ राव. हागेलें पिशें अशें निवळपार ना. सेकंड क्लासांत चडपाक बरें जुस्त कळटां आं !...’

गाडी मडगांवां थांवलेबराब्बर चेकर सदानंदाक घेवन स्टेशनमास्तराफुड्यांत वता.

फुलामेन किटकिटत किटकिटत सदानंदामुखावयल्यान भायर सरून वता.

स्टेशनमास्तर चेकरालें आयकून घेता. सदानंदाक मात्सो दबकायता. पोर्टरांक आपोवन तागेलीं बोल्सां सांसपिता. दोन विडये पोंतेरां! पोर्टर तीं शेंवटून उडयता. मास्तर सदानंदाक 'व्होसीमोर' म्हुण धांवडायता. हांसत सदानंद तीं पोंतेरां एकठांय करता. आनी स्टेशनांतल्यान भायर सरता. ताका भिकूशेटीची याद येता—पापयाक तिकेट काडून बिडून गाडी चुकिल्ली.

दरवस्याकडल्यान सरून असोऽ खान्याबांदार पासय मारता. मडगांवां गेल्यार खान्याबांदार आनी दरवस्याकुशीन पासयो माल्लेबगर सदानंद केन्नाच परतना.

मडगांवभर हेडून स्टेशनार येता. गाडयेक कळाव आसता. संडासाचे कुशीन गडगडो चल्ता. सदानंदाले पाय ताका थंय व्हरतात. लोक पयशे लायतात. चडशा लोकांले पयशे वतात. मागीर तांगेलीं पडिल्लीं तोंडां पळोवपाक मजा दिसता. कांय जाण तर साप्प पोशार जातात, आनी रितीं जाल्लीं बोल्सां सांसपीत जड पांयान आनी भकास तोंडान घरा परततात. सदानंद गुल्ल जाता.

स्टेशनाचेर प्लॅटफॉर्माक तेंकून मालगाडी थांबिल्ली असता. पॅसेंजर गाडी पेले वटेनच्या रुळार थांबता. सदानंद एक पासय मारता. बेठीच.

दुसरे कलासिच्या डब्याच्या हॅंडलांक धरून फुलामेन वयर चडपाचो यत्न करता. गाडी प्लॅटफॉर्माक तेंकूंक नाशिल्ल्यान जमनीर सावन फुटबोर्डार पांय दवरप ताका जमना. तायट व्हिस्तीद म्हारग पड्टा. सदानंद पळयत रावता. लोकूय पळयतात—कांय कुचित्रीपणांनी, काय हपापिल्या नदरांनी.

हॅंडलांचेर भार घालून उजवो पांय वांकडो करुनूय वयर फुटबोर्डार दवरप फुलामेनाक कशेंच जमनाशें दिसता. तें अगतिक जावन हेवटेन तेवटेन पळयता. खिणभर ताजे दोळे सदानंदाचेर थीर जातात. सदानंद व्हडल्यान हांसता—येदोळ चेकरान बापूय वयर काडल्यार किटकिटलें तें हेंच न्हीं तर!

गार्ड बावटो हालयता...... 'पिर्रर्रऽ!'

सदानंदाक दिसता फुलामेनाच्या खांक्यांनी हात घालून ताका वयर उबारचें! काळजांत खातखुतल्यो जाता. शीः!

कूऽक!

झुक्! झुक्!!

फुलामेन निश्चेंवन हात सोड्टा. सदानंद बेगिबेगीन डब्यांत भितर सरता. फाटल्यान पळयता. फुलामेन जड पांयांनी परतता—फीट व्हिस्तीद लजेक म्हारग जाला. सदानंद खुश्शाल जाता.

गाडी दरवट्याकडेन पावता. सदानंद तकली हातभर भायर घालून पळयता. घाटणिल्यो खोपी फाटीं पडटात. त्यो दिश्टीक पडना जायसर सदानंद पाती हालयनासतना पळयता.

सदानंद नीट्ट घरा येवपाक येता. वाटेर पुरसांव मेळटा. पाद्री मुखार, तांचे फाटल्यान कितलेशेच लोक मदीं कांय जाण मर्णाची कास धरून चल्लयात. लांबेलो पाशेक चल्लो. सदानंद पळयता. पाशेकालीं बायलभुरगीं दिश्टीक पडत काय ! रडटात आसतलीं 'जोडकार' गेलो म्हुण.

ताका येदोळ आवयन म्हणिल्लें तें येवजता. ती म्हणटाली, पाशेक जोडकार म्हुण तो मरूंक जायनासलो........ह्यांव काय जोडकार न्हीं .........आनी जोड्टलो म्हळ्यारूय म्हज्यान कितें करूंक जाता ?......दादाभशेन वांखोर आनी कातर हातांत घेवप काय म्हाका जमपाचें ना. तशें पळयल्यार कसलें काम म्हज्यान जायत...? आनी येवजिता आसतनाच सदानंदाल्या तोंडार हांसो फुलता.... ...पेदो ! ताका दिसता आपणें पेदो जावंचें. कोणूय मेल्यार गांवभर भोंवन लोकांक सांगूक मेळटलें......' टिण्–टिणीन.........टिण् टिणीन......'

* * *

# जीण अशीच सोंपचेली........

आशाढ म्हयनो. अजून पावस लागूंक ना. मळब निळेंच आसा. धर्तरी तानेन तानेल्या. मांडवीचें उदक आटत आयलां. कितलीं शेतां, कितलीं भाटां ही मांडवी पोसता ! कितलीं कुळागरां हिच्या उदकार ल्हानाचीं व्हड जातात! कितलीं मनशां हिचें उदक पियेत जियेतात ! आनी आयज हीच मांडवी बारीक जोराची वायटकान्न कशी दिशिदिशीं आंग झडयता !

पावस ना. मांडवी कश्टता. कोणाखातीर ? आपणाखातीर ? न्हय. ती खेद करता—हीं शेतां, हीं भाटां, हीं कुळागरां, हीं मनशां, उदक नासून कशीं रावतलीं ? हांकां सगल्यांक जितीं दवरप, पांचवीं दवरप, उमेदीर दवरप, हें आपणालें कर्तव्य, आपणाली जापसालदारकी ! पुण आयज म्हजें उदक आटत आसा. पावसूय लागों आसासो दिसना ! कशें जातलें ?

पणज खरखरता. पणज म्हळ्यार गोंयची राजधानी. एका काळार हांगा राजेम्हाराजे गोंयचेर शेक चलयताले. एका तेंपार हे पणजेची गिरेस्तकाय मांडवीवरीच व्हांवताली. हे पणजेच्या रस्त्यांचेर वखदाकलेगीत एकूय भिकारी मेळनासलो. तीच ही पणज ! पुण आयज ?—तें वैभव आयज ना. ते राजे आयज नात. आयज दिश्टी पडटात तीं घरां—दोन माळयांचीं, तीन माळयांचीं, चार माळयांचीं, पांच माळयांचीं ! मोटारी, बशी, कारेंरी ! तांतुंतल्यान भोंवतात चोर, साव, गिरेस्त आनी दुर्बळ !—तेन्नाची ती गिरेस्तकाय, सवस्तकाय, लोक विसल्ल्यात. पुण मांडवी तें विसल्ली ना. तें ती विसरची ना. तें गीत ती गायतली, आळयतली आनी गायत रावतली—जल्मभर !

पावस नासून पणज पेटल्या. आंगार खूब वस्ती घाल्ली गिरेस्त वायटकान्न कशी दिसता. असल्या ह्या वेळार मांडवी जर आटली तर कितें दुर्दशा जातली ह्या

शाराची ! पुण तें येवजुपाची गरजूच पडना. मांडवी पणजेक विकून दिवची ना. पणजेची लज ती राखता. जाता नज करून ती पणजे येता आनी व्हांवता, नेटान व्हांवता, पात्र भरून व्हांवता आनी पणजेक शांत करता.

मांडवी व्हांवता—लोकांखातीर, भाटां खातीर, शेतांखातीर, कुळागरांखातीर, गोंयांखातीर...

हजार गांव भोंवन मांडवी पणजे येता आनी पुरो जावन गळिल्लेवरी आपणाक अरबी समुद्राचे सुवादीन करता. समुद्र हजार ल्हारांनी तिका वेंगेंत घेता. नवशार युवतिच्या नेटान मांडवी रत्नाकराचे वेंगेंत धादोस जावना रिगता. एका महान विभुतिचे महान जिणेची सांगता पणजे शाराचे कुशींत जाता.

वेळ माथ्यार आयला. दनपार तापल्या. वारो व्हांवता—पुण तो लेगीत हून हून—

भरती !—

तें पळय एक ल्हार उमळशिकेन फुडें येता—मांडवीच्या झोताक वेंग मारपाक. उदकाक अदिकूच नेट येता. मांडवी धावता. सुदबुद विसरता. ल्हार ऊंच वता आनी—घस्सायंऽच—मांडवी आनी समुद्र हांचें मिलन जाता—एकजीव जातात—उदकूच उदक.

घस्स करून उदक उसळटा. रुप्या भुसो फापुडलेलेभशेन धवे तुशार हांसतात.

तृतिचें ल्हार सगल्या इतल्याक पातळटा—

इतल्यांत सुर्याची कांय किर्णां ते तुशार वयलेवयर जिखतात—ते तुशार तीं चिंवतात आनी—

तुशारांचें अस्तित्व ना जाता. त्या जाग्यार दिश्टी पडटा हय—न्हयशी वाफ—

वाफ !—मांडवी आनी समुद्र हांच्या पवित्र मिलनान वयर उसळ्ळेल्या तुशारांची वाफ ! हय —न्हयशी दिश्टी पडटा—वाऱ्यापरस ल्हव—ल्हवुल्हवू वयर सरता—वयर वता—आनीक वयर—कापूस फापुडलेलेवरी दिसता.

तें पळय एक धवें कूप आकार घेता. निळ्यानिळ्या मळबांत एकूच कूप ! धर्तरेक आशेचो किरण दिश्टी पडटा—मांडवी धादोसकायेचो सुसकारो सोडटा—

वेळ अस्तमतेक लकला. थंड वारो व्हांवता. आंग शिरशिरता. धवोफुल्ल

सोंसो करीं तें कूप आळस दिवन कूस परतिता. इतल्यांत सुर्याचीं भांगरा–किर्णी ताज्या दोळ्यांर पडटात. सोरो-बेब्रदो सुद्दीर येवन दोळे उकते करता तशें तें दोळे उगडटा. सुर्याचो तांबडोच गुळो ताजे नदरेक पडटा. संध्येन शिंपडायिल्ले तरेकतरेचे रंग ताजे नदरेक पडटात. सुर्याचीं भांगरा–किर्णी दर्यांत पडून परततात तीं ताका दिसतात.

अजापभरीत जावन धवें कूप पळयता—तोखेता. हो संवसार कितलो सोबीत ! कितलो सुंदर ! हीं भांगरा–किर्णी कशीं खेळटात पळय म्हजेकडेन ! हांणीच उठयलें म्हाका. ते पळय तरेकतरांचें रंग उले मारून आपयतात म्हाका—म्हाकाचशे आपयतात ?

नदर भोंवडावन धवें कूप पळयता. आपूण सोडल्यार आनी कोणूच ना ह्या मळबांत—

नदर भोंवडायलेबराबर पयस आशिल्लें इंद्रधनुश्य ताका दिसता. "आब्बा ! कितलें सोबीत !"

धव्या कुपाक एक दुबाव येता. "ह्या मळबांत म्हजेबगर कोणूच ना. मागीर सप्तरंगांनी सजयल्लें तें दार कोणाखातीर ? येवजिता तितलें ताका चड्च दिसूंक लागता कि हें म्हळ्यार म्हाकाच येवकार दिवपाक सजयल्लें दार ? थंय वचचें वा ना वचचें हें यवजणेंत धवें कूप पडटा.

"ती पळय उदेन्त ! तीवूय हांसता म्हजेकडेन पळोवन." धवें कूप मुमुरखेंच हांसता. कितलें सोबीत हें जग !

सकयल पळयत जाल्यार कितें सांगचें ? एकेवटेन उदकूच उदक—विशाल समुद्र ! ताका रुप्या–रेंषेची देग ! दुसरेवटेन धर्तरी ! मदींच पांचवी मदींच, तांबडी ! ती पळय एक न्हंय ! मांडवी ! धर्तरेन फाटीर पदर सोडिल्लेवरी दिसता.

धवें कूप खुश्याल जाता. कितलो बरो हो संवसार ! तो पळय वेळ हांसता. अस्तमत आपयता, इंद्रधनुश्य येवकार दिता, पृथ्वी तोखणायता—

तोखेत तोखेत धवें कूप आपणालें आंग पळोवपाक नदर धुंवडायता—सुंदर ! हाचेपरस सुंदर कितें आसूं येता ? गोरें, धवें, नितळ आंग ! गुबगुबीत देह ! आनी चोंयवटेन रुप्याची देग !

धव्या कुपाक दिसता—हांव सुंदर ! हो म्हजो सुंदर देह असोच तगोवंक

जाय. हो संवसार, ह्या संवसारांतली प्रत्येक वस्त म्हाका इतली मानता ! हो संवसार कोणाखातीर ? म्हजेखातीर ! निकतेंच हांव जल्माक आयलां तर म्हाका कितलेंशेंच दिश्टी पडलें, अजून खूब पळोवंचें उल्लां.

वेळाचो तांबडो गुळो घेवन संध्या दर्याआड आपल्या घरा वता.

अस्तमतेवयले रंग खिणाखिणाक कात उडयतात.

सुळूऽक ! वाऱ्याचें एक ल्हार येता. आंग शिरशिरता ! खातकुल्यो जातात ! धव्या कुपाक दिसता—वारो आपणाक खेळयता. म्हणटसर आनीक एक ल्हार येता—आनिकूय एक ! वाऱ्याक नेट येता. धव्या कुपाक घेवन वारो व्हांवता. धवें कूप वाऱ्याचे गाडयेंत बसून नाचत नाचत वता. एका गांवा-वयल्यान दुसऱ्या गांवाचेर ! तें पळय गोंय फाटीं पडलें. ते पळय दोंगर ! बोडके दोंगर ! एक झाड ना, एक पान ना ! काळेकुळकुळीत फातर आनी करपल्लें तण ! शी !

वारो व्हांवत आसा. आमोर सरत येता. काळखाचो शेक चलूंक लागता. गांवांफाटल्यान गांव फाटीं पडटात. दोंगुल्लयो, न्हंयो, शेतां, मळां पळयत धवें कूप वाऱ्यावांगडा धांवता.

रात जाता. सकयल मनीस दिवे पेटयतात. पणटयो, दिवल्यो, लामणदिवे, मेणवाती, पॅट्रोमाक्स, लायटी...

सकयल पळयत धवें कूप वाट सारता—पळोवपांत गुल्ल जाता. इतल्यांत—

झग्ग !

गडगडगड धडाऽऽऽधुड्ऽम !

कितें जालें ! धवें कूप कानदोळे धांपता. कांय वेळान उगडून पळय जाल्यार कितें सांगचें ! मळब कुपांनी गच्च भल्लां. चोंयदिकांनी कुपांच कुपां ! धवीं कुपां, काळीं कुपां, ल्हान कुपां, व्हड कुपां—

हीं इतलीं कुपां हांगा एकठांय जावन करतात कितें ? विचारुंया कोणाकूय—

धवें कूप हेवटेन तेवटेन पळयता. हेर कुपां मस्ती करतात, आपटतात, किंळच्यो मारतात. तेपरस हें एकलेंच उबें आसा ताजे म्हऱ्यांत वता...

एक काळेंकिट्ट कूप पयल्यान उबें आसा. तृप्तिचो खीण लागीं आयिल्लेभशेन तें हांसता—मुग्ध हांसता. दोळे अर्दकुटे उकते आसात. कसल्यातरी आनंदाचे धुंवळेंत तें आसा. ताजो तो काळोकिट्ट रंग ! आनी तें आंग ! शी ! णव

म्हयने भर जाल्ले बायलेभशेन दिसता ! लबलबीत आंग आनी काळो कोळसो कोणाक पळयन दिसतात ?

धवें कूप तोंड वांकडें करून फुडें सरता. त्या अवचिन्नशा काळ्या कुपाकडेन उलोवपाची इत्सा नासुनूयबी ताका विचारता.

" हें हांगा कितें चल्लां ? "

ओडिल्ल्या दोळ्यांनी काळें कूप धव्या कुपाकडेन पळयता. मुमुरखें हांसून म्हणटा—

" आयज आमी मोक्षाक पावचीं आसता. इतले दीस ज्या दिसाची आमी वाट पळयतालीं तो दीस आयज आयला. आयज आमी हे धर्तरेचेर शिंपडटलीं. कितली हापापल्या पळय ती धर्तर ! आयज तिजी इत्सा पूर्ण जातली. " तृप्तिच्या आनंदान काळें कूप उलयता.

" तुमी शिंपडटलीं ? मागीर तुमी तगतलीं कशीं ? "

" तगचां नातूच. आमची जीण ही अशीच सोंपचेली ! आमचे जिणेचें सार्थक ह्या शिंपडपांतूच. " काळें कूप भरिल्ल्या अंतस्कर्णान म्हणटा.

" शिंपडटकीर तुमचें अस्तित्व काबार जातलें. मागीर तुमी ह्या जगांतलो आनंद, ह्या संवसारांतलें सुख कशीं अणभवतलीं ? "

" पापया, आजय आमी जीण सोंपयतलीं, शिंपडटलीं. हे खोशयेन कितलीं पिशीं जाल्यां पळयलां ! हाचेपरस सूख तें कसलें ? "

धवें कूप मनांत हांसता. काळ्या कुपाक तें पिशांतूच काडटा. हय तर ! हो संवसार कितलो सोबीत ! तो वेळ, तो दर्या, ते सप्तरंग ! हें सगलें सोडून वचप ! मागीर तांचो उपेग तो कितें ?

धवें कूप तिरस्कारान त्या काळ्या कुपाक पळयता. काळें कूप आपणालेच तनरेंत आसता. धवें कूप उठून पयल्यान वता. विजूलबाय झगझगता. हेर कुपां शिगमो सोबयतात. उडयो मारतात, नाचतात, आपटतात, पडटात, झडटात...

धव्या कुपाच्यान तें पळोवं नज जाता. कसली ही नश्टबुद्द ! स्वताच नश्ट जावपाची !

शीं खावपाक लागता. पावसाक नेट येता. धवें कूप कुडकुडटा. थंयच्यान पयल्यान वचचेंशें दिसता ताका.

वारो येता. वाऱ्याफाटीर बसून धवें कूप पेल्ल्यान सरता. फाटल्यान पळयता

हेर कुपां झडटात. शिंपडटात. एके तरेची धुंदी–मस्ती चडिल्लेभशेन तीं खोशयेन आत्मसमर्पण करतात. उदकाच्यो पांवळ्यो देंवतात. धर्तरेचेर उदकाचे पाट व्हांवतात. तापिल्ली धर्तर शांत जाता. उदक पिवन धर्तर एक व्हड सुसकारो सोडटा. मातये वास चोंयदिकांनी पातळटा.

हें पळय तें काळें कूप! आत्मसमर्पण करपाक फुडें सरता–पिशाभशेन धांवता–घडघड घुडूडम्! उदकाचे थेंबे हांसत हांसत धर्तरेर पडटात.

धवें कूप पयस पावता. ताका आनिकूय पयस वचचें आसा. जंय आनीक कुपां नासतलीं, जंय तें एकलेंच ह्या जगाचो उपभोग घेवपाक पावतलें थंय!

वाऱ्याबरोबर वतांवतां कूप पयस पावता. लागसार दुसरीं कुपां दिश्टी पडनात. वारो मंद जाता. निळें मळब हांसता. सगलें कशें शांतशांत! गडबड ना! लखलख ना! निळें नितळ मळब! आयल्यापेल्यान खंयूय दोनचार कुपां वाञुरतात तितलींच! आनी हें कितें?

लिकलीक! लिकलीक! नखेत्रां लिकलिकतात! मळबाचे पडवेर असंख्य पणट्यो लायिल्लेभशेन दिसतात. कितलीं सोबीत हीं नखेत्रां! आनी हांसतात पळय कशीं लक्तुबायेन!

एक फावट आपल्या गुबगुबीत आंगाक तोखणायेन पळोवन तें पुनाय त्या नखेत्रांकडेन पळयता. नखेत्रां ताजेकडेन पळोवन दोळे मोडटात. धवें कूप आपणाल्या पुरुशार्थाचेर खुशाल जाता. तेंय बी दोळे मोडीत त्या नखेत्रांकडेन खेळटा. आडव्यो-तिडव्यो लागो मारता. नखेत्रां हांसत रावतात.

लागो मारतां मारतां तें एका पयस आशिल्लया व्हडल्या कुपाम्हऱ्यांत पावता. धवें कूप आपणाले तनरेंत आसता. इतल्यांत ताका तें व्हडलें कूप दिश्टी पडटा. आवयऽस् केदें व्हडलें! दोंगरा येदें कूप! ताजो देह ताकाच जड जालासो दिसता. चाल हतयाची! एक व्हडलो हती, जड आंगान ल्हवुल्हवू भोंवता तशें दिसता! रंगूय विचित्र! गोबरा रंग! शीः! आनी कातुय म्हुण? जरड म्हाताऱ्याच्या आंगाक असंख्य मिरयो पडटकीर काती लोंबतात तशेतरेन दिसता.

बोंचो मोडून धवें कूप पेल्यान सरता. इतल्यांत तें व्हडलें कूप ताका उले मारून विचारता, "तूं खंयसावन आयलां?"

"त्याऽ पोंतार जंय मांडवी न्हंय अरबी समुद्राक मेळटा थंयसावन आयलां हांव."

" थंय पावस चड ? "

" पावस खंयचो ? थंय एक कूप लेगीत ना. "

" मागीर तुजे आवयभुंयेची तान भागोवची सोडून तूं हेवटेनशें पावलें ? "

" म्हाका सगलो संवसार पळोवचो आसा. सगलीं सुखां भोगचीं आसात. बोगीच गोंयचे इल्लेशे भुंयेची तान भागोवन म्हजी जीण कित्याक सोंपोवं ? "

व्हडलें कूप हांसता. सोदा बाटली फुटिल्लेभशेन आवाज येता. हांसोलेगीत विचित्र !

" पापया ! मांडवीच्या पवित्र उदकापसून तुजो जल्म जाला ! तुजी वृत्ती इतली क्षुद्र आसप म्हळ्यार अजापूच ! जावं ! म्हजें सांगणें इतलेंच–हो संवसार, हीं सुखां सगलीं नश्टीं. तांचे फाटीक लागून तुजे जिणेची वाट लायनाका. तुजे जिणेचें सार्थक जातलें जाल्यार तुवें शिंपडून घेवपाक जाय. तुजें उदक पियेवन धर्तर जेन्ना हांसतली तेन्नाच तुजे जिणेचें सार्थक जातलें, तेन्नाच तुका खरो आनंद गावतलो. "

धवें कूप कुचित्रीपणान हांसता, " पुण तो आनंद पळोवपाक आमी उरतलीं खंय ? ' आनंद ' हो मेळ्ळ्यारूच ताजो आनंद ! मरतकीर मेळटलो तो आनंद कसलो ? तेपरस हो मेळटा तो आनंद पयलीं घेवचो. आनी एक सांग ! आमी जर ह्या संवसारांतलो आनंद भोगप न्हय तर कोणें भोगप ? आनी आमीच जर अशी जीण सोंपयली तर जगप तरी कोणाखातीर ? "

" जग हें तुजेचखातीर अशें तुका दिसता ? तूं चुकता. म्हजें उतर लक्षांत दवर. जग हें आमचेखातीर न्हय. आमी ह्या जगापसत. आमी म्हुण जग न्हय, जग म्हुण आमी. आमचेपसून दुसऱ्यांक, धर्तरेक आनी धर्तरेवयल्या लोकांक जर आनंद मेळटा जाल्यार तांचेपसत आमी शिंपडून घेवपाक जाय. ते म्हुण आमी. तांचेपसत आमी. "

व्हडल्या कुपाचें तें शेकानशेक उलोवप आयकून धवें कूप वाजेता. ह्या जाण-टेल्याक ना अक्कल. प्रत्येकान आपणालें जर पळयलें तर दुसऱ्यांचो पालव घेवची गरजूच केन्ना पडची ना. हांव म्हगेलें पळयतां; धर्तरेन आपणालें पळोवचें, लोकांनी लोकांचें पळोवचें. जण एकल्यान जर आपलें पोट आपणें भल्लें तर उपाशीं कोणूच पडचो ना. जण एकलो सुखान रावतलो. हांवें कित्याक लोकां-खातीर रगताचें उदक करचें ? येदें व्हडलें जग आसा—भोगतलोच जाय !

हरशीं म्हुण वयर पळय जाल्यार चंद्रीम आयला मळबाचेर. ताजी कोर मळबाच्या आंबाड्याचेर फाती कशी चकचकता. कितलो सोबीत हो रंगूय म्हुण! उज्यांत घालून निकतेंच काडिलें भांगर कशें दिसता! नाजाल्यार त्या काळ्या कुपाचो रंग! आनी तो व्हडल्या कुपाचो रंग! शी! हाजो उजवाड तरी कितलो सुंदर! भांगराचो पिठो करून सगलेवटेन फापुडलेलेभशेन दिसता. सकयल धर्तर आनी वयर मळब ह्या पिठ्यांत न्हातात, हांवूय न्हातां. धवें कूप खुशालभरीत जाता. चंद्राकडेन खेळचेंशें दिसता ताका. आपणे थंय वचचेपरस चंद्राकूच हांगा आपोवया. मोट्ट्यान उलो मारून धवें कूप चंद्राक आपयता. पुण चंद्रीम कसलो? तो हांसता आनी फुडें वता. धव्या कुपाक रागसो येता. पर्थून तें येवजिता, ताज्यान नज दिसता जावंये वा ताका काम आसा जावंये!

नखेत्रां अजून लिकलिकतात. पुण तांचें येदोळचें तेज आतां ना. चंद्रीमाच्या उजवाडांत तीं फाटीं पडटात. चंद्रीम झेतान उजवाड दिता. धव्या कुपाक दिसता. ह्या जगांत आपणासारको सुखी कोण ना. येदोळसावन ताणें कितेंकितें पळयलें. एकापरस एक अजापाचें! तरिकूय खूब पळोवपाचें आसा.

वारो व्हांवता. वाऱ्याबरोबर धव्या कुपाकूय यात्रा घडटा. याक गती येता. पांच, धा, वीस, तीस, शंबर, दोनशें...गांव भोंवत धवें कूप येता. उदेन्तेक तोंड करून फुडें सरत रावता—वाऱ्याबरोबर—वारो व्हांवता म्हुण कूप व्हांवता. वारो वता ते दिकेन कूप वता. वारो धांवता ते गतीन कूप धांवता. धव्या कुपाक दिसता आपणांक जाय म्हुण वारो व्हांवता.

तो पळय केदो व्हडलो दोंगर वाट आडावन उबो आसा. आतां पयलेवटेन कशें वचप? "वाऱ्या, म्हाका पयलेवटेन व्हरता मरे?"

पुण वाऱ्यान जाप दिली ना. ताणें धव्या कुपाक मात थंयच सोडलें. कूप थंयच उल्लें. ताणें त्या दोंगराकडेन पळेलें. म्हजे आवयऽऽस्! केदो व्हडलो हो दोंगर! ताज्या आंगार केदे व्हडले हे सुळके आनी फातर! कितलिशींच झाडां ताज्या आंगार उबीं आसात. कांय पांचवीं आसात. कांय जाणांचीं पानां पिकल्यांत तर कांय झाडांचेर पानांच नात. त्या दोंगराचो झेत पळय जाल्यार एक महान तपस्वी तपश्चर्येक बशिलेभशेन दिसता. धव्यां कुपाकलेगीत ताजो आदर दिसता. तें पेल्यान रावन ताका तोखेता.

इतल्यांत एक झाड हालता. दोंगर धव्या कुपाक आपयता. त्या झाडावयलीं

सगळीं पानां गळून पडल्यांत. तें झाड हात हालोवन धव्या कुपाक आपयता. कुपाक बेठोच अभिमान दिसता. येदो व्हडलो दोंगर आपणाक आपयता ! तें फुडें सरता. म्हज्यांत वता. तें झाड ताका आनिकूय म्हज्यांत आपयता. कूप वता.

'चू ऽक' अकस्मात बाग घेवन तें झाड धव्या कुपाचो उमाव घेता. पानां झडिल्लयान खरखरीत काडयो धव्या कुपाक तोंपतात. गुबगुबीत, धव्याफुल्ल आंगाचेर गांज ओडटा. तिडक मारता ताका. इतल्यांत—

"कितलें सुंदर दिसता तूं ! खंयचें तूं ?" दोंगर घोगऱ्या आवाजान विचारता.

आपणाली तुस्त केल्ली आयकून धवें कूप खुश्शाल जाता.

"पयस अस्तमतेक 'गोंय' म्हुण आसा. थंयसावन आयलां हांव." गर्वान धवें कूप म्हणटा.

"आवयस् ! कितलें पयससावन आयलां तूं ! खुब्ब पुरो जालां जातलें तुका न्हीं ? तुजें हें गुबगुबीत, गोरेंपिट्ट आंग पळोवन हांव कितलों खोशी जालों जाणा तूं ?"

विश्वामित्राक भुलयतकीर मेनकेकलेगीत जितलो आनंद जालो ना तितलो आनंद धव्या कुपाक जालो. येदो व्हडलो दोंगर आपणाचेर खुशाल जाला म्हळ्यार कितें ?

"तूं हांगा एकलोच रावता ? खंयच वचना ? मागीर तुका कंटाळो कसो येना ?"

"हांगा रावतां ताजो म्हाका वीट येना. देवान म्हाका जल्माक घाला, तसोच हांवें रावपाक जाय. हांव हांगा आनंदान रावतां. म्हजीं भुरगीं हांगा ल्हानाचीं व्हड जाल्यांत तांकां खेळयत हांव दीस सारतां. पुण हालीं हें जें अवर्शण आयलां ताणें करून.... "

येदो व्हडलो दोंगर ! पुण ताजे लेगीत दोळे भरून आयिल्ले पळोवन धवें कूप कळवळ्ळें.

"दोंगरबाप्पा, कितें जालें तुजें ? तूं दुखेस्त कित्याक ? येदो व्हडलो हो संवसार तुजे म्हजेखातीर आसतना आमी त्रास पावप ! सोबना हें तुका ! तुका कितें जाय सांग ! हांव हाडून दीन तुका. "

“ तूं खरेंच भोव बरें ! धव्या कुपा, तूं जाणा, दुकळ पडला म्हुण ! उदकाक सगले हापापल्यात. म्हज्या आंगार खेळपी वाग, शींव, मेरू, दुकर, सोंशे, सुकणीं उदक नासून म्हाका सोडून वतात. हीं झाडां–झोपां उदक नासून करपतात हें पळोवन म्हाका सूख कशें लागतलें ? तुजें गुबगुबीत आंग पळोवन म्हाका दिसता, तूंच तें काम चड बरेभशेन करशी; तुजें उदक म्हाका कितलेंशें मेळत ! पुण मेळटा तितलें खरें ? आनीक देव दीत ! उपकार कर, धव्या कुपा, तुजें उदक म्हजेर शिंपडाय. ”

तें आयकनाफुडें धव्या कुपाचीं कानसुलां तापलीं, कपलाशीर उसळ्ळी. कितलो सुवार्थी हो दोंगर ! हेचखातीर म्हजी तुस्त करतालो. इतले गांव आनी शारां भोंवन हांव हांगा आयलां तें कितें तुजेपसत ? • •

उतरलेगीत उलयनासतना धवें कूप पयल्यान वता. ताका त्या दोंगराची तिडक माल्ल्या. आतां वगत वगडायनासतना हो दोंगर हुपुंकूच जाय. धवें कूप ल्हवू ल्हवू वयर सरता. वयर वता तितलें शीं चड खाता. पुण तें वता. ह्या सुवार्थी दोंगराक हुपून पयलेवटेन पावुंकूच जाय. तें आनिकूय वयर सरता. आनिकूय...

वयर वता तितलें थंड लागता. तितलें तें धवें कूप आंवळून येता. आपल्या आंगांत जाता तो बदल ताका कळटा. पुण तें नेट करता. वयर वता. आनीक वयर. आनी निमाणें पावता. दोंगर हुंपता. ताका सू जाता.

फांतोड जाता. उदेन्तेक वेळ उदेता. काळखाचें पांगरूण शेंवटून धर्तर जागी जाता.

सूर्याच्या उजवाडांत धवें कूप पळयता. आपणालें आंग लबलबीतशें जालां. रंग काळसो जाला. निसर्ग तरी कितलो निश्टूर हो !

सूर्य उदेता. उदेन्त गुलाल फापुडता. सूर्य धव्या कुपाकडेन पळोवन हांसता. एक दोन भांगराकिर्णां ताका खातकुल्यो करून वतात. जावं ! जग आपणाक विसल्लें ना. आनी कित्याक विसरतलें ? जग कोणाखातीर ? म्हजेचखातीर न्हय तर !

धवें कूप जड आंगान फुडें सरता. पुण वारो ताका धांवडायता. पुरो जाल्लेभशेन दिसता ताका. पुण रावपाची माणसुकी ना. वारो व्हरता तशें वचुं-कूच जाय.

धर्तर आपयता. शेतां, भाटां. कुळागरां ! तळीं, न्हंयो, बांयो ! तण, झाडां, झोंपां ! दादले, बायलां, भुरगीं !

पुण कुपान नित्शय केला. तें कोणाकूच बदपार ना. कश्शेंच शिंपडपार ना. तें जियेतलें ! जग भोंवतलें ! जग भोगतलें ! तें म्हुण जग !

भारत गेलें, ब्रह्मदेश फाटीं पडलो, चीन हुपलें, दर्यो गेलो. जपान आयलें. टोकियो !

घर्रर्रऽर्रऽ !

कसलो हो आवाज ! उडतउडत येता. केदो आवाज ! घर्रर्रर्रऽ ! कूप हेवटेन तेवटेन पळयता. लागसार आनीक कुपां दिश्टी पडनात. अरिश्टांचो घरघर लागिंलागीं येता. म्हज्यांतूचसो येता— कुपाक दिसता, आपणें धांवचें, पळचें, पयस वचचें. हें अरिश्ट म्हाका कातरून उडयतलें. आरेरेरे ! वारो खंय गेलो ! कूप हाल्रूक पळयता. जमना. हेलिकॉपटर लागीं येता. म्हज्यांत पावता— पुण झोंपथ घेवन वयर वता. जावं ! आरे पुण—तें कुपाच्या माथ्थार येता. थीर रावता. कुपाक श्शीं खाता. कुडकुडटा तें ! आतां ? म्हजी जीण अशीच सोंपचेली ?

दुसऱ्या दिसा पत्रांनी खबर येता—

"जपानी शास्त्रज्ञांचें जैत
कृत्रिम पावस उडयलो—"

* * *

# तसो हांव भियेना....

दीस सरतासर नाका पुरो जाता. सकाळच्यान दिसतालें केन्नाकाय सोंपल्यार पुरो हो दीस ! पुण हे तिनसांजचे कातरेर चड्च अस्वस्त दिसपाक लागता. काळजांतलो काळोखूच इल्लोइल्लो वाडत वचून आतां धर्तरेक धांपून उडयतलो काय कितेंशें दिसपाक लागता. हरशीं आमोरेचेर गुलाल फांपशीत येवपी सांजेवेळ आयज विटिल्लें आंगोस्तरूच न्हेसून आयिल्लेवरी दिसता. वारो व्हांवना. शेवणी कलकलायनात. सांजेवेळार परतुपी वावराड्यांमानायांलीं उलवणी कानार येनात. काय म्हजेवरी ह्या सगल्या अितल्यांकूय अवकळा आयल्या ?...

नातरां खंय गेलीं ? आरे पोरांनो, बोवाळ घालात मरे मातशीं ? काय तुमचोय ताळो धल्ला ?

हरशीं सूनबाय सामकी फाटींफुडें करता. आज खंय बोवाळटा ? दनपारचो च्या ताळ्यार घाल्न गेल्ली–एक फावट लेगीत कुडींत येवन खबर घेवन गेली ना.

सांजेवेळच्या परार खबरांक येवन बसपी यमुनाका, शाणुबाब, वोंवळ, नानाबिना खंय झक मारतात आज ? तशें कितें ह्या सगल्या लोकांची म्हाका चड गरज आसा अशें न्हीं. पुण हे घटकेक हें एकलेपण भेरटायता. काळजाक लागिल्ली ही रुखरूख उलोवन दाखोवन कळचेली ना. काळजांतलो हो काळोख आतां उजवाड पळोवचेलो ना.

काळोख ! चोराभशेन रात घरांत भितर सरता. खंय गेलीं काय घरांतलीं सगलीं. अजून पण्टीलेगीत पेटोंव ना घरांत. केंस धवे जाले तरी दृश्टी म्हजी बरी आसा. भायलो काळोख कळटा–आनी आयसपयस पातळिल्ल्या घराघरांत लागिल्ले लुकलुकपी दिवेयबी दिश्टीक पडटात. ती पळय ताइबायल्या घरांत पण्टी पेटली. ही कसली पण्टी ? पण्टी पेटयतात चोरांनो. ही पण्टी न्हय. तुमच्या

घरांतली पण्टी पालवली. तिजी जोत अनंतांत विलीन जाली. ती परती पेटचेली ना. तुमच्या हातांतलीं फस्कां पेटोवन तुमी घरांत उजवाड घालूंक पळयतात ? पुण तुमच्या घरांत पण्टी खंय आसा ? पण्टी गेली. उजवाड गेलो. आतां कळटलें तुमकां ताइबायचें मोल. उजवाडाचे मोल उजवाड सरतकीर कळटा. देवाकुडिंतलो लामणदिवो मध्यान रातीर वाडवता तेन्ना पळयला तुमी देवा-कुडिचो अवतार ?

भायल्यान कोण फुतफुतपाचो आवाज येता. हय. जाण्टो जालों तरी कानूय बेस बरें काम दितात. काळोख बिण्ण जाला. सूनबायक उलो मारपाक तोंड उगडटा म्हणसर कोणाचो तरी ताळो कानार पडटा. सूनबाय आनी आनीक कोणतरी उलउलयत घरांत भितर सरतात.

“ जावं. बरें केल्लें खंय वचना. तातूंत एकादस आशिल्ली मगे ? मागीर सर्गाचीं णवय दारां उकतीं. देव तिका सर्गारूच व्हरतलो. ” माणीकरें दिसता. खबरूय ताइबायचीच.

“ गेली ती बऱ्याकच पावली गे ! पुण भिरभिरी मारता ती ह्या फाटल्या लोकांची. तांकां मात्य वायट दिसलें ना. ”

“ समजलें तें म्हाका. जावं तांचें तांकां. ”

“ आमगेल्या बाप्पाक मात खुबच शॉकसो बसला ” सूनबाय सांगता. बरें लक्ष आसता तर हिजें.

“ तागेलेंय जाण्टेपण जालां न्हीं आतां ! हे पिरायेर मरणाचे नांवूच आयकल्यार भंयसो दिसता म्हणटात. तातूंत ताइबाय ताजेपरस भुरगी...”

आरे चोरांनों, हांव कितें मर्णाक भितांशें दिसलें तुमकां ? पापयांनो, ह्या वेळार मर्ण येवपाइतलें सूख ना. पुण तुमकां तें कळपाचें ना, कळचेंच ना.

“ सूनबाय, आयकलां हय गे ! अेऽ सूनबाय—” हांव उलो मारतां.

उलो मारनाफुडें सूनबाय येता. माणीकबायेक वाटेक लायलेंशें दिसता.

“ दिवे लायले नात गे अजून ? खंय गेली येदो वेळ ? आनी भुरगीं खंय गेली ? बोवाळ ना, कलकल ना, परवड ना, मस्ती ना. तांतूत घरांत उजवाडय ना. खावपाक येता मगे घर !

सूनबाय सडसडीत दिवो लायता. देवाकुडिंतलो लामणदिवो पेटयता, तुळशी-कडेन पण्टी दवरता, रांदन सारकी करता. बोगोण्यांतली न्हिविल्लीच काफी हुनशा दुदांत सारकी करून चिक्रांत घाल्न म्हजे फुड्यांत दवरता. असली सून जर ताइबायक मेळटा जाल्यार भांगर कसो जातलो आशिल्लो सगल्यांचो संवसार. पुण असलीं ' जर-तर ' हीं उतरां भाशेंत आसात म्हुण वापरपाचीं. असलीं तर्कटां करपाक अर्थ ना. जाचे कपलांत आसा तें ताणें भोगपाकूच जाय. ताइबाय जल्माक येतनाच कपलांत ' सूख ना ' म्हुण बरोवन घेवन आयिल्ली. त्या कामाक कोणाक म्हुण दुशण दिवप ? एक मात खरें ताइबाय चड भुरगेपणांत गेली. म्हजे परस धा वर्सांनी तरी भुरगी आसतली. अकस्मात गेली. दुयेंस ना, वायट ना, हरशिल्ली ग्रीपलेगीत ना. म्हाका तर खरें लेगीत दिसलें ना. पयर सकाळींच हांवें तिका तुळशीक उदक घालतासतना पळयिल्ली. दनपारा आयकलें गेली म्हुण. कितें बाबा हीं आयचीं दुयेंसां ! हार्टफेल खंय ! आमचे भुरगेपणांत केन्ना आयकलें ना. ज्युस्त म्हज्या जाण्टेपणांत असलीं दुयेंसां कित्याक आयल्यांत देवाक खबर.

तसो कितें हांव मर्णाक भियेना. म्हज्या तरणेपणांत हांव कासादोर म्हुण फांकिल्लों. भिरांत म्हळ्यार कितें तेंच हांव नकळो आशिल्लों म्हळ्यार अतिताय जावची ना. एक फावट हांव कासाक गेल्लों. अंटग्या रानांत पावलों. आमोर जाल्ली. माची बांदपाक चार खांदे माल्ले. म्हणटसर खंयच्यान देव जाणा वाग अकस्मात आमच्या फुड्यांतच उपरासलो. म्हजेबराबर आशिल्ले गडे भिवन धांवपाक लागले. वागान म्हजेर घाल्ली उडकी चुकोवन हांवें आर्माक हात घालो. आनी म्हज्या हड्डुयार उडकी मारतासतनाच ताज्या हड्डुयार फार मारून ताका म्हज्या पायांसरीं न्हिदायलो. तेन्ना वागाक फुडें पळोवन हांव भिलों ना. उरफाटो म्हाका नेट आयिल्लो. रगत सळसळिल्लें. साक्षात मृत्यू सामकारा दिश्टी पडटा आसतनाय हांव निश्टूर हांशिल्लों. तो हांव मर्णाक भियेन ? पुण तें मर्णच वेगळें. मृत्यू तुमच्या सामकाराक आसता. मर्णाची गची आंवळून तुमी जैत मेळयतात. तेन्ना जिवनाक आनी मर्णाक अर्थ आसता. हें ' हार्टफेल ' जावप, काळीज बंद पडप म्हाका साप्प रुचना. हांव कांचवेतां, अकस्मात येवप म्हळ्यार कितें ! कळपाक तरी नाका ! वखद विर्सद ना, देव-दोतोर ना म्हळ्यार फकाणां जालीं.

जिवन-मरण म्हळ्यार आपालिपाचो खेळ. तुमी-आमी लिपप; मर्णान आमकां सोदून काडप. आपालिपांत लेगीत सोदतलो आपणाफुड्यांत पावलो म्हणपाचें लिपतल्याक कळटा. पर्थून लिपपाची, धांवपाची कांय ना जाल्यार आसेटी घालपाची ताका संद मेळटा. पुण ह्या नव्या वायटाक कांयच नेम लागनात. केन्ना कोणाची फाट धरत समजना. लालबहादूर शास्त्री वचतसावन आयजमेरेन हांव नेमान खबऱ्यांपत्रां वाचतां. दिसपट्टे लोक मेल्लेच आसात पुण तातूंत राजकर्णी लोकच चड आसतात. हार्टफेलाचें आनी राजकर्णी लोकांचें कितें गणीत आसा हें एक कुवाडेंच पडलां म्हाका. पुण आमी काय राजकर्णी न्हयत. त्या पांडुबाबाक तर राजकरण, समाजकरण हांतल्यो खंयच्योच करण्यो लागनाशिल्लयो. ताजो पापयाचो कित्याक बळी घेतलो ह्या हार्टफेलान देव जाणा. हें हार्टफेलाचें भूत केन्ना कोणाचे गोमटेर बसत कांयच नेम ना.

पांडुबाब तर न्हिदिल्लेकडेन आसतनाच गेलो. आदल्या दिसा साजेवेळा बरो आयला, बसला, बराबर खबरो माल्ल्यात. खबरो लेगीत राजकरणाचेर बी न्हय तर साद्योच नुसत्या-पावसाच्यो चवल्यो. आमोरेचेर गेला. जेवनखावन न्हिदला आनी फांतोड्डेर उठपी पांडुबाब सकाळ जाली तरी जाग ना म्हुण पळोवपाक वचत जाल्यार वेपार थंड ! कितें म्हणप आतां ? जाण्टेपण जालां अशांतलें काय न्हीं. म्हजेपरस आसत वर्सभरयान व्हड म्हळ्यार पांसश्ट जायत संयसश्ट जायत. बरें ! वचचे आदल्या दिसा लेगीत आमी खबरो कसल्यो उलयल्यात ? मरणाच्योच. पांडुबाब वेपारांत हुशार-पुण काळजान फ्राक. भिजूड पयल्या नंबरचो. पाकिस्तान गेर्रावेळार सायरन सोडच-विमानाचो आवाजच आयकनाफुडें बाज्जे पोंदा वचून रावपी पांडुबाब; मर्णाचें नांवच काडल्यार पापयाक शेळी हूम सुटची. त्या दिसा तर आमी हार्टफेलाचेर लेगीत उलयल्यात. पांडुबाबान म्हणिल्लें लेगीत, बार्देसच्या वैजाले वखद करीतसावन आपणांक भोव बरें दिसता अशें. पुण पापयाचो घात घेतलो ह्या हार्टफेलान. पांडुबाब अशेतरेन गेल्लो पळोवन म्हजे लेगीत हातपांय गळिल्ले. आठ दीस दोळ्याक दोळो लगनाशिल्लो. एक दीस हांवें दोतोराक विचाल्लें; बळयां पुण हरशीं बेठें विचारता अशें करून विचाल्लें, " दोतोर, हार्टफेल बी जावचो न्ही म्हुण पयलींच घेवपाचें वखदबी ना तुमचेकडेन ? " पुण दोतोरान मर्माचेरूच हात दवल्लो. " बाप्पा, तूं मर्णाक भियेताय कितें रे ? " आनी खोऽ करून हांसूंक लागलो. हांवें सांगलें, " मर्णाक भिवपी हांव न्हय

हांव कास्ताचो कासादोर. हांवे म्हज्या ग्हिदांत चौग जाण वाग माल्लयात. हांव भितां मर्णाक ? पुण हो हार्टफेल बी म्हळ्यार मात कितेंशेंच दिसता." हें आयकून दोतोरान म्हाका सवायवर प्रवचन सांगलें. आनी दुयेंसां हीं दोतोरां-परस फुडें धांवतात हाजी खात्री करून घेवन हांव परतलों.

पयर ताइबाय गेली. जेवन आंवताली. कितेंशेंच जाता म्हणूंक लागली. म्हणट-सर मेली. बावडेन आयुश्यांत त्रास खूब काडले. घरच्यांनीं तिका सुखांत दवल्ली ना. ना जाल्यार म्हाका दिसता आनी धापंदरा वर्सां काडटली आशिल्ली. पुण अशेंयबी वोगी म्हणप. हार्टफेलामुखार कोणाचोच उपाय नासता. हार्टफेल म्हळ्यार यमराजाचो व्हेटो. एखादऱ्या धडधाकट मनशाक आनीक खंयच्याय मारगान व्हरूंक मेळ्ळो ना कि मागीर यमराज व्हेटो वापरता. आनी हार्ट-फेल करून त्या मनशाक व्हरता. म्हाका जाल्यार हें जाण्टेपण नाकापुरो जालां. दिसपट्टी खबर कळटा ती कोणूय ना कोणूय इश्ट, आमीग खंवसल्ल्याची. एकएकलो बरोबरचो वता तो जसो कांय तूं फाटल्यान यो, हांव सरतां फुडें म्हुण सांगून वता. म्हगेलोच एक इश्ट पणजे रावतालो. तो आनी कार्रेरींत बशिल्लेकडेनूच थंड जालो; असलें कितेंय आयकलें कि म्हाका मागीर कितेंशेंच जाता. तसो हांव कितें मर्णाक भियेना—पुण...

रात जाता. भितर रेडिओ लायला. बातम्यो लागल्यात. बातम्यो सांगतल्याचो आवाज आयकल्यार संवसारांत भयंकर कितेंय घडलां आसतलेंशें दिसता. पुण म्हाका ताजी संवय जाल्या.

बाबू आयलासो दिसता. जेवणाचो वेळ जालो. जेवणाचो विचार आयलो कि म्हाका ताइबायची याद जाता...जेवनखावन आंवतकीर गेल्ली ती... म्हाका जेवण नाकाशेंच दिसता. फाटले दोन दीस ताइबाय वचतसावन हांव सारको जेंवकच्च ना. आतांयबी जेवपाक आफोंवक आयिल्ले सूनबायक ' भूक ना ' म्हुण सांगून हांव वाटेक लायतां. सूनबाय आनी बाबू कितेंतरी फुतफुततात. हांव वल्तेराचेर बशिल्लों आसतनाच बाबू भितर येता.

" बाप्पा ! जिवाक बरें दिसना ? "

" तशें न्हीं ! हरशींच, भुकच्च ना. "

" बरें दिसना जाल्यार आतांच दोतोराक आफोंवया. मागीर आनी त्रास नाका—"

" नाका नाका. दोतोर नाका—"

असें म्हुण पुताक वाटेक लायतां हांव. पुण मन खातारें. दोतोराक दाखयल्यार वायटशें न्हीं. काळजांत कलकलिल्लेभशेन दिसता. बेठो दुभावाक जागो नाका. असें म्हुण पुताक आफोवन सांगता. दोतोर रोखडोच येता.

" ओऽसिन्योर बाप्पा ! केसो आहाय रे तूं ? " म्हुण विचारत हांसत दोतोर येता. हांव हांगा बरों ना. आनी हो हांसता. हांव चडच दुयेंतसो करून दाखयतां. मंद हांसतां. दोतोर तपासता. उस्वास घेवपाक सांगता, कानवक्ल लावन पळयता. म्हाका खात्री आसता, काळजाचे एक दोन तरी ठोके चुकल्यातच आसतले. पुण दोतोर मातूय सिरियस नासता. म्हाका असले दोतोर मातूय आवडनात. दोतोर ' कांयच भंय ना ' म्हुण सांगून हांसता. बाबूच्या तोंडारूय हांसें पातळटा. हांव घुसमट्टां, "पुण दोतोर; काळजांत कलकलता तें कित्यान ?" हांव विचारतां.

" रगताचो फोर्स मोड्टकीर जाता तशें—" दोतोर कांय न्हीं शें करता. म्हाका राग येता—" आनी दोतोर, न्हिदच पडना–" " तशें जाल्यार हें वखद घे " असें म्हुण दोतोर वता. पर्थून सगलें शांत–थंड ! ही थंडसाणच म्हाका भेश्टायता. रात नाकाशी दिसता. केन्ना काय उजवाडल्यार पुरोशें दिसता. पूत येता आनी चिक्रांत घालून कितेंतरी दिता, " बाप्पा, हें न्हिदेचें वखद घे. दोतोरान सांगला. न्हिदतकीर बरें दिसतलें " हांव तें चिक्र घेवन दवरतां. न्हिदेचें वखद खंय बेठेंच घेवचें न्हीं. नाकाच तें. न्हीद जाय कोणाक ? त्या पांडुबाबाक न्हीद लागली ती पळयल्या मूं ? न्हीद नासली म्हुण कांयच इबाडना. वखद ल्हवूच जनेलांतल्यान भायर उडोवन हांव पण्टी पालयतां आनी हांतरुणाचेन आड पडटां. दोळो लागना. पांडुबाब दोळ्यांमुखार येता. अशीच तीय एक रात आशिल्ली. काळोख आशिल्लो. आनी पांडुबाबाक न्हीद पडिल्ली. काळखांत एक बरें आसता. दोळे उकतेय केल्यार काळोख. बंदूय केल्यार काळोख. हांव कूस परतितां. काळजार हात दवरून पळयतां, पर्थून वोग्गी पडटां. दोळे बंद करपाचे भानगडींत पडना. सटकरून दोळोबी लागल्यार—इतल्यान उजवाड पडटा. पूत आनी सून कुडींत भितर सरतात. हांव न्हिदेचें सवंग करतां. सूनबाय म्हणटा—" पळयलें, वखद घेतल्याबराबर सुस्त न्हीद पडली. " बाबू म्हजे आंगार पांगरूण घालून म्हणटा,

" तूंय बाप्पा इतलीच पिशी. आगे तें वखद न्हय, दोतोर म्हणटा बाप्पा भियेला ताइबाय वचतसावन. तेखातीर ताका न्हीद पडना. न्हिदेचें वखद घेतलाशें ताका दिसल्यार ताका आपशींच सुस्त न्हीद पडटली अशें म्हुण दोतोरान बेठेंच गोड उदक दिल्लें बाप्पाक वखद म्हुण. कळ्ळें ? "

* * *

# अ-शोक

ट्यहाँऽऽ ट्यहाँऽऽ ट्यहाँऽ...

एक भुरगें जल्माक आयलें. रडत रडत आयलें.

ट्यहाँऽऽ ट्यहाँ—

त्या रडपान म्हयन्याक शंबर केवले पगार आशिल्ल्या बापायलो हुसका

खासा बापायकलेगीत आयकूंक आयलो ना.

अऽऽअऽऽआवयस्—

आवय अजून परवंता. णव म्हयने पोटांत सांबाळिल्लें तें भुरगें आयज धर्त

रेर पावलें. एकतरेन धर्तरेक भारूच. हय. पोटांत आशिल्लें ते मेरेन आवय

भुरग्याचें पोट एकूच. आतां एक पोट वाडलें. आवऽयस्—

आवय परवंताली, बापूय हुसकारतालो—दोगांय जाणटीं म्हुण ! नाजाल्य

तीं रडलेबगर रावचीं नाशिल्लीं. पुण जाणटीं केन्ना रडटात ? लोक तांकां हांसत

आशिल्ले. ' पयलें येवजुपाचें न्हय ? " अशें म्हुण थोमणे मारतले आशिल्ले

ट्यहाँऽऽ–ट्यहाँ—

जाणटीं रडटात मेल्ल्यांक आनी भुरगीं ? ह्या मर्त्यलोकांत आपणांक ज

मेळ्ळो म्हुण रडटात जावंये.

आवयन कूस परतिली आनी त्या भुरग्याकडेन पळेलें. चलो ! जावं ! तां

तांतून समाधान. व्हड जातकीर तरी आमकां आधार मेळटलो.

त्या भुरग्यान दोनूय मुठी घट आंवळ्ळेल्ल्यो. उगडपाक भितालो जावये

हाताच्या तळव्याचेर खंय आपणाल्या फुडाराचें भविश्य आसता. आपण

फुडार पळोवपाक भितालो जावये तो भुरगो.

दोनूय दोळे धांपून रडटालो. मुठी उगडल्यार फुडार दिसत म्हुण...अ

दोळे उगडल्यार वर्तमान !

एकूण जल्माक घालतल्याकूच रडटा आसुंये तो....

× × × ×

धा वर्सां सह्लीं.

बापायलो पगार शंबरांकूच वेंग मारून आसा—

आवय अजून परवंता. बाळंटेर म्हुण न्हीं. पुण वायटकान्न म्हुण. पयल्या पुताक जल्म दिवनूच तिणें हांतरूण धरिल्लें.

आनी तो भुरगो ! ताजें नांव अशोक दवल्लां. बावड्याक नांव दवरतना आवयबापायन व्हड चूक केली. शोक करीत जल्माक आयिल्लो तो भुरगो ! ताका तांणी 'अशोक' केलो. धर्मराज खंय दुर्योधनाक सुयोधन म्हुण उलो मारतालो—

अशोक आज रडना. पुण ह्या संवसारांत तो रमूंक शकना. हे भुंयेर ताका सूख लाभना. बापायन ताका सरकारी साळेंत घाल्लो. पुण दोन तीन वर्सां जालीं तो दुसरेच्या हुमरार बसून आसा. बापायन ताका धुकलपाचो लेगीत येत्न केलो. पुण तो हुमर हुंपपाचें अशोकूय मनार घेना आनी मास्तरूय.

बापूय म्हुण कितें करतलो आनीक ? कितलें करून पळेलें. धपकायलो, मेरटा-यलो, माल्लो-श्या ! अशोकाक कितलेंय सांग– ताजें तोंड निर्विकार ! कितलोय मार—दोळ्यांतल्यान दूख येवपार ना, तोंडांतल्यान हूं करपार ना. बापायन करपाची दवल्लेली ती फकत माया. पुण ताका ती गजाल तीख काय गोड तें लेगीत खबर नाशिल्लें. दीसभर काम करून अनी वयल्यांलीं उलोवणीं खावन घरा येवपी उबगल्ल्या बापायक माया कशी कळची ?

आनी आवय ! ती ह्या दिवस्याक जल्माक घालतल्याक ( देवाक ) रातदीस गाळीं संवता. हय तर ! तो जल्माक आयलो आनी तिणें हांतरूण धल्लें. मागीर तो बरो आनीक कसो ? असलें अवलक्षणी भुरगें जल्माक येवप म्हळ्यार देंवचार जल्माक आयिल्लेबराबर. हें तिणें घोवाक, पुताकूय सतराशें एकावन्न फावटीं सांगिल्लें आनी आतां आतां तीं उतरां न्हिदेंत लेगीत ती धडधडीत उलयताली.

अशोकाक दिसाक एकवेळ तरी जेवंक मेळटालें. ताजेर तो जियेवंक शकतालो. आवय बरी ना ताजें ताका कांयच दिसनाशिल्लें. ताका कळतपसून तो आवयक

त्या हांतरुणाचेर पळयत आयिल्लो. ताका दिसतालें सगल्यांल्योच आवयो अशो हांतरुणार न्हिदून आसतात आनी एक दीस आवय मेली जाल्यार लेगीत ताका रडूं येवचें नाशिल्लें. जिवितांतलें सगलें रडप ताणें ल्हान आसतनाच रडून सोंपयल्लें. अशोकाक कांयच लागनाशिल्लें. हेवटेन तेवटेन ( हातूंत साळाय बी आयली ) भोंवप आनी दिसाक एकवेळ पानार पडटा तें जेवप. रातिच्या णवांक न्हिदून फांतोडेचेर उठप आनी परतून हेवटेन तेवटेन...

अशोक साळेंत वतालो पुण घरा करपाक दिल्लो अभ्यास ताणें केन्नाच केलो ना. पयलीं एक वर्सभर ताणे मार खालो. पुण तेन्नासावन मास्तरान केन्नाच ताका अभ्यास केलो काय तें विचाल्लें ना. मना माल्लयार अशोक साळेंत वच. पुण एक दीस मास्तरान ताका बापायकडसून चीट हाडपाक सांगलें ना. हे खातीर कांय नावाडगे भुरगे ताजो दुस्वासूय करताले. पुण अशोकाक ताजी केन्नाच जाणवीक जाली ना. अशोकाक कोणूच मित्र नाशिल्ले आनी ताजेकडेन इश्टागत करपाचें धाडसूच कोणाक केन्ना जालें ना. ताजेविशीं जण-एकल्याचें मत वेगवेगळें आशिल्लें. खासा अशोकाक आपणाविशीं कितें दिस देव जाणा !

अशोकाक कांय संवयो आशिल्ल्यो. चार वणटिंच्या त्या घरांत ताज्यान रावूं नज जातालें. ल्हानपणासावन तो एक काम करीत आयिल्लो. एक बडी घेवप आनी जमनिचेर आडव्यो तिडव्यो वळी काडप. पयलीं तो आपणाल्या सान घरामुखार बसून हो उद्योग करी; पुण मागीर मागीर तो दर्या देगेर वचून बसूंक लागलो. एक बडी घेवन ते रेंवेर उब्यो, आडव्यो, वांकड्यो, तिकड्यो वळी मारप आनी मागीर त्या वळींकडेन पळयत बसप. एक दीस तर ताका तसो बशिल्लो पळोवन आफ्रिकेसावन परतल्ल्या एका तारवट्यान तो मोटो खगोल-शास्त्रज्ञ जातलो अशें म्हळें खंय.

एक दीस सदांभशेन अशोक साळेंतल्यान घरा येतालो. वाटेर ताणें एका घराक तेंकोवन दवरल्लेली एक निसण पळयली. त्यो दोन उब्यो बडयो आनी दोनींमदीं कितल्योशोच आडव्यो बडयो पळोवन ताका कितें दिसलें देव जाणा ! एखादरें ताका आपणें दर्यादेगेर काडिल्ल्या चित्रांची याद जाली जातली. ताणें बेगिबेगीन आपणाली चोपडी उगडली आनी दोन उब्यो आनी कितल्यो-शोच आडव्यो आडयो मारून ते निसणिचें चित्र काडलें. घरा आयलो. आवय

सदांभशेन हांतरुणाचेर आड आशिल्ली. अशोक ती चोपडी घेवन एका कोन-शाक वचून बसलो. मदींच ताका कितें दिसलें कोण जाणा. लाप्स घेवन तो चोपडेचेर आनिकूय कितेंतरी भिरभिटावंक लागलो. आवय हें सगलें पळयताली. आयज हो असो अभ्यासाक कसो बसला ! तकली बी धुंवली ना मूं हाजी ? आवयन उलो मारून विचाल्लें—

" कितें करता रे थंय ? अभ्यास ? "

" ना. " अशोक न्हयकाल्लो.

" हांगा हाड रे ती चोपडी " आवयन धेंगशेवन म्हळें. अशोक मोन्यांनी उठलो. चोपडी घेवन आवयसरीं गेलो. आवयन पळे जाल्यार निसणीर घाल्ल्या एका मड्याचें चित्र ! तिका दिसलें, हाणें खंयतरी मरण व्हरतना पळयलें आसतलें. तिणें विचाल्लें.

" हें कितें रे ? "

" तूं ती. "

आनी आसली नासली सगली शक्त एकवटावन आवयन ती सगली चोपडीच पिंदून उडयली.

× × ×

आनीक धा वर्सां सल्लीं.

आवय मेली. अशोक रडलो ना. रडटात म्हुण तो नकळो आशिल्लो जावंये. आवयक निसणीर बांदून व्हरतना पळोवन ताच्या तोंडार एक अजापाचें चिन्न मात परगटलें. कांय वर्सां पयलीं अशेंच एक चित्र ताणें काडिल्लें आनी आवयन तें पिंदिल्लें.

आवय मरतकीर कांय लोक येवन गेले—खबरेक. बापायक मेल्ले. बापायन ताका रडुनूय दाखयलें. पुण ताज्या काळजाचे 'सुटलों बाबा' हे सुसकारे हड्ड्याभितर हुसकारताले. अशोकाक लोकांनी पिशांतूच काडिल्लो. पुण ताकाय बी एक-दोगजाण हात लावन गेले. ताणें मात कोणाकडेनूच पळयलें ना. एके चोपडेर दारांचीं, जनेलांचीं, कदेलांचीं, उब्यो-आडव्यो आडयो मारून काडिल्लीं चित्रां पळोवपांत तो गुल्ल आशिल्लो.

आवयक व्हेली. आवयलें हांतरूण रितें आशिल्लें. मदींच हांतरुणाकडेन आनी मदींच ते चोपडेकडेन पळयत तो बशिल्लो. आमोरेचेर ताका भूक

लागली. पुण रांदन थंड आशिल्ली पळोवन तोवूय थंड बसलो. आनी मागीर झेम आयली. तसो थंयच न्हिदलो. रातच्या णवांक सुमार शेजान्नीन दोन रोटयो धाडल्यो. बापायन एक खाली. अशोक न्हिदिल्लो. कित्याक वोगी उठय म्हुण ताणें दुसरीय खाली आनी तोवूय न्हिदलो.

अशोक आतां विसांवयलो तरणो पोर. शाळा केन्ना सोडिल्ली. वावर कसलो करपाची खबर ना आनी तांकूय ना. फकत दरयार वचप आनी उब्यो-आडव्यो रेगो मारप. दरयादेगेर दवल्लेलीं व्होडीं पळोवप आनी बडी घेवन जमनीचेर तांची चित्रां काडप. हो इतलो उद्देग सोडल्यार ताका आनिकूय एक गजाल कळटाली. एक गऱ्या बडी घेवन तो दरयांत गळोभर उदकांत आशिल्ल्या एका फातराचेर वचून बसतालो. वरांचींवरां बसतालो आनी एक बुरांटो घेवन घरा येतालो. त्या बुरांट्याक मुखार दवरतालो आनी चोपडेचेर ताचें चित्र काडटालो. बुरांट्याच्या आंगावयली खवलेनखवळी बारीकसाणीन पळयतालो–आनी तश्शा तसो तो कागदार काडटालो. चित्र मनासारकें आयलें म्हणटकीर मागीर तो बुरांटो उकडून खातालो.

× × ×

आनीक धा वर्सां सल्लीं.

बापूय मेलो. सुटलो बावडो !

बापूय मेलो ताजें अशोकाक कांय दिसलें ना. पुण बापूय केन्नाय एक उंडो दितालो तो ना जालो. आतां ताका हातपांय हालोवपाक जाय आशिल्लें. पुण वेंतभर हड्डुयाचो, वांवभर लांबायेचो आनी मसका सांगावरी हातापायांचो–अशोक कसलें काम करीत आशिल्लो ? पुण अशोकान पोटाचो हुसको केन्ना केलो ना. तो सदांभशेन त्या फातरार बसून नुसतें धरतालो. ताजें चित्र काडटालो आनी मागीर तें उकडून वा भाजून खातालो.

एक दीस असोच दरयारसावन परततना ताका शाळेकडल्या मोडणार मार्गाकुशीन पडिल्लो एक खडवाकुडको मेळ्ळो. तो खडू घेवन अशोक घरा आयलो. अकस्मात ताका येवजलें आनी आतां कसबी जाल्यां बोटांनी ताणें खडवान भितल्ले वणटीचेर चित्र काडपाक सुरवात केली. पयलीं ताणें निसणीर बालून व्हेल्ले आपणाले आवयचें चित्र काडपाक घेतलें. तें चित्र ताणें इतलीं वर्सां काळजांत सांबाळून दवल्लेलें. दीस सल्लो तरी चित्र काडून जालें ना.

काळखांत सामकेंच दिसना जातकीर अशोक न्हिदलो. दुसऱ्या दिसा उठून ताणें परतून खड्डू हातांत घेतलो...कपलावयली हूम देंवन दोळ्यांत गेली. दोळे चुरचुल्ले तसो तो रावलो. बारिकसाणीन पळोवपाक लागलो. ताजें समाधान जालें जावंये. वेंतभर हड्डुयांतल्यान एक व्हड हुसकारो भायर सल्लो.

अशोकाक याद जाली—भूक लागल्या. गऱ्या बडी घेवन तो भायर सल्लो. आयज ताका नशिबान हात दिलो. नुसत्यार नुसतें मेळ्ळें. रोखडीच गांथन जाली. अशोक घरा आयलो. गांथनिंतले नुसतें सकयल दवल्लें. तातूंत एक शेंवटाळो; एक खरचांड आनी एक सांगट आशिल्लें. हेर नुसतें सदांचेंच. म्हळयार बुरांटे बी ते ताणे भाजून खाले. मागीर तो शेंवटो मुखार दवरून खडवा-कुडको हातांत घेतलो. पळय जाल्यार खड्डू सोंपत आयला. आतां ?

अशोक उठलो. सांगट आनी खरचांड घेवन बाजारांत गेलो—विकपाक. पुण जण एकलो ताका हांसतालो आनी फुडें वतालो. दनपारच्या कडार जेवणां रांदून जातकीर नुसतें जाय कोणाक ? दनपार मोव जाली. अशोक तापिल्ले माथें आनी तीं दोन खरवडां घेवन घरा परतलो. ताका दिशिल्लें दोन पयशे मेळटले आनी आपूण खड्डू हाडटलों. पुण !...सांजेवेळ जाली. अशोकाक उगडास आयलो आदल्या दिसाचो. दरयार सावन परततना आपणाक तो खड्डू मेळिल्लो— सट् करून तो उठलो. धांवत म्हणता तसो शाळेकडेन आयलो. हेवटेन तेवटेन खडवाकुडके मेळटात काय पळोवंक लागलो. आनी देवा उपकार ! ताका तीन कुडके मेळ्ळे. अशोक घरा आयलो. शेंवटो मुखार दवरून चित्र काडपाक लागलो. स इंची शेंवस्याक ताणे स फुटी चितारलो. नुसत्याचीं चित्रां काडपाची संवय जाल्ल्या बोटांनी आपणालें काम बेस बरें आनी इतले बेगीन केलें कि काळोख पडटा म्हळयार एक शेंवटो वणटीर चित्रांकीत जावन रावलो.

अशोकान एक नवो उद्देग सुरू केलो. सकाळीं उठून दरयार वचप. नुसतें धरप. चड मेळ्ळें जाल्यार रुपयाचें नुसतें आण्या—हिसपान विकप. ताचे खड्डू हाडप आनी उरिल्लो सगलो इतलो वेळ चित्रां काडप. करतां करतां भितल्ल्यो वणटी भल्ल्यो. आतां ताणें भायल्यान आपणालें काम सुरू केलें.

अशोकालीं चित्रां कोण तोखेनाशिल्लो. परते लोक ताका हांसताले— कुचित्रीपणांनी. पुण अशोक तीं चित्रां लोकांपसत काडिनाशिल्लो. ताका कोणाची पर्वा नाशिल्ली. एके वणटीचेर अशोकान आपणें पळयल्ले दुकरिचें, पिलांक दूद

दितनाचें चित्र काडलें. तें दुकरिचें चित्र पळोवन कांय जाणांनी तर ' शीः थूऽ ' लेगीत केलें. लोकांक चित्रां मानवनाशिल्लीं अशें न्हीं. पुण तांकां जाय आशिल्लें तें सोबीत सैमाचें चित्र, सुंदर बायलेचें चित्र, खंयच्याय देवदेवतेचें चित्र, वो एकादऱ्या फुडाऱ्याचें चित्र. ही आनीक कसली वानसा चित्रांत दुकरी हाडपाची ! मोनजातूच जाय जाल्यार हरणां नात ? मोर नात ? पुण अशोकान खंय पळयल्लीं हरणां आनी मोर ? लोकांनीं पळयल्लीं अशें न्हय. पुण केन्नाय सर्कशींत बी पळेल्लीं जाल्यार ' हो मोर ' वो ' हें हरण ' अशें हड्ड्यार हात मारून सांगूं शकताले ते. अशोकान तीं नांवांलेगीत आयकल्लीं काय ना देव जाणा !

एक दीस अशोकान नाडेपेन्नाचो खेळ करप्यालें एक भुरगें आवयचे मांडयेर किळच्यो मारतालें ते पळयलें. हेंवूय ताज्या बोटांतल्यान वणटीर देंवलें. अशोक चित्रां काडीत रावलो...आनी पळयतां पळयतां वणटी उपाट भरून गेल्यो.

म्हयनोभर जालो हे गजालीक.

एक दीस त्या गांवांत एक व्हड मनीस आयलो. देसांतलो एक फाकिवंत चित्रकार म्हुण ताका वता थंय मानाचो पाट मेळटालो. गिमांत एक चित्रां दाखोवण आशिल्ली. थंयचे सतेंत वांटो घेवपाचें ह्या कलाकारान थारायिल्लें. ते खातीर सैमाचे सुंदरतायेचें एखादें चित्र काडचें म्हुण तो ह्या गांवांत आयिल्लो. आयलेबराबर ताणें गांवांत भोंवन पळयलें. गांवाभायर आशिल्लें एक तळें ताका भोव मानवलें. थंयच बसून ताणें आपणालें काम सुरू केलें—आनी खुब्ब दीस खपून निसर्गाचे निर्मळ सुंदरतायेचीं मनाक सुखदिणीं अशीं दोन तीन चित्रां काडलीं.

त्या दिसा एका हातांत सामान आनी दुसऱ्या हातांत तीं सोबीत चित्रां अळंग धरून तो गांवांत परततालो...आनी अकस्मात त्या घरान ताजें चित्त ओडलें. पांय आपसुकींच त्या घरावटेन घुंवले आनी तो पळयतूच उल्लो-तोंड उकतेंच उल्लें—पातयो थीर रावल्यो...ती दुकर ! धुंगशीधुंगशीत पाने चोखपी तीं पिलां ! आनी मुखावयली ती दुकर ! अजापभरीत जावन तो पळयतूच रावलो.

भानार येवन तो फुडें सल्लो.

नाडेपेन्नांकाराली ती बायल आनी बोंबले देठासावन आडुपी तें पोर !

आवयल्या तोंडावयले ते भाव काळजाक वचून दसले ताज्या.

बेगिबेगीन तो घराच्या दारांत आयलो. दार सामकें पासाक लागिल्लें. पुण कोणें जाप दिली ना. एक दांग फुडें घालून ताणें बाग घेवन भितर पळयलें. एक मनीस हांतरुणाचेर पडून आशिल्लो. सांजेवेळार न्हिदपी, म्हळ्यार बरो नासूंक जाय अशें म्हुण तो चित्रकार भितर सल्लो.

अशोक न्हिदून आशिल्लो. ताज्या जिवाक बरें नाशिल्लें. दाराच्या आवाजान ताणें तकली वयर करून पळयलें. एक मनीस भितर सल्लो. ताणें अशोकाल्या कपलाक हात लावन पळयलें. कपल हून आशिल्लें.

"किते जालें भावा? जिवाक बरें दिसना?" त्या चित्रकारान विचाल्लें.

अशोक सदांभशेन निर्विकार आशिल्लो. ढम्म तोंडान पळयतालो.

"घरांत आनीक कोण आसा?" एका चित्रकारान दुसऱ्या चित्रकाराक विचाल्लें.

"ना." अशोकान तोंड उगडलें आनी धांपलें.

"तुवें कितें खालां?"

आनी अशोकाक जाणवीक जाली—आपणाक भूक लागल्या. ताणें मोन्यानी ना म्हळें.

चित्रकारान सामान थंयच उडयलें आनी धांवत भायर गेलो. लारांजा घेवन परतलो. अशोकान लारांजा केन्ना खावं नाशिल्लीं; पुण चित्रकारान सोलून दिल्ल्यो फोडी ताणें खाल्यो—बियांसयत.

चित्रकारान अशोकाक उलोवपाक लावपाचो खूब येत्न केलो. पुण अशोक ढम्म आशिल्लो. तागेली जाप म्हळ्यार 'हय' वो 'ना'.

पुण चित्रकार अनमनलो ना. ह्या दुबळ्या चित्रकाराल्या चित्रांतली कला ताज्या कलावंताच्या मनान पारखिल्ली. चित्रकारान अशोकाल्या घरांतूच आपणालें सामान मांडलें. एक एक रंग घेवन आपूण चित्रां काडपाक लागलो. अशोक पळोवंक लागलो—निर्विकार मनान.

दुसऱ्या दिसा चित्रकारान अशोकाक चित्रां काडपाक सांगलें. अशोक पयलीं वोग्गी बसलो. पुण मागीर चित्रकाराले विनंतेक मान दिवन जावंये वा मना माल्लें म्हुण जावये, उठलो आनी पळयतां पळयतां दोन चित्रकार गुल्ल जाले—एक काडपांत आनी दुसरो पळोवपांत. दोनचार दिसांभितर अशोक एखादऱ्या कसबी

चित्रकाराभशेन ब्रशान चित्रां काडपाक लागलो. रंगसंगती ताका चित्रकारान दाखयली. चित्रकारान सांगिल्लेप्रमाण अशोकान निसणीर घाल्ले आवयचें एक, दुकरिचें एक, नाडेपेन्नांकारांल्या आवय–भुरग्याचें एक आनी नुसत्याचें एक अशीं चार चित्रां काडलीं. पयलिंची तागेलीं चित्रां खडवान काडिल्लीं. चित्रकलेच्या हिऱ्याचें तेज तांतूंत आशिल्लें. पुण आता तो हिरो कोंदणांत दवरिल्लेवरी झगझगूंक लागलो.

चित्रकार तीं चित्रां घेवन वचपाक भायर सल्लो. वायटकार अशोकाक तसो दवरून वचप ताज्या जिवार आयलें. पुण बरोबर यो म्हळ्यार अशोक ना म्हणटा. हॉस्पिटलांत राव म्हळ्यारूय तो तें चार वणटिचें घर सोडपाक तयार ना. निमाणेंकडेन दुखी मनान त्या चित्रकारान निर्विकार चित्रकाराचो रेकाद घेतलो आनी त्या चित्रकाराक राष्ट्रीय नामना मेळोवन दिवपाचे हेतान तो दिल्लीक धांवलो.......

× × × ×

जण एकलो त्या चित्रांची तोखणाय करतालो. जागतीक नामनेचे चित्रकार लेगीत तीं चित्रां पळोवन तोंडांत बोटां घालताले. एकापरस एक ! परिक्षक समिती तर तांतल्या खंयच्या चित्राक तसरीप दिवची हाजो आठ दीस विचार करताली.

निमाणेंकडेन त्या दुकरिच्या चित्राक पयलें इनाम दिवपाचें थाल्लें. राष्ट्रपतिंच्या हातान तसरिपांचे वांटप जावपाचें आशिल्लें.

तो चित्रकार खोसयेच्या दर्यांत बुचकळूंक लागलो. जाता तितले बेगीन तो त्या गावांत आयलो. धांवत अशोकासरीं गेलो. अशोक त्या आवयच्या हांत रुणाचेर न्हिदून आशिल्लो. चित्रकार धांवलो.

“ इश्टा, तूं......तुका तसरीप मेळ्ळी, पयली तसरीप......

‘ ही आनीक कसली भानगड ’ अशे नदरेन अशोक पळयतालो.

“ इश्टा, महान चित्रकार म्हुण तुजो गौरव जावपाचो आसा. चल, राष्ट्र-पतिच्या हातान तुका इनाम मेळटलें. ”

तें सगळें उलोवप अशोकाक समजतालें काय ना, देव जाणा. कांय वेळ गेलो. चित्रकाराल्या दोळ्यांतल्यान आनंदाश्रू व्हांवताले. अशोक पळयतालो. कांय वेळान

‘ चित्रकाराक आपणालीं चित्रां मानवलिंशीं दिसता ’ असो एक भाव ताज्या तोंडार दिसलो.

चित्रकार अशोकाल्या हाताक धरून उठोवपाक म्हुण फुडें सल्लो. पळय जाल्यार आंग खतखतता.

“ इश्टा, तुका जोर आयला. आंग सामकें...”

“ तें आसूं. ” जिवितांत पयलेच फावटी अशोक अंतस्कर्णपुर्वेक उलयतालो. “ म्हजीं चित्रा...बरीं ? ”

“ बरीं ? इतलीं बरीं खंयच नात. भोव म्हळ्यार भोव बरीं ” चित्रकारान सोपे भाशेन सांगलें. आनी अशोकाल्या तोंडार हांशें फुटलें.

भायर मळब कुपांनी भरिल्लें. काळोख जाल्लो. पुण ह्या चार वणटींभितर एक तोंडा-दिवो फुलिल्लो पालवचेफुडें जोत फुलता तसो !

——आनी ते तिनसांजे कातरेर रडत रडत जल्माक आयिल्लो अ–शोक, नांवाचें सार्थक करीत हांसत हांसत मेलो.

पावस झडपाक लागलो आनी वणटीवयलीं चित्रां पुसून गेलीं.

* * *

# तेरेजालो घोव

दोळ्यांवयले न्हिदेन केन्ना कूस माल्ल्या. पुण आंगांतली आळसाय कूस परतुपाक लेगीत तयार ना. सकाळ फुडचें थंड वारें आंगार शिरशिरी हाडटा. पुण पांयां कडलें पांगरूण काडपाक लेगीत पीटर आळसाय करता.

तेरेज मान्न्यांत आसाशें दिसता. उदक घसघसायिल्ल्याचो आवाज येता. पीटराक मनांतल्या मनांत तिडक येता. भाणांत उदक भरप हांवें आनी वारोवप मात हाणें ? पुण मोटयान म्हणपाची माणुसकी ना. तेरेज रोखडेंच तिखसाणीन म्हणटलें, 'जोडप हांवें आनी मोडप मात तुवें ?'

तेरेज तोंड–हात धुवन कुडींत येता. पीटर न्हिदकुरे दोळे करून पळयता. तेरेजाल्या आंगार फक्त कामिजोल आसा. दांत–तोंड धुतना आंगार न्हयन्हय थंय उदक उसळिल्ल्यान पेटिकोट आंगाक दसला. तेरेज खोंटो वयर करून दोरये वयलो तुवालो ओडटा. हात वयर करना फुडें खांके उकते पडटात. आनी...! पीटर खीणभर दोळे धांपता. पथून पळयता. खोटों वरशो करून हात वयर केल्ल्यान कामिजोल्य वयर सल्लां. तरण्याशार केळिच्या गब्याभशेन तिकतिकीत मांडयो पीटराच्या दोळ्यांत भरतात. नकळटना पीटराचे दोळे साप्प उकते जातात.

तुवालो काडून तेरेज तोंड पुसता. खरखरीत तुवालो माने–वयल्यान ओडून गळ्यावयल्यान सकयल मेरेन पुसता, नितळ गोरे कातिचेर तामसाण झळकता.

रांदचेकुडींत मांय च्या करता, आलिमेनाच्या आयदनांक बोट लायल्यार लेगीत चेप पडटा अशें मायलें मत्त आशिल्ल्यान तिणें आयदनां आपटिल्यारूय तिका 'आयदनां चेपतलीं' म्हुण कोण दबकायना. घरांत स्टिलाबिलाचीं आयदना हाडपाचें आपणांक ह्या जल्मांत तरी जमपाचें ना म्हुण तेरेज समजून आसा. आनी आपूण कांय जोडना जाल्यार फोडटा ताका उलोवपाचो अधिकार

आपणांक ना अशी समजिकाय घेवन पीटर आसा. इतले मजगतीं मांयलें चेपां घालप आनी आयदनां फोडप असुदाय चल्लां.

'पेद्रू ऽ' तेरेज धेंगशेता.

खुंयच्याय घोवाची बायल आपणांल्या घोवाक 'आंतोनी' चो 'टॉनी' करता; 'वितोर' चो 'व्हिक्टर' करता. पुण हें तेरेज बाबड्या पीटराक उरफाटयानच गोळाक लायता. पीटराक तें मानवना. पुण आयकून कोण घेता ?

"आठ वरां जायत येयलीं, पेद्रू ऽ !" पीटर समजता. हाका बेगीन उठपाक कितें जालां ? आतां हागेलें हें सदांचेच जालां.

"ऊठ, ऊठ, पेद्रू, गाडये वगत जालो. पावोय म्हाका, ऊठ !" तेरेज आड्डता. आनी पांय आपटीत येवन पीटराचे हात ओडटा, "ऊठ बेगीन ! मेंगो खुंयचो ! गाडी चुकोत जाल्यार बॉसागेले आयकून कोण तूं घेतोलो ?"

भिरकेसरशीं पीटर उठ्ठा. ढबढब पांय धाडायत मान्न्यांत वता. तकलेक चडिल्लो राग निवळावपाक थंड उदक दोळ्यांर मारता. कपलाची शीर थंड जाता. तोंड धुवन पीटर भितर येता. रागारागान कालसांव चडयता. खोमीस लकयतासतनाच एकवटेन फुतफुतता, "सदींचेंच जालां हेगेलें. एक दीस सुसेगाद न्हिदोंक म्हुण दिना. मातशें बेगीन उठोंक कुश्तार जाता हेका. आळशी ! चमकून वोसोंक...."

पुण तेरेजान आयकलेंशें दिसता. खोंटी आपटीत तेरेज येता. "तोंड घेयन वयल्यान उलोयता चय केसो ! लज नासलेलो, आळशी ! घारांत बोसून आयतें गिळोंक जायें. एक दीस वोगोत जाल्यार सायकलान पावोच्याक कितें भेडांत येता ? दीसभर हांयें मोरोप तुमच्यापासोत आनी तुमगेलीं तोंकांसांवां ! वाज येयला म्हाका तुमचो ! सुखांतू जीव यमकोणांत घायलो हांयें तुकोडेन काजार जावन."

"मोग कोन्न काजार जाल्यांत न्हूं ? खायात." मांय भितरसून थंडसाणीन उज्यांत पेत्रोल ओतता.

इतलो वेळ रागान थरथरतालें तेंच तेरेज मायल्या थोमण्यासरशीं हुंडको दिता आनी दोळ्यांवाटयां दुकांक वाट मेकळी करता.

पीटराली तापसाण येन्ना म्हळ्यार न्हिविल्ली आसता. तो थंडसाणीन पायांत जोतें घालता. रांदचे कुडींत वचून आपुणूच च्या ओतून घेता आनी ताळ्यांत रकयता.

तेरेजान आंगांत घाल्ल्या तांबड्या गूंज ब्लावजाकडेन तागेल्या नाखाचो शेंडो सर्त करूंक पळयता. कानापाळ्यांचेर लेगीत तामसाण पातळ्ळया. कमरा भोंवतणी नाइट साय फिट्ट बसल्या. तेरेजालो तो भेस पळोवन पीटर कपलाक मिरयो घालता आनी सायकल भायर काडटा.

सायकलीचेर बसून एक पाय हुमराक तेंकोवन पीटर वाट पळयता. दोन वर्सां फाटीं तो असोच स्टेशनाभायर रावन तेरेजाची वाट पळयतालो....पुण तेन्ना तो तेरेजाच्या मोगांत आशिल्लो.

“ आतां तुगेलो वेगोत किल्या गो ? यो बेगीन. ” पीटर तिडटा.

तेरेज भायर सरता. लांब खोंटांचे बूट टकटक वाजयत सायकलिच्या दांड्यार बसता. बसतां बसतां ताका उगडास येतात. ते सरिल्ले दीस. पीटर सायकल घेवन सकाळ फुडेंच आपणाल्या घरालागीं येतालो. आपणाक ‘ lift ’ दिवपाक. चुकनासतना. दिसपट्टो येतालो. ‘ नाका ’ म्हळ्यार लेगीत आयकनासलो. एक दीस तर मजाच जाली. सदचेभाशेन सकाळफुडें हो सायकल घेवन आपणाल्या घराकडच्यान पासयो मारूंक लागिल्लो. साडेसातांक आयिल्लो. साडेआठ जालीं तरी वाट पळयतालो, हुसक्यान ताजें काळीज सकयलवयर जातालें, आनी इतल्यान हांव मिसासावन परततालें. तें पळोवन बेगिबेगीन म्हज्या फुड्यांत येवन म्हाका विचारूंक लागिल्लो “ आज ऑफिसाक गेलें ना, तेरेज ! ” तागेलो प्रस्न आयकना फुडें हांसो आटापाक येना जाल्लो आपणाक आनी ‘ आरे, आज आयतार न्हू रे ! ’ म्हणनाफुडें करों तोंड केल्लें तर ताणें !

...आनी फाटलें सगलें विसरून तेरेज हासूंक लागता. पीटराक आनिकूच राग येता. येदोळ रडटालें तें हेंच न्हय. आनी आतां मनांतल्या मनांत किटकिट्टा पळय करों ! यवजलो जातलो ऑफिसांतलो कोणूय तरी !... म्हणजे येदोळ रडिल्लें तें नाटकूच तर सगलें !...

स्टेशनार पळय जाल्यार गाडी उबी आसा. मागीर घे ताकतीक ! पीटर फास्ट पेदालां मारीत सायकल स्टेशनाच्या प्लॅटफॉर्मालागीं हाडटा.

“ फिर्रऽऽरें ! ”

गार्ड बावटो दाखयता. हातांतली पर्स सांबाळीत तेरेज धांव मारता. दाराच्या हॅंडलांक धरपाक गाडी सुट्टा. फिट्ट सायेक लागून पाय सटसट वयर सरना. पीटर पळयता. हात वरसों करून हॅंडलांक धरिल्ल्यान खांके उकते

पडल्यात. गाडी फुडें वता. आनी गाडयेबराबर तेरेजूय गाडयेच्या हॅंडलांक धरून वयर चडपाचो दुबळो येत्न करीत फुडें सरता. आकांत येता तेरेजाचेर...आनी अितल्यान डब्यांतलो अेक तरनाटो फुडें सरता. तेरेजाले दोनूय हात धरून ताका वयर उबारता. तेरेज वयर चडटा...मान धुंवडावन पीटराकडेन पळय लेगीत ना. त्या तरनाट्याक मात ' थॅंक्यू ' काय कितेंशें म्हणून हांसता.

" कापाज मुरे तो ! केशें उबाल्लें रे तेणें ? "

" चान्स पडलो तेका...."

" चेडवांकूय म्हुण जाय. नाजाल्यार सिर्वीस कित्याक करतात तर तीं..."

" हें मात सेर्त ! सिर्विसेक वतकूच जाय तेशीं मार फोल्गां. इचारता कोण ! "

लोकांलीं उलोवणीं आयकतना पीटराले दोळे रागान कपलांत वतात. वचून एकएकल्याचेर चारचार फुलोंवचींशें दिसता ताका. पुण आसं, चौगजाण आसात ते !

पीटर सायकल घेवन फुडें सरता. तेरेजाचो ताका अदिकूच राग येता. मातशें बेगीन भायर सरूंक कितें जाता ? बरें, तो तायट व्हिस्तीद नाका म्हळ्यार तें आपणालेंच करता. आनी मागीर लजेक म्हारग जाता.

...त्या तरनाट्यान उबारून वयर काडिल्लें तेरेजाक दोनूय हातांनी घट धरून. लोकांनी म्हणिल्लें, ' चान्स पडलो तेका. ' खऱ्यानीच खातकुतल्यो जाल्यो जातल्यो त्या तरनाट्याच्या काळजांत. आनी तेरेज ! ' चेडवांकूय जाय. नाजाल्यार सिर्वीस कित्याक करतात तर तीं ? ' लोक म्हणटाले. कितेंय आसूं. हाचेफुडें तेरेजाक सांगूंक जाय. ' सिर्वीस बंद ', ' तायट व्हिस्तीद बंद '.

पीटरान काजार जातकीर कितलेशेच फावटी तेरेजाक सांगिल्लें तायट व्हिस्तीद सोड म्हुण. पुण तेरेज म्हणटालें कि, ' रिसेप्शनिस्ट ' म्हुण काम करता थंय असले घालचेच पडटा. तेरेजान अेक मात केल्ले आसता. घरा आसल्यार चुकून लेगीत तें तायट व्हिस्तीद वा हातकापीं पोल्कां घालना–पीटराले नदरेंत तें थंयच चुकता. ताका दिसता आपणा म्हऱ्यांत आसतना तेरेजान सगल्यो फॅशनी करच्यो. पुण लोकां फुड्यांत कित्याक असलीं अवच्चिन्न पणां ? पीटराक खरें म्हळ्यार तेरेजान मोटव्यो, तायट सायो घाल्यो जाय आसता. हातकापीं, रूंद, उकत्या गळ्याची पोलकां घालचीं अशेंय ताका

दिसता. पुण ऑफिसाक वतना न्हीं...पुण आतां उपाय ना. पीटराक आवड-नाशें समजून तेरेज घरांत वा हेरकडेन 'तसलें' घालना. आनी 'तूं घरांत घाल. भायर घालूं नाका' म्हुण सांगपाची तांक पीटरांत ना.

"पीऽटर" गिलेर्म साद घालता. पीटर हरशीं थंय रावनासतना वचत आशिल्लो. पुण काल्लूच गिलेर्मीलो पाय आफ्रिकेसावन आयला खंय. किर्ते हाडलां येतनां तें पळोवया म्हुण पीटर सायकल धुंवडावन गिलेर्मील्या दारांत हाडटा.

गिलेर्मीलो पाय सालांत वल्तेराचेर बशिल्लो आसता.

"आरे, पीटर न्हूं रे तो! केसो आहाय रे" फिंर्गी भास उलयिल्लया-भशेन पाय विचारता, "किदें कोत्ताय रे आतां?"

"बिझीनेस" हें उत्तर पीटराले जिबेर येता. पुण पीटर तें गिळटा हरशीं आनी कोणेंय विचाल्ल्यार पीटर हडुं फुडें काडून सांगता, 'बिझीनेस'

...'कसलो रे' म्हुण विचारपी मेळ्ळयारूय जाप फाल्त नासता... 'बिझीनेस म्हुण्टाय तेका लिमीट आहा? केसलोय येपार! नाल्लां प्रेस येता तेन्ना नाल्लांचो; काळगां तेंपार काळगांचो; कांय ना जाल्यार निसत्याचो!"

खरें म्हळ्यार हातुंतलो एकूय धंदो पीटरान केल्लो नासता. दोनशेंसत्त्यांयशी मार्कीनीं अेस् अेस् सी. पास जाले उपरांत ताणें दोन सिर्वीसो केल्ल्यो. पयलीच केल्ली ती अेका फार्मासींत. सकाळफुडें उठप, सायकलीन मडगांवां वचप. दनपारां जेवन आड पडूंक मेळप ना. आनी रातचे आठ वरां रातीर परतुवप. पीटराले बलायकेक मानवलें ना. पात्रांवाल्यो बराबर शंबर गाळी सोंसून घेवन पीटरान जी कूस माल्ली तो तेरा दिसांचो पगार घेवपाक लेगीत पात्रांवा—फुड्यांत गेलो ना, मांयन वा कोणेंय विचाल्लें जाल्यार 'बिझीनेस' करतलो म्हुण सांगचें. तेरेजाकूय काजार जावचेफुडें ताणें तशेंच सांगिल्लें. आनी मोगांत आसतना तेरेजाकूय ताजी तोखणाय दिशिल्ली.

मागीर काजार जातकीर ताणें दुसरी सिर्वीस धरिल्ली ती तेरेजाखातीर. तें मार लागलें फाटीक. बॉसाकडेन फावोर घालून तागेल्याच ऑफिसाच्या दुसऱ्या एका डिपार्टमेंटांत दसयलो हाडून—पीटराचे अित्सेभायर! सकाळफुडें उठप, गाडी धरप, हातांत पेन घेवप आनी दीसभर बरयत सुटप. दनपारां पांच मिनटां-

लेगीत दोळ्याक दोळो म्हुण लावपाक मेळप ना. तातूंत ‘ फ्रेट ’ ‘ डॅमरेज ’, ‘ फायलींग ’, ‘ चेकींग स्लीप ’, ‘ स्टेटमेंट ’, ‘ कन्साइनमेंट ’, ह्या कडक फिंगीं उतरांनी पीटराक एकदीस कडकडीत जोर हाडलो. आनी त्याच जोराचें निमित्त धरून पीटरान ऑफिसाक जी दडी माल्ली ती माल्लीच. “ बेकारूच आहाय रे ! शी ! वर्क कोर रे ! सिर्वीस कोर...नाजाल्यार तारवार वोस...” गिलेर्मील्या पायन पीटराक कोडू वखद भरून दिलें, “ वर्क कोरना जाल्यार जातोलें केहें ? ”

“ बायल जोडटा तेगेली. ” गिलेर्मीन पीटराल्या घायाचेर मिठाचें पाप घालें.

“ किदें ? बायलेक सिर्विसेक धाडटाय ? व्हेरी बॅड ! केसो दादुलो रे तूं ! बायलांक केन्नाच ‘ फ्री ’ सोडूंक फावोना. तीं माथ्यार बोसतात मागीर. दादुलो म्हुळ्यार—” अितल्यान गिलेर्मीली मांय थंय पावता आनी पाय आपणांक ‘ कच्च ’ करून ब्रेक लायता.

पीटराक केन्नाकाय भायर सल्यार पुरो जाता. तो अदमास घेता. पायलें सामान फाटल्यान ट्रान्सपोर्ट कंपनिच्या ट्रकाचेर येवपाचें आसता. पीटर भायर सरता. तिठयार वचून नुसतें घेता आनी बद्द घरा येता.

“ येयलो ? यो, बाबा ! तुजीच वाट चयतालीं. ” मांय म्हणटा. पीटर समजता. मोन्यांनी कळसुली घेवन बांयचेर वता. भाण भरता. उदक भरून दवरता. फडफडून उपेग नासता. मांय आपणाच्यान नज म्हणटा. आनी ‘ बेकार आसा थंय अितलेंय जायना. ’ म्हुण विचाल्यार पीटराकडेन जाप नासता.

कानाप्याचेर आड पडटा. पुण न्हीद पडना. तेरेज कितें करता आसतलें ? ऑफिसांत किटकिट्टा आसतलें ! बॉसाकडेन काय येदोळ हातांक धरून उबा-रिल्ल्याकडेन ? कोण काय तो ? तेरेजाचो वळखिचोच आसतलो. वळख म्हळ्यार —कितलिशी आसत काय ?–तेरेजालें तें हातकापें पोल्क–उकते खांके–ती फिट्ट साय–तें हात धरून वयर काडप–ते लोकाले थोमणे–‘ चान्स पडलो तेका ’– ...‘ चेडवांकूय जाय ’ – ‘ बायलांक ‘ फ्री ’ सोडूंक फावोना...चारूयवटेन पिसावल्ले म्होवामूस फाटीक लागचे ’ ते भाशेन ते विचार पीटराक चाबूंक लागतात.

“ जेयतोलो मुरे आयजऽ ” मांयगेली म्हुण उलोवपाची रितच संवसार भायली.

पीटर पोटभर जेवता आनी सुस्त न्हिदता तो बद्द पांच वरांचेर उठ्ठा.

“ उटलो ? आतां खंय वोयतोलो हेडूंक ? ” उठ्ठा खिणींच मांयली उतरां पीटराले सेवेक हाजीर जातात. “ सिर्वीस जायना–नेगोसाक लागला उजो. काजार अ नी जाला. बायलेक पोसूंक जायना ती जायना; सांबाळोंकूय नेजो. तिगेल्यो फोकी होडल्यो. तों भेस, ते केंस, चेड्यांपरस पारट ! घोवाक गुटलायला आनी आतां जाय तेशी नाचोता. आतां सांजे वगतार येतरीच चयात. घोव म्हुळ्यार बोंडो आनी सासमांय म्हळ्यार सोण्ण ! ”

“ आतां मातशी बगी राव चया ! ” पीटर वितरागानीं म्हणटा.

“ वगी राव म्हुण म्हाका ऽ सांग तूं. तिका सांगोंक जाप ना तुजेकडेन–कापासदादूच ना. भिजूड खुंयचो ! खरो ऽ न्हवरो आसत जाल्यार चार फुलो–न एसो बायलेक जाग्यार हाडटा आसलो. पुण तूं...! सायबान बेगीन उगडास केलो आनी हांव मेलीं जाल्यार सुटलीं तरी–”

फुडलें आयकुपाक पीटर थंय रावना. सायकलिचेर बसता. आनी पेदालों मारीत बद्द कायतानाले गादयेर येता. बल्कांवांतच ताबलांचो खेळ रंगार आयला...‘ हि ऽ री री री री ’ च्या आनी सांगाताक ताबलां आपट्टुपाच्या आवाजान आयल्या पेल्यांक सगल्यांक नेट चडला. पीटर पयलीं चार आण्यांचें मारता आनी तोय खेळ पळोवपाक लागता. कांय वेळ वता.

“ आठ–”

“ बार–”

“ ताब्ल– ”

“ कापाज–दी ताळी ” करीत गडे उठ्ठात.

सगलेजाण अेकाबराबर उलोवपाक लागतात. कलकल ! पीटर मातसो रमता. अितल्यान आग्नेल ताळयो मारून लोकांक वोगी करता–“ आयकात. आयज सोकाळीं वास्कोचे गाडये फुड्यांत कोण आसले ? ’

“ हांव–” माटीण

“ तूं वगो. आनीक कोण आसलो ? ”

पीटराक दुबाव येता. आग्नेलाच्या हटमटवाळपणांची घुरी आज आपणा-चेरशी दिसता.

"आयकात तोर. आमगेल्या बाब पीटराली घरकान्न बाय तेरेज आजय गाडये पोंदाक पोडपाचें–"

"किदें ?"–सगले.

"पुण तेगे वगत बरो आसलो. बाय तेरेजागेलोच एक आमीग त्याच डब्यांत आसलेलो, घडये तेजीच वाट चयतालो जातलो. तेणें पिक्चरांतल्या हिरोभाशेन आपणांले दोनूय हात तेरेजाल्या खांक्यांनी एशे घायले आनी तेका अश्शें वोयर काडलें–" आग्नेल ॲक्शन करीत सांगता. पीटराली तिडक उसळटा.

"आग्नेल !" पीटर तेंगशेता, सारकें उलोय.

"हांव चुकलां तोर ! तेशें जाल्यार तूं सांग–" आग्नेल कुच्छित्रिपणांनी हांसता.

"हांव वगो रावचो ना चय तुकां ?" पीटर धमकायता.

"आब्बा ! कितें कोत्तोल रे ! असो यो सामकाराक आनीं मागीर उलोय रे !" आनी खऱ्यांनीच पीटराचो हात धरून आग्नेल ताका म्हऱ्यांत हाडटा.

पीटर घुसपता. काचाबूल जाता. पोकळ झेत गळून पडटा. दुबळी आवतिकाय अदिकूंच दुबळी जाता.

"चयात हेगेलो झेत !" आग्नेल म्हणटा आनी सगले अितले खोखो करून हांसतात. "बायलेक दाखोय तो, आं !"

अेका तेरेजाक लागून म्हाका हें सगलें सोसचें पडटा. वतावता थंय म्हजो अपमान ! उणाकपण ! सकाळफुडें गाडयेकडल्या फकाण लोकांले थोमणे !

गिलेर्मील्या पायलीं उतरां ! मांयलीं तोकासांवां आनी आतां–ना, आतां वोगी रावप ना.

पीटर आतां आठ आण्यांचें घेता.

"कूऽक"

पीटर सायकलिचेर बसून स्टेशनार वता. तेरेज देंवता. पीटर बारीकसाण घेता. जनेंलांतूच 'तो' बसला. तेरेज सायकलीर बसता. आज बरें खोशयेंत आसा. अदिकूच तिडक मारता पीटराक.

'पेद्रूऽ सोकाळीं केशें भियलें जाणां, हांव ! तेणेन घल्लें देखून सुटलें–"

तेरेज वतावतां सांगता. तेरेज फुडें बशिल्ल्यान ताका पीटरालें तोंड दिसना. नाजाल्यार पीटराल्या कपलाची फुगिल्ली शीर आनी तांबडे जाल्ले दोळे पळोवन ते अजापतलें आशिल्लें.

सायकल घराच्या दारांत थांबता. दोगांय देंवतात.

"पेद्रू ऽ फाल्यां सकाळीं बेगिनूच पावोय आं! नाजाल्यार आयचे-भाशेन फाल्यांय–"

पीटर हात उबारता.

झांझां —! सारकें समजुचे पयलींच तेरेजालीं दोनूय कानसुलां तांबडीं जातात. तें किळांच मारता. भितल्लेवशीन रावन मांय सद्‌चेच थंडसाणीन पळयता. पीटराक अदिकूच नेट येता. पोल्यांर, नाखार फाटीर, पोटार, हातार, पायांर, मारत सुट्टा. मारता, मारत रावता.

* * *

# गणपती पावलो

" आयकलां:ऽ " घरकान्नीन उलो माल्लो.

" आयकलें ना ? चवथ लागीं पावली. घरांत किंतेंय करपाक नाका ? " तिणें विचाल्लें.

" कितें करपाचें येवजिलां ? " काळजांतलीं उद्विग्नपणा जिबेर हाडनासतना हांवें विचाल्लें.

" अशें कितें ? नवें नवें करपाची म्हाका कितें उमेद आसा ? पुण चार लोकांखातीर कांय न्हीं म्हळ्यार नेवऱ्यो तरी करूंक नाका–"

म्हजी अस्वस्तताय लिपयत हांवे वयलेवयर म्हळें, " बरें आसा. करपाक जाय ते कितें चुकूंक आयलां ? पुण आसात न्हीं अजून चार दीस ? फाल्यां पळोवचें–"

पुण काळजांत लिपयिल्लो हुसको जरी जिबेर हाडलो ना तरी दोळ्यांनी घात केलो म्हज्या. बायल म्हऱ्यांत येवन खोमसाच्या हाताक धरून म्हणूंक लागली, " हें कितें ? दोळे कितले ओडल्यात पळयलां तुमी ? वोगीच मेळत ती गजाल मनाक लावन घेतात तुमी. म्हाका कितें परिस्थिती समजना ? हांव म्हणचेंच नाशिल्लें...पुण–"

बायलेचे दोळे भरून येतात. तें पळोवन म्हाका सकयलवयर जालें.

" ना...ना....सावित्री, तशें न्हीं. तूं चुकली ना, चवथ लागीं आयल्या. कितेंय तरी करुंकच जाय. पुण हांव हो असो....परिस्थितीक लागून नाका नाका.. "

म्हज्या तोंडार हात दवरून सावित्रीन आपणालो हुंडको आडायलो आनी जड ताळ्यान म्हणूक लागली, " तुमी हुसको करनाकात. देव आसा......

गणपती...'' आनी फुडलीं उतरां हुंडक्याबराबर वाऱ्यार पडलीं. सावित्री भितर गेली आनी पायांत जोतें लकोवन हांव बल्कांवाचेर आयलों.

भायर भुरगीं खेळटालीं व्हडलो. सुरेश शेजाऱ्यागेरसावन हाडिल्लें काणये पुस्तक वाचतालो आनी विमल व्हडव्हडान कविता. म्हणटालें. मदलो बाबू सकयल्या सपणाचेर बसून वयर झाडाचेर बशिल्ल्या कावळ्याकडेन तांकून म्हणटालो, ''कावळ्या, कावळ्या, आमगेर कोण येतलो जाल्यार बसून राव—कोण येवपाचो ना जाल्यार उडून वच—'' कावळ्यान खिणभर मान वांकडी करून बाबूकडेन पळयलें आनी 'कावकाव' करीत पांखां पातलावन उडून गेलो. म्हाका बेठेंच सू जालें. चाळीस वर्सांफाटीं हांवूय असोच कावळ्यांक पळोवन हेंच म्हणटालों तेन्ना म्हाका कोणूय सोयरो आयल्यार पुरो जातालो. पुण आतां सोयरो म्हळ्यार भंय दिसता. लजेची खबर पुण तितलीच खरी! हांव सपणां देंवन बाबू म्हऱ्यांत गेलों. इल्लेंशे तोंड करून बाबू कावळो उडून गेल्लो ते दिशेन पळयत बशिल्लो. हांवें बाग घेवन ताजो उमाव घेतलो आनी अभ्यास कर आं म्हुण सांगलें. हांवें फाट पर्तुपाक बाबून म्हजें खोमीस धरून ओडलें, ''बाबा, आमकां फोगेटयो हाडटलो मरे आज?''

''हय तर हाडटलों आं—'' हांवें वयल्यावयर हांसत अेक फट माल्ली.

''आनी सुरसुरींय बी...'' बाबून दोळे पिटपिटायत म्हळें.

''हाडटा आं—'' अितलें म्हणटासर विमलान आयकलें दिसता..." बाबा, म्हाकाय जाय आं, पयलींच सांगतां....म्हाका फोंगेट मारपाक कळटा आतां...''

''पिशा, आगो, सगल्यांक हाडून तुका हाडनासतना रावतलों हांव सगल्यांक हाडप. चलात आतां अभ्यास करात पळोंवया—''

इतलें सांगून हांव वाटेक लागलों.

आंगडे आयल्यानच कुष्ट मेळ्ळो. कुष्टान केन्ना कोणाक कसलीच बरी खबर सांगूंक ना. कोणे कोणाक बडयलो, खंयच्या वाड्यार केस्तांवां जालीं, कोण कसो मेलो आनी कोणे कोणाक नागयलो असल्योच खबरी.

''आरे शंकर, तो कोंड्याबांदावयलो जुआंव खंवसलो म्हुण जाणा मरे?''

''अशें, जांव, दुयेंतच आशिल्लो न्हीं तो'' हांवें उलोवपाक जाय म्हुण म्हळें. पुण कुष्टाक खूब सांगपाचें आशिल्लें.

" दुयेंत हालींच आशिल्लो. पुण हांव सांगतां म्हुण आयक. घरच्यांनींच ताका माल्लो..."

म्हज्यान असलें आयकूं नज. हांवे म्हळें, ' आरे, कित्याक पापया—

" आयक, आयक– फट म्हुण आयक. ह्या जुआंवाक तागेलो चेडो आनी सून पेजे नीस लेगीत वाडनाशिल्लीं. पोटाक माल्लो न्हीं तांणी बापायक ! शीः शीः ! किडे पडटले तांकां. दीसरात मारप आनी पोटाक माती. ताणेंकरून मेलो तो. फट म्हुण दाखयल्यार म्हगेल्या कानाकुडको काड आनी तुगेले अळशिकेंत उडय..."

कुष्टालीं असलीं उतरां आयकुपाचे मनःस्थितींत हांव नाशिल्लो. हांवें वच-पाची तयारी केली. तर कुष्टान म्हाका आडावन तोंडार विचाल्लें, शंकर, त्या विष्णूल्या पसऱ्यार उदारी केल्या खंय तुवें ?– न्हीं, तोच सांगतालो–म्हाका कितें गा तें. पुण आपलें विचारया म्हळें.... "

तिडकेन म्हजे दोळे कपलांत वचूंक लागले. कुष्टाल्या दंडाक घट्ट धरून हांवें विचाल्लें, " कुष्टा, विष्णून सांगला तुका– "

" ताणें सांगना जाल्यार म्हाका पापयाक करों कळचें— तुगेलेंय बरें मरे ! "

हांवें कुष्टाक थंयच सोडलो. बद्द विष्णूल्या पसऱ्याची वाट धल्ली. असलो अपमान, असलें उणेपण सोंसप म्हजे तांकीभायलें आशिल्लें. उपाशीं रावन पुण कोणाकडच्यान शीं म्हुण घेवचों ना.

विष्णूल्या पसऱ्यार पावलों तेन्ना म्हजो अवतार पळोवपासारको आशिल्लो " विष्णू, तुगेले पयशे केन्ना बुडयल्यात हांवे— ? "

" नारे बाबा, कित्याक ? " विष्णू अजापून पळयतालो.

मागीर तुवें गांवार कित्याक घालें ? कुष्टाक कित्याक सांगलें ? इतल्याशा दुडवांकलागून म्हजो अपमान करूंक पावलो तूं ! "

विष्णू बारा बांदांचें उदक पिल्लो. तो नमलो ना. उरफाटें घायांचेर मीठ घालून म्हणूंक लागलो कसो, " आरे, शंकर, मान अपमान आसात ताणें उदारीच करची न्हीं. हांवें कोणाकडेन फटिचें सांगलें ना. खरें तेंच सांगलां. " तागेलीं तीं थंडसाणिचीं उतरांच म्हाका लासूंक लागलीं. बद्द उठलों आनी

देसायागेर गेलों. दोनशीं नाल्ल सांबळून दवरिल्लो. तो लाटया म्हळें, " देसाय-बाब, नाल्लाक दर कितें आसा ? "

" कितलो आसा ? " ताणें विचाल्लें.

" दोनशींच आसा. पुण रोखडे नगद दुड्डू जाय. "

एकशेंवीस रुपय हातार पडले. विष्णूले पंचाणव फारीक केले, आनी तिडकी-भरशीं घरा येवपाक लागलों.

येदोवेळ मान अपमानाचे जाणविकेक लागून हुसको सगलो लिपून बशिल्लो. घरचे वाटेक लागताखिणींच चेपण काडटकीर कागदां सगलीं हुबपाक लागचीं तशेतरेन हुसके सगले वयर आयले. बायलेन दुदा-लात हाडपाक सांगिल्लें. धाकलो आतां वर्साचो जाल्लो. आतां ताका आठ दिसांक एक लात लागपाक जाय. पुण सावित्री जाता तितलें लांबयता. फाटलें लात व्हेल्यार पंदरा दीस जातले ? पयर कावार जालें खंय. काल हांवें हाडपाक विसलों म्हुण सांगिल्लें. आतां व्हरपाकच जाय. फाटलो फुडलो विचार करनासतना पयलीं फार्मासींत गेलों. लात घेतलें.

आनी हांव पर्थून घरचें वाटेक लागलों. दारांतच बाबू म्हजी वाट तेयटालो. धांवत आयलो, " बाबा, म्हज्यो फोगेट्यो, सुरसुरीं-दी म्हाका. बेगीन ताका हांवे अळंग पयस केलो आनी तागेल्या भरिल्ल्या दोळ्यांकडेन पळयनासतना हांव रांदचे कुडींत गेलों. दुदालात मेजार दवरून हांव म्हाणायचेर बसलों.

" हें कितें ! ल्हान लात म्हारग पडटा म्हणिल्लें न्हीं आनी रोखडेंच कावा-रूय जाता. " हांवे सावित्रीच्या दोळ्यांत पळयत म्हळें, " लात ल्हान घेतल्यार दूद बेगीन सोंपता आनी व्हड घेतल्यार बोल्स बेगीन कावार जाता. "

सावित्रीन सटकन म्हजेकडेन पळयलें आनी तकली धुंवडावन ती पर्थून लाकड सारकीं करूंक लागली.

च्या सारकी करून कोप म्हज्या म्हऱ्यांत दवल्लें आनी म्हणूंक लागली, " फाल्य सकाळीं तरी नेवऱ्यो करूंकच जाय. पुण तुमकां चड खर्च जायसारकें करना हांव नाल्ल आसातच देवा दयेन. "

सावित्री उलयताली तें म्हज्या कपलांत वचनाशिल्लें. खंयच्या तोंडान हिक सांगपाचें आतां, नाल्ल विकलो म्हुण ! ती उलयतच आशिली...

भायर बाबू हुंडक्याहुंडक्यांनी रडटालो. फोग हाडलो ना म्हुण...

पाळण्यांत धाकलो ' उंवांउंवां ' करतालो.

सावित्री काळजाक पिळोव घालताली, “ तांतले पंचवीस नाल्ल तरी लागतले ते काडया आतां. तुमी फकत साकर, गोड, भायलें पीठ आनी गवांपीठ हाडात. तांदूळ काबार जायत आयल्यात. पुण रेशन अजून हाडूंक ना न्हीं ? तें हाडया... ”

सावित्री आपणापरीन काटकसरिचेंच सांगताली. पुण तितलेंच हाडपाक आज उणे म्हळ्यार चाळीसेक रुपय जाय आशिल्ले. त्याभायर गणपतीची म्हुर्त हाडपाक जाय आशिल्ली.

हांवे जाता तितल्या ल्हव आवाजांत विचाल्लें, “ पुण सावित्री, अितल्यो नेवऱ्यो, पंचवीस नाल्लांच्यो....”

“ अशें कितें, ” सावित्रीन मदींच म्हाका तोडून म्हळें, “ तुमचे भयणीक चवथिचें वजें धाडपाचें आसा न्हीं. तें चुकोव येता ? ”

म्हजे दोळे वरशे जावपाक लागले. हांवे मन निबर करून सांगलें, “ सावित्री, सावित्री, नाल्ल ना आतां. तो विकलो हांवें. ”

सावित्रीन थंयच बसकण माल्ली. येदे व्हडले दोळे करून फुड्यांतल्या उज्याक शुन्या नदरेन पळोवपाक लागली. हांव उठलों आनी भितल्ले कुडींत वचून कानाप्याचेर आड पडलों.

चवथ, वजें देवा-म्हुर्त, फोगेटयो, सुरसुरीं, नेवऱ्यो, तांदूळ-साकर...... कशें, कशें जावप आतां. बोल्सांत तर सगले वीस रुपये आशिल्ले. आनी...

सावित्री ल्हवूच माजरापावलांनीं कुडींत भितर सल्ली. म्हज्या कपला-वयल्यान केंसांवयल्यान हात भोंवडावन म्हणूंक लागली, “ तुमी कांय हुसको करनाकात....देव आसा. विघ्नहर्तो गणपती पळोवन घेतलो. ”

“ सावित्री, देव ना, हें राज्य देंवचारालें. देव आशिल्लो जाल्यार आज आमचेर ही परिस्थिती—”

“ थुसेकाल. अशें म्हणनाकात. देवाक वायट दिसतलें. ”

रातभर दोळ्याक दोळो लागलो ना म्हज्या. माचयेचेर संवंगा नाचतात तशेतरेन चवथ, वजें, म्हुर्त, फोग हांचेच विचार तकलेंत नाचताले. विष्णूले दुड्ड फाटीक केल्ले खरे; पुण संबंद तोडून. पर्थून तागेल्या पसऱ्यार वचपाची माणसुकी नाशिल्ली. गांवकारालो पसरो लागीं करतशें दिसनाशिल्लें. पुण गरजवंताक अक्कल ना म्हणटात, हांवें वचून पळोवपाचें थारायलें. कितें सांगू

येता ? जाण्टयांले पुण्यायकेन ताका दिवपाची बुद्द आयली जाल्यार चवथ तरी सोबली. पुण नाजाल्यार कितें ? हो विचार भेश्टायतालो. चवथ कांय चुकना. हीच चवथ जर फुडल्या म्हयन्यांत आयिल्ली जाल्यार फुडलो पाडो तरी पदरांत पडटलो आशिल्लो. सुवेर बी जाल्यार जाता तशें. चवथ उरता. पुण तसले विचार करप म्हळ्यार फ्राकेज !

मर्दीच बाबू सपनेलो...फुतफुतूंक लागलो. मर्दीच आडडलो,..." गणपती-बाप्पा मोरयाऽ–फुडल्या वर्सा येवया–" म्हाका त्या वेळार लेगीत हांसो आयलो. बाबू उमळशिकेन वाट पळयतालो चवथिची आनी हांव नाका ती चवथ म्हुण चुकोवपाक करतालों.

पुण चवथ कोणाक चुकूंक आयल्या ? वजें चुकूंक आयलां ! नेवऱ्यो–फोग –म्हुर्त कांय चुकना.

दुसऱ्या दिसा सकाळींच गांवकाराल्या पसऱ्यार वचपाचें थारावन हांवे कुंभकर्णा बायलेक माळ घाली.

सकाळीं पसऱ्याची वाट चलतासतना जीव सकयलवयर जातालो. कोणाले शीट म्हुण घेवचों ना असो म्हजो सभाव. गांवकारान तरी उपकार केल्यार पुरो. सावित्री म्हणटाली ' गणपती पळोवन घेतलो. ' कळटलेंच आतां. पसऱ्यार पावता म्हळ्यार म्हज्या आंगाक शेळी हूम सुटिल्ली.

पसऱ्यार गिरायकां आशिल्लीं. एकेकजाण वचूंक लागलो. कोण नासतना विचारया म्हुण हांव मातसो रावलों. म्हज्या काळजाची धडधड म्हाका जुस्त आयकूंक येताली. ताळो सुकतालो. गांवकाराल्या एका उतराचेर म्हजे चवथिचो फुडार आशिल्लो. आंवडो गिळून हांव फुडें सर्लों.

" गांवकारबाब ! " मन घट करून हांवें उलो माल्लो.

" आरे, शंकरबाब मरे ! भायर सो एदोवेळ ? कितें जाय आशिल्लें ? "

हांवे आशेन म्हळें, " एक उपकार मागूंक आयिल्लो हांव. चवथिचो वेपार थोडो जाय आशिल्लो. बावीस दिसांचेर पाडो आयला. पाडो जायनाफुडें दुड्ड पावते करतां. ना म्हण नाकात. उपकार जातले. " काकुळटायण्या उतरांनी हांवे विनयलें.

" रागार जावं नाका, शंकरबाब ! आमचीय परिस्थिती दिवपासारकी ना म्हज्या दोळ्यांमुखार चवथ नाचूंक लागली. तो कितें म्हणटा तें आयकुपा

रावनासतना हांव भायर सल्लों. विघ्नहर्ता खंय ! पळोवन घेतलो खंय ! आनी असल्यांक पुजप खंय !

धवे दोळे घेवन हांव भायर सल्लों. मारगार पावपाक फुडल्यान कुष्ट येतालो तो दिश्टीक पडलो. आतां ह्या वेळार तरी तो म्हाका दोळ्यांमुखार नाका आशिल्लो. पुण ताणे खंयच्यान म्हाका पळयलो आनी " आयक रे शंकर ! " अशें म्हुण म्हज्यांत आयलो, आनी विचारूंक लागलो.

" म्हणटकीर चवथ उल्ली मरे तुमगेली ? " तो कितें म्हणटा तें लक्षांत येवचेपयलींच ताणें फुडें सांगलें, " तुका खबर नाशें दिसता. आरे तुमगेलें तें जायुआका मेलें खंय आज फांतोडेर...दायजी न्हीं ? तशें जाण्टें..."

" कितें ? मेलें ? म्हणटकीर सुतक ? " हांवें अजापून म्हळें. खिणाभितर म्हाका ल्हवल्हव दिसपाक लागलें...

" सुतक ? सामकें अकरा दिसांचें ! ..."

कुष्टान आपले परीन वायट खबर हाडिल्ली. पुण इतली बरी खबर ताज्या तोंडसून हांव पयलेच फावट आयकतालों. चवथ, वजें, नेवऱ्यो, फोग एकएक करून धांव मारपाक लागलीं. आनी म्हाका सू जालें.

* * *

# आनी हांव परतलों

भुरगेंपण, तरणेंपण सोपलें. आतां आयलां जाण्टेपण. भुरगेपणांतली मस
आतां ना. तरणेपणांतली उमेदूय आतां जिरल्या. पुण आजूनमेरेन बडी हात
घेवचेलो वेळ येवंक ना. हाडां गरम नात. पुण नरमूय नात. करचेलें स
करून जालां. भोगचेलें सगलें भोगून जालां. आतां उल्लया ती जीण, म
येना म्हुण जियेवपाची. संवसार करून जालो. आतां पुतांचो संवसार पळे
धुवो घोवाघरा नांदतात. नातरां आतां आज्याक खेळयतात. जाण्टेपणात
सगलीं सुखां भोगतां.

केन्नाकेन्नांय दिसता ! अशेतरेन बेकार बसचे परस कितेंयतरी करचें.
असल्या जाण्टेपणांत कितें करशीं काय म्हणशात ! पुण बेकार म्हुण
येता ? भुरगेपणांतली मस्ती येवजता...तेन्नाय म्हाका अशेंच दिसतालें. कि
तरी करचें ! जाण्टयांवरी भोंवचें, हेडचें, झाडार चडचें, उडक्यो मारच्यो.
आईक सोंसना म्हुण वगी बसचें पडटालें. तरी पुण कांयकांय वेळा पोरसां
मेधा आनी आइले धेंगशे म्हाका आडावंक पावनाशिल्ले. हांव मनाक येत
करतालों आनी जाण्टीं म्हाका म्हणटालीं 'आडांगी !'

एक दीस शाळेंतल्यान घरा येतालों. पावसाचे दीस ते ! घोम्यांनीं प
पडटालो. बांयो उपाट भरिल्ल्यो. बाबान हाडिल्ली तांबडी कापोत हांवें गु
करून खाक्यांत मारिल्ली. पावसांतल्यान भिजत येवपांत जी मजा आसा
कापोतींत रावल्यार कशी येत ? आईक मात हे कळूंक उपकारनाशिल्लें.
हांव घराफुड्यांत पावतकीर कापोत लकयतलो आशिल्लों आंगार. क
खांक्यांत धरून केंसांवयलें उदक दोळ्यांत वता तें तोखेत हांव चलत
व्हडलो आंबो काडटकीर देवा बांय लागतां. ह्या बांयेंत वर्सानवर्स चव

गणपती पावयतात म्हुण तिका देवां बांय म्हणटात. म्हाका याद जाली, हेच बांयेकडेन बेबे रडटाले. हांवें मुद्दम पळयिल्लें. दोनचार बेबकां बांयत तोंड धांपून बशिल्लीं. केदो वेळ हांव पळेत आशिल्लों. एकानूय 'आं' म्हुण केलें ना. तोंड धांपून रडटात कशीं हीं हाजें अजाप करीत घरा गेल्लों हांव. आईक सांगिल्लें, "ते देवा बांयत मगे बेबकां रडटात."

"पावस येतलो दिसता."

"तुका कशें कळ्ळें गे ?" हांवें विचारिल्लें.

"आरे, म्हाका न्ही. त्या बेबकांक कळटा"

"तांका ज्योतीश कळटा हय गे ?" हांवे अजापान विचारिल्लें.

"आरे पापया, हय. चल पळोवया मातसो भायर तोंड घेवन."

आज ते बांयकडेन पावतकीर म्हाका आइल्या त्या उतरांची याद जाली 'पावस येतलो दिसता.' ह्या बेबकांकय म्हुण ज्युस्त बरें कळ्ळें आं! तोखणायेन हांव बांयकडेन गेलों. आजे बेबकां थंड बशिल्लीं. बाग घेवन पळेत जाल्यार बांय भरत आयल्या. कितलें उदक हें! कितलें निवळ! हे बांयेत उडकी माल्ल्यार कितें जायत काय ? पयर त्या तळ्यांत गोरवांराखणे पेंवताले. म्हाकाय पेंवचेशें दिशिल्लें. पुण बरोबरचीं म्हाका भेस्टावपाक लागलीं म्हुण. हॅ! भिरांत कसली ? उदकाक म्हुण भिवपाचें ? भिजल्यार भिजूं. पावसान भिजलांच. कापोत देगेर दवल्ली आनी हेवटेन तेवटेन पळेनासतना त्या निवळ निळ्या उदकांत उडकी माल्ली. पुण कोणेतरी पळेलो म्हाका. आयले धांवून लोक. रोखडोच काडलो म्हाका वयर. खंय कितें जालें ? मातशें उदक मात पिल्लों. आनी जातलें कितें आशिल्लें ? आयतेंच पेंवपाक मात शिकतलों आशिल्लों.

...तेन्ना काय कळ्ळें ना. आतां येवजिल्यार दिसता. एकादो कोण पावूं नाशिल्लो जाल्यार आयज हो संवसार...? पुण वगी म्हणप तें. जावपाचें तें केन्ना जालेबगर रावता ?

भुरगेपणांत म्हाका खूब धाकांत दवरिल्लो. पुण तरणेपणांत हांवे तें भरून काडलें.

एकूय धंदो करचो दवल्लो ना. तारवार वचून आयलों. नाल्लां—नेगोस केलो, पसरोय चलयलो. कांयच दवल्लें ना. संवसारांतले सगले अणभव घेतले. बरेय बी आनी वायटय बी. धंद्यांत लेगीत हांवें केन्नाच दुसऱ्यांलें आयकलें

ना...., मनांत आयलें तें केलें, फायदो जालो, लुसकान जालें. पुण ताजें सुवेर-सुतक मानलें ना. वेपार म्हणटकीर लाबलुसकान हें जावपाचेंच.

संवसार केलो. भुरग्यांक शिकयले. आज ते म्हाका पोसतात पुण...

असली ही जीण म्हाका नाका. हीं बसून भोगपाचीं सुखां म्हाका नाकात. एकलोच खंयतरी वचचें.. जंय कोणच आसचो ना, पुण सैमाचें उकतें-मेकळें दर्शन घडटलें. जंय मनीसजात चडशी बावुरना, जंय हांव एकलो एकसुरो रावीन अशे सुवातेर वचचें अशें म्हज्या मनानच घेतिल्लें. सैमाचो उलो म्हाका आयकूंक येतालो. पुण ताका जाप कशी दितलो आशिल्लों ?

एक दीस नातवान म्हळें 'जाणा मरे आज्या ? बाजारांत वाग मान्न हाडला !"

पूत येतकीर विचाल्लें हांवें "तो वाग खंय माल्लो रे ताणें ?"

"जुदेवा रानांत माल्लो खंय"

"खंयचेकडेन पडटा रे तें ?"

"तो फाटलो देवा दोंगोर काडना फुडें उजव्यान लागता तें जुदेवा रान."

"अशें ! पुण केन्ना आयकलें काय ना मरे !"

"त्या रानांत कोणच वचना. हेय म्हुण ? पंचविसेक जाण एकठांय जावन गेल्ले."

ताजे उपरांत दोन दीस कशे काडले हांव नकळों. एकासारकें मन धांवतालें देवा दोंगरार आनी जुदेवा रानांत ! मागीर म्हज्यान रावं नज जालें. तिसरे राती उठलों, आनी बद्द वाट धल्ली दोंगराची.

जायते जाण म्हाका पिसो म्हणटात. अर्दकुटो म्हणटात. हांव म्हाका शाणो म्हणना. पुण हांव पिसो न्ही. उपाशी पोटार खांवक सोदता तो पिसो व्हय ? म्हाका भूक लागल्या सैमाची. सैमाचें एक आंग हांवें पळोवंक ना. तें म्हाका पळोवपाकच जाय. तें हांव कशेयभशेन पळयतलोंच.

जाण्टो खरो हांव पुण म्हातारो न्ही. साठी जाली. तरी हाडां खणखणीत आसात. रातभर चलुनय खशेंलों ना. देवा दोंगोर काडलो. चान्नें पडलां. मळबा·आंबाड्याचेर फांतीं कशी चंद्राची कोर चकचकता. आयसपयस नखेत्रां फापसल्यात. कुपां बेकार चावडी कशीं हेवटेन तेवटेन पातळल्यांत. दोंगरावयले

फातर तपश्चर्येक बशिल्ले साधू कशे दिसतात. झाडां चिप्प आसात. मदींमदीं रातकिडे कान किणकिणायतात. आनी मदींच चिप्प करून वगी पडटात. मागीर अकस्मात एक पोकळिशी निर्माण जाता. कितें तरी शेणिल्ले भशेन दिसता. नाद ब्रह्म अकस्मात बंद पडलें काय कितें, असो दुबाव येता. खिणभर उबो रावन हांव चलपाक लागतां. पालो चरचरता. शांततायेचें मलमलाचें वस्त्र पिंदूक वता. पर्थून हांव उबो रावतां. पर्थून शांतताय. अशेंच रावचेंशें दिसता. वग्गी! सुळककन्न एक जिवाणें झोपांत उडकी घेता. दोळे बारीक करून हांव झोंपांचेर नदर लायतां. कोण काय तें? दिवोड काय सोरोप?...‘कोणऽऽ!’ रातकिडो किरकिरपाक लागता. जसो काय म्हाका विचारता, ‘भिलो काय कितें गा?’

“पिशा, ह्या जिवाण्यांक हांव भियेवं ना रे बाबा! भिज्ड आशिल्लों जाल्यार हांगा कित्याक पावतालों. भियेवप कोणें रे? मनशान! हय! पुण! आतां ह्या खिणाक हांव मनीस न्ही, हांव एक जीव! सैमाचो एक घटक. आनी भियेवं कोणाक रे? मरणाक? ताची तर हांव वाटच पळेतां”

हांसून हांव फुडें सरतां. अजून खूब पयस वचपाचें आसा, त्या झाडाक पळे मळब तेंकलां थंय पावपाक जाय म्हाका.

वतां वतां हांव वयर पळेतां! तो पळे चंद्रीम! तोवूय आसा म्हज्या सांगताक. आरे, तो तर म्हजे बरोबरच येता–भुरगेपणांतली याद जाता म्हाका. चंद्राक पळयत हांव चलतालों, मागीर धांवतालों, मदींच रावतालों. आनी अजापभरीत जातालों....हो चंद्रीम म्हजी फाट सोडिना कशी?–आतांय हांव उबो रावतां. दोळेभर पळयतां. मान वळटा. तकली सकयल करतां....आरेच्या! ही आनी आसा बरोबर! एकलोच आसाशें दिशिल्लें. तीय म्हुण म्हाका सोडून कशी रावीत? सांवळीच ती!

रात सरत येता, म्हाका मातशी झेम येता. सोबितसो एक गुळगुळीत फातोर उशाक घेतां हांव. वयर मळबाचें पांगरूक आनी उशाक फातर. अशे तरेन खूब फावटी न्हिदलां हांव. पुण कल्पनेंतच. खरेंपणी न्हिदपाची पयलीच खेप! आड पडनाफुडें दोळो लागता म्हजो.

फांतोडेचेर जाग येता. असली न्हीद हाजेपयलीं केन्नाच मेळूंक नाशिल्ली हाजी तिव्र जाणवीक जाता. हेवटेन तेवटेन पळेतां हांव. हीं झाडां, हीं पाना,

ह्यो वाली ! तीं सवणीं ! आरे ! हीं तर न्हेसून बिसून तयार जाल्यांत आनी हांव अजून हांतरुणार ! शी शी ! बेगिबेगीन उठ्ठां हांव. संवयेभशेन हात वता हांतरूण कवळपाक, आनी हातांत फातोर येता. हांसून हांव ताजो उमाव घेतां.

दोंगुल्लेचे तेंगशेर हांव उबो आसां. उदेन्तेक तांबडें गूंज जालां. सुर्यम्हाराज न्हेसून तयार जाला. उषाक 'कितें करूं कितें नाका' जालां. तिणें वाऱ्याक फर्मायलां. वारो चारूय दिकांनीं धांवत सुटला, लोकांक जागोवपाक. सवाशिणी कशीं झाडां पांचवोचार शालू न्हेसून सुर्याक ओंवाळपाक उबीं रावल्यांत. ल्हवुल्हवू वेळ वयर सरता. वाऱ्याक चडच नेट येता. माड बाग घेवन सुर्याक वंदना करतात. रूख पानां हालोवन ताका येवकार दितात. वाली झाडांक वेंगो मारून कानांत तांच्या फुतफुततात. कीर पेंपारें वाजयता, साळोरी शेनांय घेवन बसल्या. कोगीळ तांकां साथ दिता.

घम्म करून वास येता. चेराची बाटली फुटिल्ले भशेन. हांव हेवटेन तेवटेन पळयतां. तें पळे झाड ! दरुणीफुलांभशेन तांबडींच फुलां ! पुण दरुणी फुलांक वास म्हुण येता ? म्हऱ्यांत वचून पळयतां हांव. तोडपाक हात घालतां. 'शी ! सैमाच्या वत्सा ! तूंच तुजे आवयल्या आंगावयली वस्त तोडून काडटा ?' 'ना' हांव हात फाटी घेतां.

...अजून खूब चलचें आसा. खूब पळोवचें आसा. भानार येवन हांव उजऱ्यान चलपाक लागतां. हेवटेन तेवटेन पळयत चलत सैमाची सुंदरताय, सैमाची विविधताय पळयत चलतां. मदींमदीं भान विसरतां. पर्थून ताळ्यार येतां. करतां करतां दनपार जायत येता. अजून पुरो कशें जाले नासलें ! पुण भूक लागल्या. आरेच्या ! येद्या व्हड रानांत हीं केळी-झाडां कशीं ? आनी घड्डय लांबतात पळय पिकिल्ले ! मैंडोळी केळिंशीं दिसतात. आई म्हणटाली, मैंडोळीं केळीं खाल्यार पोट इबाडटा. त्या भयान केन्नाच खाल्लीं नाशिल्लीं. आतां खावन पळोवया.

चार केळीं खायनाफुडें पोट भरता. धेकर दीत हांव फुडें सरतां.

पांचव्याचार पानां मदल्यान वाट काडटा आसतना 'कलकल' 'कलकल' आवाज येता. अजापभरीत जावना हांव फुडें सरतां. चारपांच दांगां घालनाफुडें व्हाळ नदरेक येता. विसेक फूट रूंद पात्र, पुण उदकाक नेट कितलो ! खुशाल-भरीत जातां. म्हाका न्हांवचें, पेंवचेंशें दिसता. पुण उदकाक खोलाय सामकी

उणी. तरी पुण मन आटापना. उद्कांत वचून पडचेंशें दिसता. उदका वांगडा व्हांवत रावचेंशें दिसता. हांव फुडें सरतां. त्या निवळ नितळ उदकांत पावल दवरतां. पोंदाक बरे गुळगुळीत फातर लागतात. खातकुल्यो जातात. दोन पावलां फुडें घालतां. त्या शितळ उदकान हांव सुद्द विसरतां. आंगोस्तराची पर्वा करनासतना हांव त्या धोंपरभर शितळ निवळ उदकांत बसका मारतां. सोरो पियेल्लेवरी धूंद जाता. बशिल्लेकडेन आसतां. पुण उदकाबरोबर व्हांवतांशें दिसता. एक तरेची सुस्ती चडटा—मस्ती चडटा. उदकांत हात बुडोवन फातर काडटां. गुळगुळीत फातर ! वाटकुळे फातर ! चेपटे फातर ! पाण्यार न्हातालों ती याद जाता. चेपटे फातर वेंचून काडटां आनी ' बेबकी ' करतां. उडक्यो घेत फातर पयस वतात आनी ' बुळूक ' करून थाव घेतात.

वेळ माथ्यार येता. हांव उठ्टां. व्हाळाचे पलतडीक वतां. थंय जमीन म्हळ्यार कस. कसच कस ! मदीं मदीं दोन चार झोंपां आसात तितलीं ! अजाप ! व्हाळाचे एकेवटेन पांचविंचार झाडां आनी सकऱ्या जमीन आनी दुसरेवटेन कसच कस. धवो फुल्ल कस पळोवन दरयावेळेची याद येता. कसां-तल्यान लेगीत हांव सडसडीत चलतां. हाजेफुडें तर झोंपांलेगीत दिसनात. पयस झाडां मात नदरेक येतात. तो धवोफुल्ल कस ! आनी वयर नितळ निळें मळब ! तारवार गेल्लों ती याद येता. तारवार आसतना वेळ फावलो जाल्यार हांव डेकार रावन पयस नदर लायतालों. आयसपयस दरयो पळोवन त्या दरयाच्या विशाल कायेंत हांवेंय भरसून वचचेंशें म्हाका दिसतालें. नकळटना उडकी मारपाक पावलां फुडें सरतालीं. आतां तो कस पळोवन उदकांत आशिल्लेभशेन दिसता. उडकी मारची, पेंवचेंशें दिसता. मोवमोव कसांत हांव उडकी मारतां. पुण कस तो ! फाटीर आडवो पडटां. मळबाक नदर लायतां. वेळ सरता. अकस्मात मळब भरून येता. येदो वेळ निवळ दिसतालें तें मळब काळ्याकाळ्या कुपांनी गच्च भरता. दमळ जाता. हांव उठ्टां. सडसडीत चलपाक लागतां. बऱ्याऽ वेळान कस सरत येता. झाडां दिश्टीक पडटात. पावस शिरशिरपाक लागता. वयर सवणीं धांवतात. आलाशिरो सोदतात. आतां झाडां लागतात. पावस मोटो जाला. बरेंऽ दिसता. भिजतां ताजी खंत दिसना. म्हणटसर घोगे देंवतात मळबांतल्यान. रुकापोंदाक रावचें म्हुण हांवूय आलाशिरो सोदतां. वडारूक नदरेक येता. केदो व्हडलो रूक हो ! रुकापोंदाक वचून पळे जाल्यार

कितलिंशींच सवणीं वयर बसल्यांत. सामकी कलकलायतात. रुकापोंदा दोन सोंशें बसल्यात. तांचे पेल्यान एक रानकोंबो तकली हालयत पेंडयेवयलें उदक फाफुडटा. सोंशे पळयनाफुडे म्हाका अपुर्बाय दिसता तांचीं. तेय म्हुण एकासारके म्हजे कडेन नदर लावन बसल्यात. धवेफुल्ल ल्हवेंचेर उदक पडिल्ल्यान ल्हंव कातीक दशिल्लेभशेन दिसता. तांचे ते उबे कान सकयले वयर जातात. लक्तु-बायेने हांव फुडें सरतां. तेय उबे रावतात. हांव हांसतां. आनीक दोन दांगां घालतां म्हळ्यार दोगूय जाण जी एक धांव मारतात–जीव आसल्यार भीक मागून खावं! इतल्यान म्हजी नदर त्या रानकोंब्याचेर वता. तो एकफावट त्या सोंशाकडेन पळयता, एकफावट म्हजेकडेन पळयता, आनी आपुणूय जो धांव-पाक लागता. म्हाका याद जाता ल्हानपणांत वाचिल्ले ते काणयेची–सोंसो धांवता म्हुण कोंबो धांवता, कोंबो धावतां म्हुण बैल धांवता, बैल धांवता म्हुण...

वयर तरेकतरेची सवणीं एकठांय जाल्यात. सकयले खांद्येर कितलिंशींच बजबजी बसल्यांत. ‘बजबज’ ‘बजबज’ आवाजान पावसाचो आवाज लेगीत लिपता. त्या पयल्या खांद्यार माकडां बसल्यात. तांगेल्यो मर्कटचेश्टा रंगार आयल्यात.

अकस्मात म्हजें लक्ष वता त्या दोन सोबीत सवण्यांकडेन. कसलीं सवणीं कोण जाणा, पांचवो शेपटो आनी धवसार पिसां. कपलार काळो तिबो आनी हळडुवेच दोंके आनी ती इल्लिशी नाजूक चोंच! दोगांय जाण ‘गुलगुल’ गजाली करपांत रंगून गेल्यांत. ती बजबजीं, कावळे, किरकिरे, माकडां हांच्या हिसबांतच नात. पावसान शेळाव आयला. दोगांय जाण गच्च तेंकून बसल्यांत. मदींच ‘ती’ सवणें पयसशें वता–रागार फुगार जावन! आनी ‘तो’ म्हुण उणें? झोपय घेता आनी उडून वता. ‘ती’ मागीर उले मारता–‘कुऽया!’ आनी ‘तो’ परतो येता. तांगेल्यो त्यो करण्यो म्हाका खातकुल्यो करतात. हांव पळेत रावतां. तीं पर्थून तेंकून बसतात. ‘गुलगुल’ गजालींक नेट येता. चोंची उगडटात. चोंचींत चोंच–म्हाका याद येता म्हज्या तरणेंपणांतली...आनी हांव नदर धुंवडायतां.

पावस उणो जाता. ना जाता. वत येता. पांचवें चार रान न्हांवन धुवन अन-वळें जाल्लेभशेन दिसता. पानांपानाचेर तिकतिकसाण झळकता. सुर्याचीं किणीं पानाकडेन खेळटात. जिवाकूय ताज्जें दिसता. हेवटेन तेवटन पळेत हांव वाट

पायापोंदा घालतां. सूर्य अस्तमतेक लकता. मन म्हजें खुशालभरीत जालां. असलो तो निसर्ग हांवें केन्नाच पळोवंक नाशिल्लो. परिकथंतल्या राज्यांत वावुरिल्ल्यावरी दिसता. 'वनराणी' खंय लिपल्या काय ? मेळ्ळ्यार 'मोटे' उमेदीन तिजेकडेन चार गजाली करतलों आशिल्लों. 'वनराणी' खरीच आसता काय ? नाजाल्यार हें रान राखता कोण ? आमगेल्या शारांनीं बागो आसतात. पुण ही सैमा–सुंदरताय तांकां खंयची ? दाट झाडी काडून हांव झोंपांतल्यान वाट काडटां म्हणटसर हरयाळी लागता. मातशें बसचेंशें दिसता. इतल्यान...' गुर्ऽऽ गुर्ऽ '

फाटल्यान पळय जाल्यार दोन वागटां आनी एक वागीण धांवत येतात. वागटां आसात मुखार आनी वागीण येता फाटल्यान. सिनेमांत वाग पळयिल्लो. सर्कशींत जितोय पळयिल्लो. पुण रानांत रावन दोळ्यामुखार वाग पळोवपाची पयलीच खेप. अकस्मात पळयिल्ल्यान भितां. हांव कसलें आंग काडटां ! दोनूय वागटां उडक्यो मारीत येतात. फाटल्यान वागीण तांकां धरूंक येता. दोनच खीण....एक व्हड उडकी मारून वागटां हरयाळिंचेर येतात. चार दांगांचेर हांव आसां. म्हजें हडूं धडधडटा थंय आसा. म्हाका पळोवन वागटां थंयच उबीं रावतात. तीं घुसपतात. आवय खंय पावल्ल्या काय म्हुण फाटल्यान पळयतात. म्हाका दिसता वागीण आतां म्हाका दवरना–' पिशा मनशा, भिलोच मूं तूंय ! वोगीच आयलो तूं हांगा ' म्हजें काळीज घट्ट जाता. दोळे उकते करून हांव पळयतां. वागीण धांवत आपल्या पिलांसरी येता–आनी दोळे मोटे करून म्हाका पळयता. आतां भिरांत म्हुण म्हाका दिसना. हांव तिजे कडेन पळोवन हांसतां. रानांत आयिल्ल्याचें सार्थक जालेंशें म्हाका दिसता. वागीण म्हाका पळयता. पिलां एक फावट म्हजेकडेन एक फावट आवयकडेन ! इतल्यान, वागणीक कितें दिसता देव जाणां. दोनूय पिलांक मातशी चाट्टा आनी अस्तमतेक तोंड करून चलपाक लागता.

हांव पळेत रावतां. दोळे फोडून पळयतां. वागटां म्हाका साप्प विसरतात. आनी उडक्यो मारीत फुडें धांवतात आनी फाटल्यान वागीण. म्हजें मन सांगता – ' पापया, ती वागीण न्हीं ! ती वनराणी ! तें सोदतालो न्हींऽ ? ' आरेच्या ! वनराणीच तर न्हीं मूं ही म्हाका दर्शन दिवपाक आयिल्ली !

तृप्त मनान हांव बसतां. हरयाळिचेर उदारोच आड पडटां. मळवाक दोळे लावन येवजितां—

मनशांल्या राज्यांत मनीस मनशाक वळखना. जण एकलो सुवार्थीन भल्ला. आनी ह्या रानांत तरेकतरेचे प्राणी कितले बरेंभशेन रावतात ! वागीण आयली. पुण तिणें म्हाका पळोवन तकली घुंवडायली. एखादरें पोट भरिल्लें आशिल्लें म्हुण जावये. पुण मनिसजातींत अशें कितले वाग आसात जे भरिल्ल्या पोटार लेगीत दुसऱ्यांक खावपाक फाटिफुडें पळयनात !

तो वडा रूक ! पावस आयलो तर सगले इतले जीव धांवले ताज्या आलाशिऱ्याक. सोंशे, कोंबे, सवणीं, माकडां...म्हजे सारको मनीस लेगीत पावलो थंय. पुण कोणाभशेन वागलो तो रूक ! सगले इतले ताका सारके. सवण्याकूय तो खेळयता. सोरपाकूय तोच खेळयता. कितलें विशाल, कितलें व्हड काळीज ताजें‌मनशांमदीं एक तरी मेळत असो ?

मनशांविशीं तिरस्कार म्हज्या मनांत निर्माण जाता. पर्थून घरा वचचें न्हीं, हांगाच रावचेंशें दिसता. ह्याच सैमाच्या कुशींत जिवीत सारचेंशें दिसता.

वेळ अस्तमतेक पावता. तरेकतरेचे आवाज करीत सवण्यांचीं भिरीं घरा परततात. थार नाशिल्लेभशेन, मदीं थार नासतना उडटात. इतली कसली ओड ? घराची ? पिलांची ! सवण्यांक लेगीत इतली ओड ? आनी म्हाका–

आनी पयलेच खेपेक येवजून येता–

——घराकडेन कितें चल्लां आसतलें ?

बापूय अचकीत नासो जालो म्हुण पूत आवरो काडटलो ?

.. मांव अकस्मात सोडून गेलो म्हुण सून रडटली...

...आनी ' आज्याऽऽ ' म्हुण नातरां...

दोळ्यांत उदक येता म्हज्या. गुटगुटीत नातरां दोळ्यांमुखार येतात. आज्या बगर सूख लागना तांकां–आनी आजो ! काळीज आंवडे गिळता.

....वेळ वयर सरचेफुडें ' कितें करूं कितें नाका ' जाल्ली उषा दोळ्यां-मुखार येता....

...चोंचींत चोंच घालून गजाली करपी तीं सवणीं याद जातात.

...वागटांक खेळयतले वागणिची याद येता ..

नदर घुंवडावन हांव अस्तमतेक पळयतां. संध्या सुर्याक येवकार दिता. अस्तमतेन रंग फापशिल्यात.

धूंद जाल्लेभशेन हांव उठां. जड पायांनीं चलपाक लागतां.

म्हाका पळोवन एक माकड वयले खांदयेर उडकी मारता. आवाज आयलो म्हुण हांव वयर पळयतां, माकडीण ती ! म्हाकाच पळयता. हांव दोळे बारीक करून पळयतां. पोटाकडेन तिणें पील धल्लां.

'...आई, आजो केन्ना येतलो गे ?' नातरां आवयक विचारतात आसतलीं.

दोळ्यांतली दुकां लिपयत सून म्हणटली, 'फाऽल्यां येतलो आं...न्हीद रे बाबा !'

'आई, काणी सांग गे ! आजो सांगतालो ती !'

काळीज कातरता म्हजें. हीं झाडां, हीं झोंपां, ह्यो वाली, तीं सवणीं–कांयच म्हाका पळयन दिसना.

नातरां, सून, पूत दोळ्यांर येतात. आनी अकस्मात एक नेट म्हज्या पायांत येता. हांव पाय उबारतां. फाट करून चलपाक लागतां. हेवटेन तेवटेन पळयनासतना चलपाक लागतां, केन्ना पावतलो पर्थून देव जाणा ! पुण ना ! म्हाका बेगीन पावपाकच जाय. हांव धांवपाक लागतां.

आमोर जाता. वेळ बुडटा. काळोख जाता. चंद्रीम उदेता. पुण म्हजें मन कित्यांतच रमना.

तो कस लागता. तो व्हाळ लागता. तीच दोंगुल्ली, तींच झाडां, तेंच सैम ! पुण ताची सुंदरताय म्हज्या दोळ्यांक दिसना.

'वाट कसो चुकलो ना' हाजें अजापलेगीत करपाक वेळ ना.

फातरांक आपटतां, कांटे लागतात. आंगोस्तर पिंदता. खोमीस बोतरां जाता पुण पांय कशेच आटापनात.

पूत !

सून ! !

नातरां ! ! !

म्हजो संवसार ! म्हजें घरच म्हाका व्हड !....

रात सरत येता आनी रानूय सरत येता. दोळ्यांसामकार पळयत हांव वाट सारतां. गांव दिश्टीक पडटा. म्हणटसर कोंबो साद घालता. अजून घर बरेंच पयस आसा.

फांतोड जाता. येद्यावेळार खरें म्हणचे बल्कावांत वल्तेराचेर बसपी हांव ! तें वल्तेर म्हजे भोव आवडिचें ! पुण आज तें रितें आसतलें–

कुणब्यावाडी फाटी पडटां. अजून लोक उठूंक नात.

...तें पळय घर! तें पळय...

पायांत चडच नेट येता. सडसडीत चलतां. पर्थून धांवतां.

चार दांगा घालनाफुडें बल्कांव लागतलें. हांगासावनच पुताक उलो मारचोंशें दिसता. हांव फुडें सरतां आनी—

म्हज्या आवडिच्या वल्तेराच्या हातांचेर तकली तेंकोवन् बंद दोळ्यांतल्यान निखळून पोल्यावयल्यान निसरपी दुकां पुशीत बशिल्लो म्हजो पूत म्हाका दिश्टीक पडटा.

* * *

# मात

" मिस कामत..." सुभाषान उलो माल्लो. सुलूक खिणभर घुसमटल्लेवरी जालें, खिणभर खातकुल्यो जाल्यो आनी तिसऱ्या खिणाक राग आयलो. ताणें तसो कित्याक उलो मारचो आपणाक ? ' मिस् ' खंय ! आनी ' कामत ' !

" मिस कामत, आमकां फटोवपाचो तुवें कितलोय जरी येत्न केलो तरी आमी फटवपार नात आंऽ ! बाय धि वे प्लीज ॲक्सेप्ट अवर काँग्रेच्युलेशन्स ! "

" थँक्यू..." सुलूच्या तोंडांतल्यान उतर फुटलें.

" बरें ! आतां पार्टी केन्ना ? "

" दिवंया—"

" हां हां...असें वयलेवयर उलोवं नाका. आमी ' केन्ना ' तें विचाल्लां. ' दिवंया ' म्हणपाक ' दिता काय ना ' तें विचाल्लें ना. "

" तुमकां जाय तेन्ना—" सुलूक रागसो आयलो. सुभाषाचो न्हीं तर हेरांचो. आनी सुभाषाचोय मातसो. सगल्या इतल्यांक घेवन आयला तो एकलो येवपाक कितें जाल्लें ?

" व्हेरी गुड ! मागीर वगत कित्याक तर ? चलात आतांच—" इंटराच्या मार्टीनान म्हळें.

" खंय या ? ' व्हायट वे ' काय ' मिरामार ' ? " मर्दीच देसाय उलयलो.

" हॉटेलांत कित्याक ? पार्टी घराच करपाची. " सुलून म्हळें.

" एक्झॅक्टली. येता त्या आयतरा दिसा. जालें ? गुड ! सकाळची काय सांजची ? " सुभाष.

" साजेवेळाच येयात. दादाय आसतलो घराच. "

सुलू खुशालभरीत जालें. सुभाष येतलो न्हीं तर ? पुण ताका तो एकलोच

आयिल्लो जाय आशिल्लो. तों तर येतलो सगल्यांक घेवन...आनी एकलोय म्हुण कसो येतलो ? एकल्याकूच म्हुण घरा आफोवंक येता ! दादा कितें म्हणटलो ?—

मदले दोन दीस सरतासर सुलूक सामकें नाकापुरो जालें.

फांतोडेचेर सुलूक जाग आयली. आयतार ! आज सुभाष येतलो. सुलूक उठन दिसनाशिल्लें. पांगरुणाचे कुशींत न्हिदून, उश्याचेर पोलें तेंकोवन तें धांपिल्ल्या दोळ्यांमुखार सुभाषाक उबो करतालें. कल्पनेच्या राज्यांत कल्पनांक दुकळ ना. सुलू कल्पनेंन सुभाषाकडेन उलयतालें, ताजें उलवणें (आपणेंच घडयल्लें) आयकतालें, ताजेकडेन खेळटालें, हांसतालें आनी कितें कितें....

मदींच तकलेवयलें पांगरूण काडून पळय जाल्यार वेळ उदेला. जनेलांतल्यान सुर्याची भांगराकिर्णी भितर आयल्यांत.

सुलूची नदर त्या मावले–जाळ्याचेर पडली. जनेलाच्या चारूय कोनशांक धरून तें सोबीत जाळें वाऱ्याच्या प्रत्येक ल्हाराबरोबर आयल्यापेल्यान धोलतालें. रस्माच्या सोबीत दोरांनी विणिल्लें तें जाळें दिसपाक भोवच सोबीत आशिल्लें. ताजी नाजुकसाण, तिकतिकसाण पळयतल्याचे नदरेंत रोखडीच भरताली. सुलू तोखेत रावलें. एक मावली त्या जाळ्याच्या एका कोनशाक रावून सावजाची वाट पळयताली. उदेंन्तेक वेळ वयर सरतालो. उजवाडाचीं किर्णी धर्तरेचेर पातळिल्लीं. कांय किर्णी त्या जाळ्याकडेन खेळटालीं. खिणाखिणाक रंग बदलताले.

इतल्यान सुलून पळयलें, एक मूस तेवटेन आयलो. वाऱ्याचेर नाचत आयलो. मावलेचें तें जाळें चड्डूच लिकलिकलें. आनी नकळटना तो बावडो मूस जाळ्यांत घुसपून गेलो.

...कसल्यातरी विचारान सुलूक हांसूं आयलें. आपणेंय असोच सुभाषाक आपणाल्या जाळ्यांत घुसपायलो जाल्यार !....

सुभाष ज्युनिअर बी. ए. क आशिल्लो. आनी सुलूलें हरशीं पयलेंच वर्स. पुण तांची वळख जावपाक एक कारण घडलें.

कॉलेजच्या गॅदरिंगा दिसा एक नाटक बसोवपाचें थारिल्लें. तेपसत योग्यशे कलावंत सोदपाचें काम चिटणीस ह्या नात्यान सुभाषाचेर पडिल्लें. हेर सगले कलाकार मेळिल्ले. पुण नायिकेची भुमिका करपाक योग्य अशी चली सोदून

मेळना जाली...आनी एक दीस सुभाषाक कोणें तरी सांगलें, " एफ्. वाय्. क पळय तें सुलोचना कामत म्हुण आसा, तें अॅक्टींग अशें फर्स्ट क्लास उडयता ! हांवें पळयलां न्हीं ! आमी एकेच शाळेंत शिकतालीं. "

सुभाषान सुलूक पळयलें आनी त्या कामाखातीर पसंत केलें. त्याच दिसा ताका मेळून ताणें विचाल्लें. पुण सुलूलें पयलेंच वर्स ! कॉलेज म्हळ्यार कितें काय खबर ना. तातूंत अभ्यास कितलो ? बरें ! शाळेंत आसासर दादान आईन कांय म्हळें ना. आतां कॉलेजांतूय नाटकांत काम करपाक तांची मान्यताय मेळपाक कठिणूच. नाकाच तें ! सुभाषान कितलें सांगून पळयलें ! काम करचें अशें सुलूकूय दिसूंक लागलें. पुण दादा आनी आई--

" घराकडेन जाल्यार हांव सांगतां. " सुभाषान नाडीच धल्ली.

" नाका..." पुण सुलून मनापसून म्हळें ना.

" ना-ना ! तुवें अंदूं काम करुंकूच जाय. हांव फाल्यांच घराकडेन सांगतां तुगेल्या. " इतलें सांगून सुभाष गेलोच आनी दुसऱ्या दिसा खंयच्यापरी प्रोफेसरामार्फत ताणें तें काम केलें. आनी सुलून नाटकांत वांटो घेतलो.

गॅदरिंग सोबोवपाखातीर सुभाषान खूब काम केलें. हांगा वच, थंय वच, हें कर, तें कर......आनी एक दीस गॅदरिंग जालें. त्या दिसाचो दबाजो पळोवन जण एकल्याचे दोळे धादोस जाले. जण एकलो तोखेलो. प्रिन्सिपॉलान लेगीत मुजरत सुभाषाचें नांव घेवन ताजी तुस्त केली.

गॅदरिंगा दिसाच नाटकूय जालें. सुलूलें काम भोव म्हळ्यार भोवच बरें जालें. आनी अभिनयाची पयली तसरिपूय ताकाच मेळ्ळी.

कित्याक कोण जाणा, सुभाष दिश्टीक पडनाफुडें सुलूक कितेंशेंच जायी. उलयन दिस पुण लज दिस. कोणेंय सुभाषाची तुस्त केल्यार ताकाच घुसमट-ल्लेवरी जायी. अशें आपणाक कित्याक जाता, ताजें ताकाच कळनाशिल्लें. सुभाषाक तर ताजी नातूच नाशिल्ली.

गॅदरिंग जातकीर सुलूक दिशिल्लें, आतां सुभाष आपणाक पयलींभशेन दिश्टी पडचो ना. उलोवंक मेळचो ना. इतले दीस नाटका-निमित्तान उलोवंक मेळटालें. आतां हाजे फुडें......कितेंशेंच दिसलें सुलूक.

पुण सुलूक दिशिल्लें तशें घडलें ना. गॅदरिंग सोंपले उपरांत दुसऱ्याच दिसा सुभाषान आनी हेरांनी सुलूक घरा वतना आडायिल्लें आनी पार्टी मागिल्ली...

जिस्त साडेपांच वराचेर सुभाष आनी हेरूय सगले आयले. सुलून तांची दादाकडेन वळख करून दिली. भायल्या सालांत सगले बसले. सुलूक सामकें वयर सकयल जावपाक लागलें. कितें करचें कितें नाका–खिणांत भितर, खिणांत भायर–अशें चलिल्लें. भायर खबरो रंगार आयिल्लयो. दादाय बी उलयतां उलयतां व्हांवन गेलो.

सुलूक रागसो आयलो. पार्टी कोणाखातीर आनी आपली खबर मात कोणेंच घेवप ना ? सुलू पर्थुनपर्थून भायर वतालें. ‘ हें जाय, तें जाय, हें घे, तें घे ’ करतालें. सुभाषाक खूब आग्रो करचोशें ताका दिसतालें. पुण ताकाच केल्यार हेरांचे नदरेंत भरत म्हुण तें पयलीं हेरांक करतालें आनी सुभाषा म्हऱ्यांत पावतकीर मात आग्रो करूंक उतरांच गवसनाशिल्लीं. दादान तर एक फावट म्हळें लेगीत ताका “ सुभाषाकूय आग्रो कर मगो. सगल्यांक तर करता. हाणेंच कितें पोटलो चोल्ला तुगेलो ? ”

सुलूच्या पोल्यांर तांबसाण पातळ्ळी. लजेन कानांपाळयो लेगीत तांबड्यो जाल्यो. दादाक कळटा कितें ? सुलूक दिसलें, सांगचें दादाक—“ तूं वळखना दादा ताका. ताणें म्हजो पोटलोच न्हय तर...तर...” पुण तीं उतरां येवजुनूच सुलू लजेलें. धांवलें तें भितर.

आमोरेचेर सगले गेले. पुण रात सरसर ताजे वेध मात सरूंक नाशिल्ले.

दुसऱ्या दिसा तें मुजरत सुभाषाक रावलें. तो दिश्टी पडना फुडें हांसलें. सुभाष म्हऱ्यांत आयलो.

“ कालची पार्टी मात ए वन् जाली आं ! अजूनलेगीत धेंकर येतात. ”

सुलू हांसलें. उकत्या मनान हांसलें.

“ म्हुण कितें आनीक मेळपाची ना आं ! ”

सुभाष हांसलो.

“ लेक्चरां सोंपलीं ? ”

“ अं....हय. घराच वचूंक भायर सरिल्लें. ” सुलूलीं लेक्चरां सोंपल्यार हरशीं वर जावन गेल्लें.

“ मागीर चल तर. हांवूय चल्लों घरा. बस मेळटासर येतां हांव बांगडाच...”

आनी अशें सदांच जावंक लागलें. कॉलेज बेगीन सुटल्यारलेगीत सुलू

सुभाषाक रावंक लागलें. सुभाष ताका वांगड दिवपाक लागलो आनी करतां-करतां तांची गाडी मोगाच्या रुळांचेर पावली.

सुभाषाक सुलूबगर सूख लागना जालें. पुण अशें वयर वयर चोरयां चोरयां मेळप सुभाषाक बरें दिसनाशिल्लें. ताका दिसतालें, कित्याक बोगी लिपोवप हें? सांगचें आपणें घरा. सुलूनूय सांगचें. मागीर आनीक कोणेंय कितेंय म्हणपाक नाका. पुण सुलू भियेवपाक लागलें घरा सांगपाक. एक फावट बी. ए. ची परिक्षा जावं दी, मागीर सांगतां म्हणपाक लागलें. सुभाषानूय ताका चड आग्रो केलो ना. आपणें मात रोखडेंच घराकडेन सांगून उडयलें. सुभाषाले आवयकूय चली मानवली.

दीस सल्ले. म्हयने सल्ले. सुभाषान एम. ए. ची परिक्षा दिली. ताका नोकरीय बरी मेळ्ळी. सुलू बी. ए. पास जालें. तेन्ना सुभाषान सुलूक याद केली, आतां तरी घराकडेन सांग. आज सांगतां, फाल्यां सांगतां अशें सांगून सुलू घरा वतालें. पुण फुडले खेपेक मेळटकीर "दादा पिकार आशिल्लो म्हुण सांगलें ना रे!" अशें उलोवन "फाल्यां सांगतां काय ना तें पळय." अशी जाप दिवन घरा वतालें.

सुभाषाक नोकरेक लागून चार पांच म्हयनेच जाल्ले. अकस्मात एक दीस ताजे बदलेचें पत्र ताज्या हातांत पडलें. पंजाबांत जालंदर शारांत ताजी बदली जाल्ली. सुभाष गोंदळ्ळो. भांगरासारकी नोकरी सोडुंकूय कठीण आनी सुलू आनी घर सोडून वचपूय कठीण. पुण फुडाराकडेन पळोवन ताणें वचपाचें थारायलें. आनी एक दीस सुलूलो निरोप घेवन आनी आवयक बरोबर घेवन सुभाष जालंदर शारांत वचूंक गेलो.

जण एक दीस सारता म्हळ्यार सुभाषाक नाकापुरो जावपाक लागलें. सुलूची याद ताका बेजार हाडपाक लागली. बरें! सुलूलीं पत्रां ताका येतालीं. पुणसुलून अजून मेरेन घराकडेन सांगलें नाशिल्ल्यान तो मात सुलूक बरोवंक शकनाशिल्लो. म्हणटकीर ताजो चडूच घुसमटमार जातालो. जण एके चिटयेंत सुलू बरयतालें——

"...दोनूच दीस राव, मोगा...आइल्या जिवाक बरें ना म्हुण...ती निवळ-नाफुडें सांगतां घरा...रागार न्हय मूं सुभाष! आनी तूंच रागार जाल्यार हांव कोणाल्या तोंडाकडेन पळोवं?"

सुभाषाक राग येतालोय बी आनी येनाशिल्लोय. सुलू म्हज्यांत आशिल्लें जाल्यार मात तो रागार फुगार जालेबगर रावचो नाशिल्लो. पुण तें तर इतलें पयस! तें म्हुण कितें करतलें? कशें सांगतलें? कितलेंय जाल्यार चलीभुरगें तें! पुण...पयलीं सुभाषान ताका कितलें सांगिल्लें आपूण जाल्यार उतर घाल्तां म्हुण. पुण सुलू म्हणूंक लागलें, आपणेंच सांगिल्लें बरें. ना म्हळ्यार सुलूलो सभावूय मातसो हटी. सुभाष सदांच ताजेर तापतलो म्हुण वच...पुण ताज्या उलवण्यांनी नाजाल्यार दोळ्यांतल्या दुकांनी तापसाण सगली विसरून वच...ही जाली पयलिंची गजाल. आतां सुभाष इतले पयस! मागीर आतां तरी सुलून सांगपाचें न्हय? तितलेंच बऱ्याकूय पडटलें आशिल्लें. एकमेकांक खबरूय मेळटली आशिल्ली वेळच्यावेळार.

× × ×

पंदरा दीस जाले सुलूलें पत्र आयल्यार. फुडलें पत्र अजून ना. येतलें...

बावीस दीस जाले पत्राक. अजून ना. सुभाष सदांच वाट पळयतालो. पुण जण एकलो दीस निराशेच्या काळखांतल्यान उजवाडटालो आनी निराशेच्या काळखांतून विरगळटालो.

म्हयनो जायत आयलो. सुभाषाल्यो चित्तवृत्ती इबाडल्यो. कितें जालां आसूं ये? सुलू बरें बी ना काय? काय सुलूलो मोगाचो वझरो आटलो? ना. ना. अशें केन्नाच जावचें ना. मागीर...

आनी एक दीस चीट आयली. मोटे उमळशिकेन फोडली सुभाषान. थरथरपी हातान उकती केली.

" सुभाष--

तुजी अवस्था कितें जाल्या आसतली तें म्हाका कळटा. पुण म्हजी अवस्था तुजेयपरस कठीण जाल्या. बरोवपाक हात लेगीत येना. कशें बरोवचें तेंच कळना. सुभाष, क्षमा कर म्हाका. बरोवचें न्हय तें बरयतां--तुं विसर म्हाका.

म्हजेर रागार जावं नाका, सुभाष. म्हजो गुन्यांव करनाका. हांव तुजेंच आशिल्लें. पुण हाजेमुखार ना उरचें तुजें. दादान म्हजें लग्न थारायलां. हांवें दादाक सगलें इतलें सांगून पळयलें. पुण दादाक मानवलें ना. सुभाष, दादाचें आयकलेबगर उपाय ना. धांवत तुजेसरी येन आशिल्लें. पुण आई हांतरुणार आसा. तिज्यान सोंसूंक जावचें ना.

सुभाष, तूं म्हाका सांगी ‘ बरा बेगीन सांग ’ म्हुण. पुण हांव भिताले तें हाकाच. दादा ‘ नाका ’ म्हणटलो म्हुण... सुभाष, चड कांय बरोवं नज. निमाणें म्हजें एकूच सांगणें आसा तुजेलागीं. तूं म्हजेर रागार जावं नाका. म्हजो गुन्यांव करूं नाका. ही चीट तुका मेळटली तेन्ना हांव दुसऱ्या घरा आसतलें. तूं म्हाका मेळपाचो येत्न करूं नाका. तूं थंयच रावन सुखान संवसार कर.

देव तुजें बरें करूं.

सुलू. ”

तकलेर हात घेवन बसलो सुभाष. दूख, तिडक, पश्चाताप हाणें सुभाषाली तकली घुंवपाकडेन पावली.

दुसऱ्याच दिसा भांगरासारकिले नोकरेचेर उदक सोडून सुभाष आवयक घेवन घरा आयलो. एकेच आशेर ! ——सुलू रावलां आसतलें आपणाखातीर.

पुण आशा फट जाली. दोनूच दीस आदीं सुलू घोवाघरा गेल्लें.

बाबडो सुभाष ! तो सुलूल्या मोगाच्या जाळ्यांत घुसपून गेल्लो. आनी आतां सुलू खुशाल घोवाघरा गेल्लें. सुभाषाच्यान मात जाळ्यांतल्यान सुटूंक जायना जालें. जसो जसो तो विचार करतालो, जसोजसो तो ह्या जाळ्यांतल्यान सुटपाचो यत्न करतालो तसोतसो तो चड्डच जाळ्यांत घुसपतालो.

सुलून चिटयेंत बरयल्लें—“ म्हजेर रागार जावं नाका, सुभाष, म्हजो गुन्यांव करूं नाका. ” तोंड घेवन वयल्यान गुन्यांव करूं नाका म्हणटा. मागीर गुन्यांव कोणाचो, म्हजो ? कितलीं वर्सां जालीं हांव फाटीक लागिल्लों घराकडेन सांग म्हुण. तेन्ना सांगपाक कितें जाल्लें ? काय तुका म्हजेकडेन फकत मोगाचो खेळ खेळपाचो आशिल्लो ?

एक कुवाडें मात सुटनाशिल्लें. सुलू दादाक सांगपाक ताणें लग्न थारायसर कित्याक रावलें ? पयलीं कित्याक सांगलें ना ताणें ? बरें चलीभुरगें जालें म्हुण कितें जालें ? सुभाषान सांगतां म्हुण सांगल्यार ताकाय नाका म्हुण कित्याक म्हळें ? कितेंय पुण कारण आसुंकूच जाय.

एक दीस तेंय कळ्ळें सुभाषाक.

रमेश सुभाषाक मेळूंक आयिल्लो. दोगूय ल्हानपणासावन बराबर वाडिल्ले. तांची इश्टागतूय तांचे पिरायेइतलीच पोरणी.

" सुभाष, तुवें इतलें मनाक लावन घेवंक उपकरना. ताका जर कांय दिसलें ना तर तुवें तरी कित्याक दिसून घेवपाक जाय ?"

सुभाष वोगीऽ रावलो. ताका हालीं सदांचेंच जाल्लें हें.

" आई म्हणटा तुजें जेवणाखाणाचेरलेगीत लक्ष ना. अशें करून उपकरता ? तूंच येवज्न पळय. तिजें आतां जाणटेपण. तूं तिका सूख दिना जाल्यार कोण दितलो ?"

" मागीर हांव कितें करूं ?" मातशें तिडकून सुभाषान विचाल्लें.

" लग्न जा. आईक सून जाय. नातरां जाय. तुका पळोवपी मनीस जाय घरांत—"

" रमेश, प्लीज ! तूं तरी तसलें कांयच उलोवं नाका. म्हाका मातशें हें विसरूं दी."

"तेचपसत सांगतां हांव, सुभाष. हें विसरूंक म्हुण तरी तुवें लग्न जावपाक जाय. सुलूलें कितें तुजेर प्रेम नाशिल्लें ? तें आतां विसल्लें ना ?"

सुभाषाल्या काळजाक खंयतरी कांटो तोपिल्लेवरी जालें. तें आतां विसल्लें ?

" सुलून तें तुका पयलींच कित्याक सांगलें ना तें मात कळना म्हाका—"

" कितें ?" नकळटना सुभाषाल्या तोंडांतल्यान उतर भायर फुटलें.

" सुलूल्या लग्नाचें कितें कालपयरूच थाल्लें नाशिल्लें !"

" म्हणचे ?" अजापान सुभाषान विचाल्लें.

" आरे, सुलूलें लग्न तागेल्याच आतेभावाकडेन करचें हें सुलूल्या आवय-बापायन सुलू ल्हान आसतनाच थारायिल्लें."

" म्हणचे सुलूक खबर आशिल्लें—"

" म्हणून म्हणटां हांव. ताणें तुका जाणोवपाचें तरी ! जावं ! जालें तें जावन गेलें. आतां तुवें तुगेल्या फुडाराकडेन..."

" एक सांग पयलीं. तुका खबर आशिल्ली जाल्यार तुवें तरी म्हाका जाणोवपाचें न्हय—"

" आरे, पुण म्हाका तरी खंय खबर आशिल्ली ? पयर लग्नाक गेल्लेकडेन न्हवऱ्याचो बापूय म्हगेल्या दादाक सांगतालो खंय—',

सुभाष येवजणेंत बुसपलो. इतले दीस सोदी त्या प्रस्नाची जाप ताका अकस्मात मेळिल्ली.

सुलू बरें जाणा आशिल्लें आपणालें लग्न आपणाल्या आतेभावाकडेनूच जातलें म्हुण. तरी पुण सुभाषावयल्या प्रेमाक तें बांद घालूंक शकलें नाशिल्लें. सुभाषान ताका दादाक सांग म्हुण सांगिल्लें तेन्ना तें भियेतालें, दादा ' नाका ' म्हणटलो म्हुण. आनी तेचखातीर तें प्रत्येक खेपेक फाल्यां सांगतां म्हणटालें आनी निमाणेकडेन लग्न तेंकलें तशें सांगलें ताणें घरा. पुण तेन्ना खुबूच कळाव जाल्लो. तातूंत आंवय हांतरुणार !...सगलें खरें ! पुण सुभाषाक तिडक माल्ली ती सुलून आपणाक काळखांत दवल्लो म्हुण- हरशीं सगलें मन मेकळें करून सांगपी सुलून हें सांगपाक फाटिफुडें कित्याक केलें ? आनी वयल्यान म्हणटा कशें " म्हजेर रागार जावं नाका. म्हजो गुन्यांव करूं नाका. "

सुभाषालें दिसदिशीं चडलें. जेवप ना. खावप ना. न्हीद ना. फकत कितें म्हळ्यार येवजप ! आवय बावडी सांगून सांगून वाजेली. निमाणें तिका दिसलें, घर सोडल्यार तरी तो ताळार येत. आग्रो करून, हट धरून तिणें सुभाषाक घर सोडपाक लायलें. दोगांक मुंबय आयलीं. सुभाषाक नोकरीय बरी मेळ्ळी. दीस सरताले. पुण सुभाष मात पुण निवळ्ळो ना. आवयन लग्नाखातीर हट धल्लो. पुण पुतान तें मनारूच घेतलें ना. निमाणेंकडेन ती तापली—" आवयलें इतलेंय आयकूंक नज ? इतले दीस हांव तग धरून रावल्यां सुने तोंड पळोवपाक. तूं लग्नूच जावचो ना जाल्यार हांव जियेवं तरी कित्याक ? " आनी खऱ्यांनीच तिणें जेवणखाण सोडलें. सुभाषान कळवळून सांगलें, " आई, म्हजेपसत कांय ना. तुवें सून म्हुण कोणूय हाडलीच जाल्यार म्हजेकडल्यान तिका मायेचो थेंबलेगीत मेळपाचेर ना. तीय वाजेतली मागीर. तूंच येवजून पळय. आनी अशें आसतना जर तुका सून जायूच तर हांव लग्नाक उबो रावंक तयार आसां.—"

आवयक तितलेंच जाय आशिल्लें. तागेलें उतर वयलेवयर जिखून घेवन तिणें लग्नाची तयारी केलीच.

पुण सुभाष निवळ्ळो ना. तागेलें वागप बदल्लें ना. आवयक दिशिल्लें ते बावडे चलयेकडेन पळोवन तरी सुभाष धड वागतलो. पुण नखेत्रासारकी बायल मेळुनूय सुभाषान आपणालें तेंच खरें केलें. एकूय दीस प्रेमान तिजेकडेन पळयलें ना वा उलयलो ना. तिकाय तें खूब वायट दिसूंक लागलें. सुभाषालें

मन जिखपाचो खूब येत्न केलो तिणें. पुण सुभाष मात ती म्हऱ्यांत येता तितलो पयस वतालो.

खासा सुभाषाक लेगीत वायट दिसतालें. मंदा हरशीं भुरगें एकदम बरें. आपणालें मन जिंखपाखातीर खूब येत्न करता बावडें. म्हजे असवडीं रडटा लेगीत आसतलें ! पुण हांव कितें करूं ? म्हाका बायल खंय जाय आशिल्ली ? आईक सून जाय आशिल्ली न्हय ? आइकूच करूंदी तिजी माया.

एक दीस सोसूं नज जावन मंदान म्हळें, " अशें कितें करतात तुमी ? तुमीच रागार जाल्यार हांवें कोणाल्या तोंडाकडेन पळोवपाचें ? " सुभाषाक सट्ट करून सुलूची याद जाली. सुलूय अशेंच म्हणटालें. पुण म्हुण कितें हिणेंय म्हणचें ! ना. हिज्या तोंडांत सोबनात हीं उतरां. तीं सुलूनूच म्हणपाचीं... सुभाष तट्ट करून उठून भायर गेलो.

सुलू ! सुलू ! ! सुलू ! ! !

कितें करता काय सुलू ? ताकाय म्हजी याद येताच आसतली...पुण रमेश म्हणटालो—" सुलूलें कितें तुजेर प्रेम नाशिल्लें ? तें आतां विसल्लें ना ?..." सुलू म्हाका विसल्लें. आपणाल्या संवसारांत रमलां आसतलें.

सुलू आतां दुसऱ्यालें जालें हाजी सुभाषाक तिव्र जाणविकाय जाली. सुलू आपलें जालें ना हाजेपरस तें दुसऱ्यालें जालें हाजें दूख ताका चड जावपाक लागलें. सुलूची तिडक मारपाक लागली ताका. ल्हवुल्हवू तिडकेची सुवात तिरस्कारान घेतली. पुण मंदाविशिंच्यो भावना मात केन्नाच फुलल्यो नात.

आवयन निमाणें वाजेवन म्हळें—" आरे सुभाष, छळटा हय रे म्हाका ? लग्नाची बायल मरे ती तुगेली ? एकूच दीस तिका घेवन खंयूय वचचें आशिल्लें, एक सिनेमा तरी दाखोवचो आशिल्लो. हें कितें हांवें सांगपाक जाय हय रे तुका ? "

हालीं हालीं सुभाष आवयचेरलेगीत तिडटालो. पुण तिडपाकूय म्हुण मेधा आसता. सुभाष तोंड धांपून उठलो. बायलेक भायर सरपाक सांगलें आनी तिका घेवन लागशिल्ल्या एका थियेटरांत गेलो.

मंदा सिनेमा पळोवपांत गुल्ल जाल्लें. मदींच एक फावट भयांक्त वेळार मंदान भियेवन सटकरून सुभाषाल्या हाताक घट धल्लें. सुभाषालें आंग

शिरशिल्लें. सुलूय अशेंच घोवाम्हऱ्यांत बसता आसबलें...ताजो हात धरता आसतलें...सुभाषान सट्ट करून आपणालो हात पयल्यान काडलो.

फुडल्याय आयताराक आईन मंदाक न्हेसोवन भायर बी काडलें आनी सुभाषाक उलो मारून म्हळें, “ सुभाष, मंदाक घेवन असोऽ चौपाटीचेर भोवन यो. लग्न जाल्ल्याक एकूय फावट गेलें ना बावडें ! ”

सुभाषान तोंड धांपून आवयलें आयकलें. पुण वाटेर मंदाकडेन एक उतर लेगीत मनस्पुर्वेक उलयलो ना.

असोच एक आयतार उजवाडलो. सांजवेळ जातकीर मंदा साडी बी न्हेसून तयार जालें. आतां सुभाषाक सांगपाची गरज नाशिल्ली. तो आपूण जावन उठलो. आंगाचीं लकयलीं आनी मंदाक घेवन चलपाक लागलो.

“ आज चौपाटीचेर या. ”

“ आं ऽ ”

सुभाष मंदाबराबर भोंव भोंव भोंवलो. मंदान परत या म्हणसर भोंवलो. आमोर जाली.

“ या न्हय आता ? ” मंदान विचाल्लें.

“ हं ! ” सुभाष पर्थून मोन्याभशेन उलयलो.

दोगांय परतुपाक लागलीं.

“ आयकलां, म्हाका तानशी लागली. आमी थंडशें कितेंय घेवं या ? ” मुखारूच आशिल्लया ‘ आइस्क्रीम हाऊस ’ कडेन बोट दाखयत मंदान विचाल्लें.

सुभाष मंदाक घेवन भितर सल्लो. भितर लूट आशिल्ली. माळयेर जागो आशिल्लो जावं ये. पुण रोखडोच परततलो म्हुण सुभाष सकयलूच उबो रावलो. इतल्यांत “ उपर चलिए साब ! जगह है ! ” वेटरान म्हळें. आनी मंदान ‘ या ’ म्हळें म्हणटकीर ताका वचचेंच पडलें.

भितर सरिल्लो मात ! सुभाषाली नदर आनी पांय खिळे मारिल्लेवरी घट जालीं. कोनशाक एका मेजाकडेन सुलू बशिल्लें. त्याच खिणाक सुलूनूय ताजेकडेन पळयलें. खिणांत अजाप, मोग, दुख आनी तरेकतरांचे अविस्कार ताज्या दोळ्यांत दिसले. दुसऱ्याच खिणाक ताजे म्हऱ्यांतलो दादलो ताका कितेंतरी सांगूंक लागलो. आनी सुलून नदर घुंवडायली. सुभाष मात पळयतच उल्लो. हें सुलू ! आनी हांगा ?

" सर, हॅव युवर सीट हिअर. " वेटरान म्हळें. मंदा फुडें सल्लें. सुभाषूय ताळार येवन फुडें सल्लो. तो बशिल्लो थंयच्यान सुळू पयस नाशिल्लें.

" कितें घेवंया आमी ? " पुण सुभाषान आयकलें ना.

" आयकलां ! कोल्ड कॉफी मागोवं ? "

" हं ! "

मंदान ऑर्डर दिली. सुभाष मात विचित्र येवजणेंत घुसपल्लो. सुळू हांगा कशें ? अजून हागेलें म्हाका छळूंक सोंपलें ना ? अितले दीस म्हाका त्रास दिलें आनी आतां हांगा––आनी तो घोव दिसता. खिणभरांत सुभाषांतलो मत्सर जागो जालो. हाजेबराबर संवसार करता सुळू–म्हाका विसरून.

आनी हांव ! दादलो जावन दुख भोगतां. कोणाखातीर ? ह्या सुळूखातीर ? जाणें म्हजी पर्वा केली ना ते हे निष्ठूर चलयेखातीर ? आनी अकस्मात एक निष्ठूर हांसो सुभाषाले नदरेंत उदेलो. उजवो हात मंदाल्या खांदार उडोवन दाव्या हातांत ताणें मंदालो हात घेतलो. मंदा अजापान पळोवंक लागलें. केन्नाच न्हय तें घडलें कशें ? सुभाषाक म्हजी अकस्मात अशी दया कित्याक आयली ? कशेंय जावं ! देव पावलो !

" तुवें ऑर्डर दिली ? " मंदाल्या खांदावयल्यान हात भोंवडायत घोगऱ्या पुण जाता तितल्या मृदु आवाजांत सुभाषान विचाल्लें.

" लक्ष खंय तुमचें ? " लटीक रागान मंदान विचाल्लें.

" आं ? हां हां. म्हजें लक्ष नाशिल्लें खरें. " आनी अकस्मात मंदाल्या गळ्यांतलें मंगळसूत्र हातांत घेवन ताजेकडेन खेळत सुभाषान विचाल्लें, " हें कितें ? तुवें हार घालो ना तुजो ? आनी हेर भांगर– शिंगर कित्याक घालें ना ? "

" कित्याक तें म्हाका विचान्नाकात. फाल्यां घाल्तां काय ना तें पळयात."

इतल्यांत कॉफी आयली. पेल्याक तोंड लायतना सुभाषान दोळ्यांच्या कोनशांतल्यान पळयलें. सुळू त्राशीक आनी मत्सरी नदरेन मंदाकडेन पळयतालें.

हांसतहांसत सुभाषान म्हळें–– " कॉफी रुचीक जाल्या न्हय ? "

मंदाली तान केडन्ना भागिल्ली. ताज्या आनंदाक सर्ग उणो जाल्लो. ताका आतां आनी कांयच गोड लागनाशिल्लें. तरी पुण ताणें ' हय ' म्हळें.

मदींच सुभाषान मंदाल्या ओंठांतलो पेलो ओढून काडलो. " पुरो. आतां

हो पेलो म्हजो आनी हो तूं घे." अशें म्हुण ताणें आपणालो उरट्या-पेलो मंदाफुड्यांत दवल्लो.

कॉफी सोंपली. मंदाक उठन दिसनाशिल्लें. तरी पुण ताणें म्हळें, "या न्हय ?"

"ताकतीक कसली आसा ? मातशें राव." अशें म्हणून सुभाषान मंदालो हात हातांत घेतलो आनी उलयतां उलयतां मदींच तोंडाकडेन व्हरून त्या नाजूक हाताचो उमाव घेतलो. मंदा लजलें. हात सोडोवन ताणें म्हळें, "हें कितें ? लोक पळयतात म्हळ्यार ! चलात पळोवया आतां. आई वाट पळयतली."

मंदा उठलें. सुभाषूय उठलो. सुलू अजून विस्फारिल्ल्या आनी भरिल्ल्या दोळ्यांनी पळयत आशिल्लें. सुभाषान पांच रुपयांची नोट बशयेंत उडयली आनी मंदाल्या खांदार हात घालून तो देंवपाक लागलो—मात पुण फाटल्यान पळय-नासतना.

रस्त्यार येतकीर ताणें हात काडलो. काळोख जाल्ल्यान दिवे पेटिल्ले. लोकांचो घरा परतुपाचो वेळ. गर्दी सोसपाची न्हय. मंदा आनी सुभाष चलतालीं. मंदा खुशाल आशिल्लें. सुभाष येवजीत आशिल्लो.

चलतां चलतां गर्दींत मदींच मंदा ताका तेकलें. आंग शिरशिरलें सुभाषाचें—सुलूय अशेंच घोवाबरोबर चलता आसतलें !...

आनी मंदाक दोन हात पयल्यान दवरून तो चलपाक लागलो.

* * *

# तूं वचूं नाका

कूऽऽऽक !

व्हडल्यान पिल्लूक मारून गाडयेन पुणें स्टेशन सोडलें. गाडयेक सुटूंक पयलींच कळाव जाल्लो. थोडोसो वेळ वचनाफुडें सगल्यांनी न्हिदपाची तयारी केली. हांवेंय बी हांतरूण पातळायलें. आज धा वर्सांउपरांत हांव गोंयां वचूंक भायर सरिल्लों. काळीज म्हजें खोशयेच्या दर्यांत बुचकळ्यो मारतालें. आनी मन पुर्विल्ल्या काळांत धांवतालें.

म्हजो गांव सांकवाळ. भोव सोबीत. सैमाची निर्मळ सुंदरताय थंय विधात्याच्या कलाकसबाची वळख करून दिताली. गांवचे एकेवटेन आशिल्ली दोंगुल्ली. दुसरेवटेन आशिल्लें एक व्हडलें तळें. मदल्यानूच सोरपासारको वांकडो-तिकडो मार्ग. मार्गाच्या दोशींवटेन माडाचीं झाडां. हें सगलें म्हज्या दोळ्यांमुखार येवंक लागलें.

सांकवाळेक तेंकुनूच कुठ्ठाळ. न्हंयचे देगेर वशिल्लो थंड असो तो गांव म्हाका भोवच आवडटालो. कुठ्ठाळेसावन सांकवाळ चड पयस ना. आसून आसून वीस मिनटांची वाट. कुठ्ठाळेच्यान सांकवाळे वतना मळ काडनाफुडें पयलें लागता तें घर भाटकार जुझेलें. उपरांत दोन-तीन मिनटांचे वाटेर एकूय घर नाशिल्लें. रोखडीच मागीर वसती लागताली. ते वसतेंतलें पयलें घर आमगेलें. ज्या घरांत हांव ल्हानाचो व्हड जालों तें म्हजें माये-मोगाचें घर. तशें पळेल्यार त्या भाटकार जुझेल्या घराकडेनूय बी म्हजो तितलोच संबंद. आमगेल्या घरांत आतां घरचो असो कोणूच ना. ना म्हळ्यार, तुर्ताक जुआंव म्हुण म्हगेलो एक पयसुल्लो सोयरो घरांत रावून तें सांबाळटा. घराक तेंकुनूच आशिल्ल्या बेंसाचे येणावळिचेर पोटाचें जोडून जुआंव दीस सारता.

येवजितां–येवजितां हांव भुरगेपणांत गेलों.

पंदरा वर्सांचो आशिल्लो हांव. आवय म्हजी भायर पडली आनी म्हजेवयलें मायेचें सत्र तुटून पडलें. दुश्ट काळान म्हाका आवयच्या मोगाच्या पांखां-पोंदच्यान ओडून काडलो. म्हज्यान हें सोसूंक नज जालें आनी ह्या असल्या वेळार मेरीचे मांयन म्हाका लागीं केलो. तानेल्या आशेल्या म्हज्या जिवाक फूल ना पाखळी मेळिल्लयाचो आनंद जालो.

म्हजो बापूय म्हजो मोग करी पुण आवयची सुवात घेवंक ताका जमलें ना. आपणालो वेपार, आपणाली भाटां–बेसां आनीं खासा आपूण हाजेबगर ताका कांयच लागनाशिल्लें. तांतूंत ताका सोऱ्याचें व्यसन आशिल्लें. तसो सोरो जायते जाण घेतात. पूण खंयचेय गजालीक मेधा आसूंक जाय. पायक खूब सोरो पियेवन आड पडलेबगर सूख लागनाशिल्लें. असल्या वेळार मेरीले मांयन म्हाका म्हऱ्यांत घेतलो. तिका आवय सुवातेर मानून हांव म्हजें दुख विसल्लों. इस्कोलांत वतालों तो वेळ सोडल्यार दिसूयभर हांव तांगेरूच वचून पडटालों. आमच्या घरांत म्हजें चित्तूच थारनाशिल्लें.

अशींच वर्सां गेलीं. म्हाका अठरावें लागलें. हांव मेट्रीकेक पाविल्लों. मेरीची मांय आसतना म्हाका कसलोच हुसको नाशिल्लो. अभ्यास खूप केलो. मेरीचो मामा मुंबय आसतालो, म्हुण सेंटर मुंबय घेतलो. हांव मुंबय गेलों. परिक्षा जाली. पेपर सोंपे आयिल्ले.

मुंबयंत मामा म्हाका घेवन भोंवक वतालो. राणीचो बाग, मलबारहील, चौपाटी पळेतां-पळेतां दीस कशे सल्ले, कळ्ळेंच ना. ह्या दिसांनी म्हाका एक नवो सोद लागिल्लो. गोंय हें आमचें! गोयकारांचें! गोंयकार हे भारताचे! अितलीं वर्सां ज्या कानांनी गोंय पुर्तुगेजालें म्हुण आयकत आयिल्लों, त्या ह्या म्हज्या कानांक हीं उतरां पयलीं मानवलीं नात. पुण येवजितकीर म्हाका तें पटूंक लागलें. अिल्लो-अिल्लो करून म्हज्या काळजांत पुर्तुगेजाविशीं राग जल्माक येवंक लागलो. मामान म्हजी वळख गोंयचे सुटकेखातीर वावुरतल्या कांय लोकांकडेन करून दिली. हांवेंय हो हावेस धल्लो आनी हो कान-मंत्र घेवन हांव गोंयांत परतलों.

मुंबयसून परतले उपरांत सुमार एका म्हयन्यान म्हजो बापूय भायर पडलो. व्यसनाक लागून ताणेंच मरण आपोवन हाडिल्लें. म्हज्या मनाचेर व्हडलोसो

परिणाम जालो ना. आतां मेरीचे मायन मात म्हाका: अदिकूच लागीं केलो. मांय-पाय नाशिल्लो चेडो म्हुण ती म्हजेर मोगाचो शिंवर घालूंक लागली. मेरी आनी तिची मांय हांच्या सांगाताक हांव सगलें दुख विसल्लों.

मेरी म्हजेपरस चार-पांच वर्सांनी ल्हान. पुण समजिकाय म्हजेपरस चड. शिकतना कितेंय कळना जाल्यार ताणें म्हाका विचारपाक येवचें, आनी ताका तें सांगूंक म्हाकाय बी खोस जावची. केन्नाय घरांत खावपाक वा दोस बी केली जायत जाल्यार ती म्हाका दिलेबगर ताका गोड लागनाशिल्ली. आनी अशे तरेच्या माये-मोगाच्या घरांत म्हजें मन खोशी आशिल्लें हातूंत अजाप ना.

मेट्रिकचो रिझल्ट जालो. इस्कोलांत हांव पयलो आयलों. मेरीचे मांयन दोस वांटली. मेरीक तर म्हजेपरस चड आनंद जालो. आवय-धुवेचे खोशयेक त्या दिसा तांगेलें व्हडलें घर लेगीत ल्हान दिसूंक लागलें.

मुंबयच्यान हाडिल्ली येवजण म्हज्या मनांत घोळटालीच. गोंयांत हांवें म्हजें काम सुरू केलें. कोणाक सांगनासतना. स्वातंत्र्याखातीर, गोंय पूर्तुगेजाले बंदखणींतल्यान मेकळें करचेखातीर वावुरपी गोंयांत जायते आशिल्ले. तांतल्या जायत्या जाणांक हांव मेळ्ळों. अितले दीस म्हाका उपकरा पडनाशिल्लो म्हजो वाडो म्हाका आतां खूब गरजेचो दिसूंक लागलो. त्या घरांतूच कामा-कारस्थानां सुरू जालीं, मेरीचे मांयक हांतलें कांयच खबर नाशिल्लें. पुण मेरीपसून कितेंच लिपोवन दवरप म्हाका जमलें ना. एक दीस हांवें मेरीक सगलें सांगून उडयलें. तें पयलीं भियेलें, हांव जय-हिंदांत पडलां म्हुण. पुण हांवें ताका सारकें समजायलें. म्हजेर ताचो पुराय भरंवसो, म्हुण ताका तें पटलें. पुण ताच्या मनांतसून भिरांत मात गेली ना. काकुळटेक येवन ताणें सदांच म्हाका सांगचें– "तोमास, तूं कित्याक हें सगलें करता? तुका धल्लो जाल्यार, आमकां कितलें दुख जातलें! तोमास, तूं सोड हें सगलें..." पूण हांवें ताची सदांच फकाणां मारचीं. ताका भिजूड म्हणचें.

एक दीस हांव कामांत आसतना हें येवन म्हाका उपदेस करूंक लागलें. हांव तिडलों. तिडकेभरशीं हांवें ताका धांवडावन घालें. फाटल्यान म्हाका वायट दिसलें. उपरांत रातचो तांगेर वचून हांवें ताका समजायलें. पुण ताचे उपरांत तें केन्नाच म्हाका उपदेस करूंक येना जालें. हांवें कितेंय केल्यार नाका म्हणना जालें. पुण एक खरें कि त्या दिसासावन तें म्हजेकडेन मेकळेपणान

उलोवपाक भियेवंक लागलें. ताणें एकेतरेचो कांच सो घल्लो.

दोन-तीन वर्सां गेलीं. हांव म्हजें काम करीत आशिल्लों. म्हज्या वांगड्यांनी गोंयांत खूब बोवाळ घालो. शेंकड्यांनी गोंयकार बंदखणींत गेले. स्वतंत्रतायेचो उजो पेटलो. पुर्तुगेज सरकार पिसावन गेलें. जायत्या जाणांक धरून हाल-हाल करून पुर्तुगेजान माल्ले.

एक दीस दनपारच्या वेळार एक मनीस म्हाका सोदूंक आयलो. जाता तितले बेगीन गोंय सोडून वचूंक ताणें म्हाका सांगलें. म्हाका धरूंक रोंद भायर सरिल्लें. हांव मेरीगेर आयलों. मेरीक सांगलें. तें रडूंक लागलें. मांयक कांयच खबर नाशिल्ली. आतां सगलें सांगूंक वेळूय नाशिल्लो. "जय-हिंदाक लागून म्हाका धरूंक भोंवतात; हांव आतांचे आतां गोंय सोडून चल्लों," अशें तिका सांगले-बराबर तिचेरूय आकांत आयलो. अितल्यांत रोंद आयलें. मेरीच्या घरामुखा-वयल्यान आमच्या घराकडेन गेलें. आतां पळून वचप कठीण आशिल्लें. मेरीची मांय खरीच धिराची. हाताक धरून तिणें म्हाका भितर व्हेलो. म्हगेल्या घरांत हांव ना, म्हणटकीर रोंद मेरीले घरांत म्हाका सोदूंक आयले-बगर रावचें ना म्हणपाचें आमकां कळ्ळें. भितल्ले कुडींत वॉल्तोर आशिल्ली. बारा-फूट ऊंच आनी आठ फूट रूंद अशी ती वॉल्तोर. तिका हारशाचें एक दार आशिल्लें. मेरीचे मांयन दार उकतें केलें आनी म्हाका भितर सरूंक फर्मायलें. सायबाचे मुर्तेफाटल्यान मेकळो जागो आशिल्लो. हांव थंय लिपलों. मांयन एक नवी शाल हाडून म्हजे आड लायली. हारशाचें दार बंद जालें. म्हाका कांयच दिसनाशिल्लें. पुण मेरीचे मांयलें फुतफुतप कानार येतालें. स्पश्ट कळनाशिल्लें. पुण सायबालागीं ती मागणें करताली, हें म्हाका समजलें. थंयच मेरी आशिल्लें. तें रडूंक लागलें. मांयन रोजार सोंपयलें आनी मेरीचेर धेंगसो घालो.

अितल्यांत रोंद आयलें. दार धाडायिल्ल्याचो आवाजूय आयकूंक आयलो. मेरीच्यान दार उकतें करूंक जावचें ना म्हुण मेरीचे मांयनूच तें उकतें केलें. एक पाखलो, दोग सोल्दाद, आनी गांवचो रेजिदोर, इतले लोक भितर सल्ले. प्रत्येक कूड उस्तूंक लागले. आल्मार उगडून पळोवंक लागले. पळेतां पळेतां म्हजेय कुडिचें दार उकतें जालें. म्हजी सामकी भियेवन गुळी जाली. ओगीच भेयशें दिसपाक लागलें. खांकांडें पडत काय, शींक येत काय...अशें म्हाका

दिसूंक लागलें. अितल्यांत " धप्प " असो आवाज जावन म्हजे कुडिचें दार बंद जालें. तेन्ना म्हाका सूऽऽजालें.

...सोल्दाद गेले आनी " औट घटकेचो " देव जाल्लो हांव वॉल्तोरी-तल्यान भायर सल्लों. मेरीचे मांयन म्हाका दिमी मारपाक सांगलें. हांवें दिमी मारून रोजार केलें. मेरीची मांय शांत आशिल्ली. म्हाका घेवन ती भितर गेली. थंय एके कुडींत बाज्जेर न्हिदून मेरी रडटालें. म्हाका थंयच सोडून मेरीली मांय भितल्ले कुडींत गेली. मेरीले मांयच्या तोंडाक पळोवन हांवूय खूबसो शांत जालों. पुण मेरीचें तें रडप पळोवन म्हज्यान रावूं नज ज़ालें. हांव ताचे म्हऱ्यांत बसलों. हांवें ताचें तोंड वयर करून म्हज्या हातानूच ताचीं दुकां पुसलीं. मुळांतूच सोबीत अशें ताचें तें तोंड म्हाका त्या वेळार अदिकूच सोबीत दिसलें. हांवें ल्हवूच ताचो हात हातांत घेवन म्हळें, " मेरी, अशें करूं नाका पळोवया पिशाभशेन ! " हें आयकतकीर तें अदिकूच उमाळे दिवन-दिवन रडूंक लागलें. थोड्याशा वेळान ताचें रडप बंद जालें. मदीं-मदींच एकाद्रो उमाळो म्हाका आयकूंक येतालो आनी ताचे फाटोफाट सोडिल्लो सुस्कारोय बी.

कितलो तरी वेळ आमी दोगांय अशींच राविल्लीं ! म्हाका कितेंच उलोवचेंशें दिसनाशिल्लें. हाचें उरफाटें मेरीचें. ताका कितेंय तरी उलोवंक जाय आशिल्लें अशें ताचे ते दोळेच सांगताले. पुण तें उलोवंक अनमनतालें. हांवेंच ताका मागीर विचाल्लें " मेरी, तुका कितें सांगपाचें आसा ? " मातसो वेळ रावन मेरीन म्हळें, " ना. " म्हाका सांगपाची ताच्या मनाची तयारी जायना जाली. तें ओगीच रावलें. सांजेवेळ जाली. मेरीचे मांयन हाडिल्ली च्या पियेवन आमी दोगांय उलयत बसलीं. अर्थ नाशिल्लें, सुवाद नाशिल्लें अशें आमी उलयतालीं पुण ते गजालींत कोणाचेंच मन रमनाशिल्लें.

आमोर जाली. काळोख जावंक लागलो, तसो हांव मेरी म्हऱ्यांत गेलों. " मेरी ! " हांवें उलो माल्लो. मेरीन तकली वयर करून म्हजेकडेन पळेलें. ते नदरेंत म्हाका कितें तरी दिसलें. कसलो तरी हावेस ! कसली तरी आशा ! मेरीन आशेन विचाल्लें, " कितें तोमास ? "-" हांव वतां " हांवें म्हळें. मेरीन तकली सकल घाल्ली. गिरणींत उजो घालतकीर इल्लो-इल्लो करून जसो आवाज वाडटा, तशेभशेन मेरीच्या रडपाचो आनी हुडक्यांचो आवाज वाडूंक लागलो.

हांव सामको काचाबूल जालों. दोन–तीन मिनटां गेलीं. इल्लें इल्लें करून मेरी ओगी रावपाचो यत्न करूंक लागलें. हांव ताचे म्हऱ्यांत गेलों. " अशें रडूं नाका मेरी ! " हांवें म्हळ्ळें. इतल्यांत झसकन्न म्हजो हात घट्ट धरून मेरीन म्हळें, " तूं वचूं नाका तोमास ! तूं वचूं नाका...." हें आयकून हांव धुसपलों, गोंदळ्ळो. कितल्या तरी दिसांनी ताणें आज म्हाका अशुकूच करूं नाका म्हुण सांगिल्लें. पुण.......

अितल्यांत मेरीची मांय भितर सल्ली. हांवें तिकाय सांगलें, " मांय हांव वतां ! " ती ओगी रावली. उलयतली पुण कितें ? परिस्थिती तिका खबर आशिल्ली. पुर्तुगेजाचो रागूय ती जाणा आशिल्ली. जेन्ना हांवें तिका वेंग माल्ली, तेन्ना म्हजें म्हाकाच रडूंक येवंक लागलें. एक मांय म्हाका सोडून गेल्लीच आनी आतां दुसरे मांयक हांव सोडून वतां...

तांचो रकाद घेवन भायर सरतां म्हळ्यार म्हाका काळोख जालो. हांव तडक आडवाटेन सरून कुद्दाळे आयलों, कारेंरीर बसून मडगांवां गेलों. पोरण्या बाजारांत देंवून बड्ड्यां गेलों. थंय विसू आनी रेमेत म्हाका रावताले. तांचे वांगडा रातोरात गोंय सोडून हांव बेळगांवां आयलों.

बेळगांवां पावतकीर परत आमचीं कामां सुरू जालीं. गोंयांत आसतना लिपून चलतालीं. हांगां आतां उकत्यार चलूंक लागलीं. ना कोण विचारपी, ना कोण हडकुपी, ना कोण धरपी. हांगा नवे वांगडीय म्हाका मेळ्ळे आनी नवे उमेदीन हांव म्हज्या वांट्याचें काम करूंक लागलों. पंदरा-पंदरा दिसांनी गोंयांत चीट घालपाक मात हांव केन्नाच विसल्लों ना. हांव चिटयो घाल्तालों. आनी दर एके चिटयेक म्हाका दोन जापो येताल्यो. एक मेरीली आनी एक मांयची.

अशींच स वर्सां सल्लीं. एक दीस म्हाका मेरीची चीट आयली. चिटयेंत बरयिल्लें, " आसा तसो यो. मांय आनी माम म्हज्या काजराची तयारी करतात ! " मेरीन अंतस्करणाथावन बरयिल्ली ती चीट हांवें वाचली. आनी वात्तरांत धुसपल्लया म्हाका पयलेंच फावट मेरीच्या त्या वागपाचो अर्थ समजलो. मेरी म्हजो मोग करतालें.

त्या दिसासावन म्हज्या मनाक चैन पडना जाली. कितें करचें तें म्हाका कळना जालें. गोंय मेकळें जायसर हांव आपणांक खंयच्याच पासांत बांदून

दवरपाक तयार नाशिल्लों. पुण मेरीली ती चीट वाचनाफुडें म्हजी चित्तवृत्ती अस्थिर जाली. मनाचें व्हडें विचारांच्या ल्हारांचेर दोशींवटेन हाल्लू-धोल्लूंक लागलें. पुण अंतीं म्हजें मन थीर जालें. मनांतलें वादळ न्हिवलें. गोंय मेकळें जायसर आंकवार रावचें अशें हांवें थारायलें. तशी चिट्टूय हांवें मेरीक बरयली. आनी जावचेलें तेंच जालें. एक दीस मेरील्या काजराची कोंवीत म्हज्या हातांत पडली.

आतां मात म्हजें तरणें मन जागें जालें. हांवें मेरीक दुखयलें, हांवें ताचो विस्वासघात केलो, अशें म्हाका दिसूंक लागलें. म्हजेंच मन म्हाका खावपाक लागलें. मेरीची ती मूर्त म्हजे नदरेमुखार येवंक लागली. मेरीचीं तीं उतरां म्हज्या कानांत घुमूंक लागलीं, "तूं वचूं नाका तोमास...तूं वचूं नाका....." एक फावट मनशाचें मन मनशाक खावंक लागलें कि तें चारूयवटेन आंगाचे कुडके काडटा. तशी गत म्हजी जाली. खिणा-खिणाक म्हज्या मनाची खात्री जावंक लागली कि हांवूच गुन्यांवकारी, हांवूच विस्वासघातकी. आनी एक फावट एकाद्याक जशी आपल्या गुन्यांवाची जाणवीक जाली म्हणटकीर तो मागीर आपणाक वाटावपाखातीर "तें तशें न्हय" अशें आपल्या मनाक सांगता. आपूण जावन आपणाकूच फटयता. पुण मनीस फटवता म्हुण मनशाचें मन केन्नाच फटवना. कितलेंय जरी सांगून हांव म्हज्या मनाचें समाधान करूंक सोदतालों, तरी म्हजें मन म्हाका खातालें.

'कूऽऽऽक !'

गाडयेन पिल्लूक माल्ली तशी म्हजी विचार तनरी तुटली. अकरा वरां जावन गेल्लीं. कळाव भरून काडपाखातीर गाडयेन गती घेतिल्ली. हांवें म्हजे तकलेकडेचें जनेल ल्हवूच वयर काडलें. ते बराबर घस्स करून वारो भितर आयलो. जसो कितें भायलो सगलो वारो एकदम भितर सरपाची वाट पळेतालो. हावें जनेल बंद केलें. त्या तितल्याशा वाऱ्यानलेगीत म्हजी तकली जायती थंड जाली. पुण ते विचार मात म्हजे तकलेंतसून वचना जाले...मेरी आतां कशें आसत काय ?...ताका आतां भुरगीं जाल्यांत आसतलीं...अशे एक ना दोन कितलेशेच विचार म्हज्या मनांत येताले.

कितलिशींच वर्सा म्हाका मेरीकडसून वा ताचे मांयकडसून एकूय चीट येवंक नाशिल्ली. बेळगांवां म्हाका मेळिल्ली ती मेरीली निमाणी चीट. काजार जाले उपरांत मेरीन म्हाका चीट बरोवप बंद केलें. ताचे उपरांत पांच-स म्हयने ताचे मांयच्यो चिटयो म्हाका येताल्यो. पुण मागीर गोंय मेकळें जालें. मेकळ्या गोंयांत वचपाक म्हजो जीव हापापिल्लो. पुण वचपूच जालें ना. म्हाका अकस्मात कलकत्याक एके व्हडले कंपनींत बरी नोकरी मेळ्ळी. हांव चाकरेक बांदून उल्लों. आज तीन वर्सां जायत आयलीं, गोंय मेकळें जाल्यार. म्हज्यान आतां मात रावूं नज जाले. चार पैशे एकठांय जाल्लें तेन्ना हांवें ती चाकरी सोडून गोंयात वचपाचें केलें...आनी आज हांव गोंयचे वाटेर आसां. फाल्यां पावतलों गोयांत !

खंयच्या म्हुर्तार भायर सल्लों, देव जाणा ! गाडी लेट ! कॅसलरॉकाक सुटली चार वरांचेर. ह्या वेळार खरें म्हळ्यार गाडी मडगांवां पावपाची खंय ! आतां केन्ना पावता ती पळोवया.

" दूदसागर आऽयलो " एका भुरग्यान हालेट माल्ली. बेगिबेगीन हांवें तकली भायर काडली.

" कितलो सोबीत हो दूदसागर ! " म्हज्या तोंडांतसून उतरां भायर पडलीं. दूदसागराचो तो नेट पळोवन म्हजे दोळे खुशालभरीत जाले. जसो कितें मेकळ्या गोयांत पयलेच खेपेक येतां म्हुण म्हाका येवकार दितालो तो !

खुबूच कळाव जालो गाडयेक. आठ वरांचेर ती मडगांवां पावली. बेगि बेगीन हांव हातांतलें बॅग घेवन प्रासार आयलों. हेर सामान स्टेशनाचेरूच क्लॉकरुमांत दवल्लें. प्रासार कळ्ळें कि निमाणी आठांची कारेंर आतांच गेली म्हुण. इतल्यांत एक धाकटुली गाडी ' कुडाळे कुडाळे ' करीत म्हज्या म्हऱ्यांत आयली. " एकलोच आसा ? यो तर. " हांव गाडयेंत भितर सल्लों. गाडी धांवपाक लागली.

मडगांव खूब बदल्लां अशें म्हाका दिसलें. पुण नव्या बाजारांतसावन पोरण्या बाजारांत वचपाचो मार्ग आनी ताचे दोशींवटेनची रचणूक मात पयलीं सारकीच आसा. फुडें तर तोच रस्तो, तेंच सैम नदरेखाला घालीत हांव फुडें सरतालों. इतल्यांत कुडाळ आयली. तीच पयलींचीच कुडाळ ! धा वर्सां जालीं तरूय कालूच हांव त्या मार्गावयल्यान गेल्लेवरी म्हाका दिसतालें.

मोटार थांबली. आरेच्या ! हो तर फेरीबोटिचो धको ! कितलो बदल्ला ! आनी दोंगोर कापला पळे कितलो ! एक रुपयो ड्रायव्हराच्या हातार उडोवन हावें हेवटेन तेवटेन पळेलें. णव वरां जाल्लीं. फेरीबोट बी बंद जाल्ली. पयस एक पसरकार दुकान बंद करून हातांत एक पेट्रोमाक्स घेवन घरा वतालो तो दिश्टी पडलो. सांगात मेळपाची कांय आशा ना. तेन्ना चलपाक लागल्यार बरें, असो विचार करून चलपाक लागलों.

जानेरा म्हयनो ! वारो कांट्यावरी तोंपता ! वयर मळबांत मदीं मदीं नखेत्रां लिकलिकतात. हेवटेन-तेवटेन आशिल्लीं कुपां एकठांय जावपाक लागल्यांत. ‘ तें पळे मळ ! ’ काळखांतल्यान नदर भोंवडायत हांव म्हणटां. हें मळ काडिनाफुडें मेरीलें घर येतलें. भितर सरुंया म्हणटलों जाल्यार रात जाल्या. विचार करीत हांव फुडें सरतां अितल्यांत...

“ कोण ? तोमास ? ” म्हाका कोणेंतरी उलो माल्लो. “ हय ” मातसो उब्बो रावन उलो मारतल्याचो सोद घेत हांवें जाप दिली. आवाज वळखिचोसो दिसलो. अितल्यांत तें मनीस म्हजेसरीं आयलें. कुपां मातशीं पेल्यान सल्लीं. मळब उजळ्ळें आनी हांवें म्हळें, “ मेरी, तूं हांगा ? ”

“ हय, तुजीच वाट पळेतालें...”

“ तुका कशें कळ्ळें हांव येतलों म्हुण ? जुआंवान सांगलें काय कितें ? ”

“ हुं ! ” एक हुंकार आयलो. म्हाका एकदम याद जाली, धा वर्सां पयलिंची. मेरी म्हजो मोग करतालें आनी हांवें ताका एकदम तोडिल्लें. कितलें दुख जालें जावये ताका ? त्या दुखाचोच आविस्कार म्हाका त्या हुंकारांत दिसलो.

“ मेरी, तूं मांयगेर केन्ना आयिल्लें ? ” हांवें विचाल्लें. हाची जाप येवचेपयलींच म्हाका रडपाचो एक हुडको आयकूंक आयलो. आनी रडरडत तें सांगूंक लागलें. “ काजार जावन दोन वर्सांभितर घरकार भायर पडलो. आनी तेन्नाच्यान हांव हांगाच आसां...”

‘ च्–च् ’ म्हज्या तोंडसून उद्गार भायर पडले. कितेंय उलोवचें म्हुण हांव तोंड उगडटां, अितल्यांत मेरीनूच म्हाका प्रस्न केलो, “ तोमास, तुका म्हजो उगडास जायनाशिल्लो ? ”

" कितें विचारता मेरी ! म्हजो एकूय दीस असो गेलो ना कि तुजो उगडास जावंक ना. "

समाधानाचो एक सुस्कारो म्हज्या कानार पडलो. " तोमास, आजूच न्हय, तर सदांच हांव तुजी वाट पळेतालें. तूं केन्नाय तरी येतलोच हें म्हाका खबर आशिल्लें ! " अशें म्हणून तें आनिकूय म्हज्या म्हऱ्यांत आयलें. हांवें ताचो हात हातांत घेतलो. खुबूच थंड लागलो म्हाका ताचो हात ! बावडें मेरी ! अितले दीस ताका दुख दिलें म्हुण म्हजो म्हाकाच खूब राग आयलो. हांवें म्हळें, " चल मेरी, हांगा वाटेर कित्याक रावप ओगीच ? आमी वचुंया न्हय आता ? मांय वाट पळेतली. चल... "

कांय वेळ असोच गेलो. आमी चलत आशिल्लीं. मदींच मेरीन म्हाका प्रस्न केलो. " तोमास, तूं काजार जालो ? "

" ना मेरी. तुजी याद म्हज्या काळजांत आसतना हांव काजार जातलों तरी कसों ? "

" तोमास !" मेरीच्या काळजांतल्यान भायर सरिल्लो तो उलो म्हज्या काळजांत रोवून उल्लो. परत मातसो वेळ गेलो. मळ काबार जायत आयलें. मेरीचें धवेंच घर दिसपाक लागलें. मेरीन म्हाका आडायलो. आपल्या थंड हातांत म्हजो हात घेतलो आनी विचाल्लें, " तोमास, तू आतां खंयच वचचो ना मरे ? "

" ना मेरी, आतां हांव हांगाच रावंक आयलां. "

" आतां तूं खंयच वचूं नाका, तोमास. "

" ना, आतां हांव खंयच वचचों ना. चल. घर आयलें पळे तुजें. तुका पायतां आनी वतां हांव. " अशें म्हणून मेरीक घेवन हांव ताच्या दारांत आयलों. मांयक पळोवपाची म्हाका ओड लागिल्ली. मेरीचीच मांय तर ती ? म्हजी मांय न्हय तर ती ! ' खटखट ' करून हांवें दार वाजयलें. दोन मिनटां गेलीं. एका हातांत बॅग घेवन दुसऱ्या हातान परत हांवें दार वाजयलें. पावलांचो आवाज आयकूंक आयलो आनी एका हातांत लापयांव घेवन मेरीचे मांयन दार उगडलें. ' मांय ! ' एका पुतान मारिल्लो उलो तो ! मांयक पळोवन म्हजो गळो दाटून आयलो. कितली सुकून गेल्ली ती ! हातापायांचीं हाडां जाल्लीं सामकीं, दोळे

भितर गेल्ले आनी आंगार मिरयो पडिल्लयो. 'मांय!' परत हांवें उलो माल्लो.

"कोण, तोमास रे! म्हज्या पुता!" तिच्या दोळ्यांत उदक आयलें. हांवें फुडें सरून तिच्या हाताचो उमाव घेतलो. कितलो बारीक हात तो, बडी कसो आनी कितलो थंड!

"मेरी, यो मगो!" अशें म्हणून हांवें फाटल्यान पळेलें.

"आरेच्या, मेरी खंय गेलें?"

"पुता, कोणाक सोदता तूं? मेरीक? तें तुजो खूब उगडास करतालें. ताचो घरकार भायर पडसावन तें हांगांच आशिल्लें. पुण दोन वर्सां जायत आयलीं आतां...." म्हातारेचो आवाज कातरपाक लागलो, "एक दीस जोर तकलेक मारून तें भायर पडलें. मरचे पयलीं लेगीत तुजोच उगडास"

"मांय!" हांवें किळंच माल्ली. बॅग हातांतल्यान गळून पडलें. शेळी हूम देंवली म्हाका. एका भुतावांगडा हांव उलयलों हे कल्पनेनूच म्हाका कडकडो येवपाक लागलो.

"यो, पुता भितर..." मेरीचे मांयन म्हळें. पुण म्हज्यान थंय रावूं नज जालें. हांवें बॅग उखल्लें आनी म्हळें, "ना मांय, हांव वतां आतां. फाल्यां येतां. रात जाल्या न्हय आतां..." कशेभशेन हांव अितलें उलोवन भायर सल्लों. मेरीचे मांयन म्हाका मार्गार हाडून सोडलो. आनी ती भितर गेली. लापयांव भितर पावलो, दार बंद जालें.

हांवें पळेलें. हेवटेन-तेवटेन कोण नाशिल्लो. सामकारा पळेत धांवपाक लागलों हांव. केन्ना काय घरा पावल्यार पुरो जाल्लें म्हाका. तें पळें म्हजें घर! दारांत पावनाफुडें हांवें मोट्या–मोट्यान दार घोडावपाक सुरवात केली. म्हज्यान थंय रावूं नज जालें. एकासारको हांव दार घोडायत रावलों. थोड्याच वेळान जुआंवान दार उगडलें. हांव भितर सरून वॉल्तेरार पडलों. शेळी हूम देंविल्ली म्हाका, जुआंवान अजापान विचाल्लें, "तोमास, केन्ना आयलो? अशें कितें करता?"

"कितें सांगूं तुका जुआंव! आरे भूत, मेरीलें भूत मेळ्ळें न्हय रे म्हाका!" हांवें खरशेस-खरशेत सांगलें.

"किऽतें! तें मेरी मेल्यार तर दोन वर्सां जालीं!" जुआंवान अजापान म्हळें.

" आनीक हांव न्हंय रे ताचेकडेन उलयत-उलयत आयलों. ताका घराकडेन पावोवचें म्हुण तागेल्या दारांत वचून ताचे मांयकडेन उलयतासर फाटल्यान पळे जाल्यार मेरी नाच् ! मागीर ताचे मांयन सगलें सांगलें म्हाका...."

" कोणें ? " किळंच मारून जुआंवान विचाल्लें.

" मेरीचे मांयन. " हांवें जाप दिली.

" ती मेल्यार वर्स जालें, तोमास..."

आनी ते उमाशे राती लेगीत म्हज्या दोळ्यांमुखार कितलेशेच चंद्रीम नाचूंक लागले.

* * *